# मन वोडटा वोडना

ओलिऽहीन गोमिश

कोंकणी साहित्य प्रकाशन, मडगांव-गोंय

**C. सौ. येज्लिन्दा कुतोंय ई गोमिश**

००

अुजवाडावपी

**कोंकणी साहित्य प्रकाशन**

४९–बी, इराज्मु काव्हाल्यु मार्ग

मडगांव–गोंय.

००

**मोल : १० रुपया**

००

छापपी :

**कावेरी कॉर्पोरेशन,**

वालावलीकार मार्ग,

मडगांव–गोंय

००

पयली आवृती

९ एप्रिल १९८१

००

भायलें चित्र :

**अरविंद मेस्त्री**

## मांडावळ

# दोन उतरां

कोंकणीच्या मळार श्री. बाब ओलिव्हीन गोमिश हांची वळख हांवें करून दिवपाची गरज ना. कोंकणी-वाचप्यांक तांचें नांव खबर आसा. ते नंदते-गाजतें आसात.

'पुंजायिल्ल्यो पाकळ्यो' हो कवितांचो झेलो घेवन ते कोंकणी सरस्पतिच्या देवळांत भितर सल्ले. आमगेल्या माणकुल्या भुरग्यांकय ते विसल्ले नात. तांच्या खातीर रुचीक 'तुपुल्लो काणयां पाट्लो' ताणीं अुक्तो केलो. आमच्या फाटल्या दायजाची कोंकणीच्या वाचप्यांक वळख मेळची म्हणून कवी कुलगुरू कालिदासाच्या अजरांवर मेघदूताचें ताणीं कोंकणी रुपांतर केलें. आनी आमच्या कर्तुत्वी मनशांची आमकां वळख मेळची, ह्या खातीर श्री. Dr. Francisco Luis Gomes हांची अूंच कर्तृत्व-दशेची जीण आनी तिचो नियाळ ताणीं आमच्या मुखार दवल्लो.

पैलीवैलीच कथा कशी जल्मा आयली ? ती कोणें सांगली वा कोणें बरयली, हाची सुनशा आजून कोणाकच लागूंक ना. ती अुमाशेच्या रातची जल्मा आयली वा पुनवे दिसा अुचंबळून आयली हाचीय नाट कोणांक मेळूंक ना. मनोस जल्मा आयलो तेन्नाच कथाय आयली.

पुर्विल्ल्यो संस्कृतायो आशिया खंडातच जल्माक आयल्या देखून पैली कथाय आशिया खंडातच जल्माक आयल्या जावंक जाय हांतूत दुभावच ना. बुद्ध जातक कथा, महाभारतांतली आख्यानां, हितोपदेश, पचतंत्र ह्यो कथाच आसात. तांतुत पुर्विल्ल्या समाजाचें थोडें-भोव चित्र आमकां मेळटा, जाल्यारूय ह्यो कथा मनशांची धर्म भावना जागोवन, तांका कल्याणकारी मार्गाची देख मेळची ह्याच खातीर आसात.

मनशांच्या भावनांचे अुमाळे आनी भुरकुटे तांच्या मनांतलें झूज आनी अुद्रेक, संवसाराकडेन पाठी घासतना जाता ती जिवाची घालमेल ही पश्चिमेकडल्या कथेनच आमकां दिल्या. ह्याच कथांनीं आमच्या आर्विल्ल्या भासांतल्या कथांचें मुळावण घालें.

कथा सांगपाक अेक धाटणी जाय. धाटणेक कला जाय. ती सगळ्यांकच साधना. देखून कलेची साधनाच करची पडटा. अणभवांचे

सांडीर आपल्याक घांसून लकलकीत करचो पडटा. जोगलाच्या उजवाडान अख्खो वाटार तेळचो पडटा. जिणेच्या समुद्राची खर हाडपाखातीर अेका खिणात बुचकळी मारची पडटा. असल्या तपाचे साधनेंतल्यानच कला फुलता, फळटा, जिणेची खर मेळटा.

कथा सुखेस्त आसूं येता. तेच परी फार्साचें आंगलेतोपरें घाल्लीय आसूं येता. ह्या घोंसांतल्या 'सॉर्त' आनी 'मसगो' ह्यो कथा फार्साचें आंगलेतोपरें घाल्ल्यो आसात.

'मसणो' हे कथेंतलो मसणो हो ग्रामपंचायतीचो सरपंच म्हणून वेंचून येता, आना पोक्या बडबचारांचे व्हडविकेक लागून हांश्यार पडटा. हांशाकय अेक दुखाची कडा आसा. 'सॉर्त' हे कथेंत एक पड आयिल्ले भाटकाराचे जिणेचो फार्स जाल्लो दिश्टी पडटा. भाटां विकु विकून खाकनवाळ जाल्लो हो फांचु भाटकार पंद्रा खांडी पिकेचें एक शेत, शंभर माडांचे भाट आनी रावपाक राजम्हाल कशें घर अितल्यारुच आपलें जिणेचे दीस धुकलता. लग्नाची पिराय तो केन्नाच हुपून गेल्लो. घरांतल्या मारी-जाकिनाचेर तो बुल्लसून जीव सोडटा. हें मारी-जाकीन तागेली मुंडकान्न आनी क्रियाद. हाचें जुवानपण फुलतें, वाडटो कावथो कशें. अशा ह्या मारी-जाकिनाक तो केन्ना केन्नाय आपले नदरेन सांसपितालो. अेक दीस भाटकारान रांदची कुडीत ताका आखळु-माखळून धल्लें आनी ताच्या चोळयेच्या हड्डयाकडेन खोयिल्ले सोर्तिचें कावतेल पळेलें. 'कितें गो सोर्ती काडटा?' भाटकारान विचाल्ले 'ना बाबा रवळू सोर्तीकारान म्हाक दिल ती' 'असल्या कागदा कुडक्यांक मोल नागो. भायर अुडय तो.'

हेच आपले मुंडकान्नीक ताणें आपली घरकान्न केली. फांचू भाटकाराचेर ताचे भाच्चेचो दोळो आशिल्लो. तीय, तो आपलो केन्ना तरी होरेत जातलो अशीं सपनां पळेताली. अेक दीस तिका आपल्या शेजान्नीकडल्यान फांचू भाटकार मारी-जाकिनाकडेन काजार जाला म्हणपाचें कळटा. तिच्या आंगाक भगभग पड्टात. ती जाळानी अुठून तरतरीत आपल्या मामाल्या घरा येता आनी फांचूक सामको धारेर धरता. फांचू तिला बाडगना. अुप्रांत ती क्रियादाक कंडन भायर सरता.

मारी-जाकिन बावडें पैलिंचेच रविसेन चलूंक सोदता. जाल्यारूय फांच

भाटकार, आपल्या बराबर अुठपा-बसपा खातीर ताका ररत परत समजायता.

ते सोर्तिचो नंबर भाटकाराच्या ध्यानांत आशिल्लो. सोर्तिक लाख रुपये लागिल्ले आसतात. फांचू भाटकार आतां आपले आनी बायलेले दुडू एकठांय करुन फोडेगांठ जियोवपांचे थारायता. जाल्यारूय ती सोर्त, भाटकाराचे सांगणेंक लागून, क्रियादान पींजून भायर उडयल्ली आसता. हे कळटकीर भाटकार पिर्जळटा. ताका भिरभिरी मारता. त्या क्रियादाक, आपले साक्रामेंताचे बायलेक, रेडका मेर्दा अशो गाळी संव संवत तो जमनीर शेंवटून जिवाची हुंडी वाटायता.

तशें पळेंल्यार ही काणी दुखेस्त. जाल्यारूय फार्साचें तोपरें हे काणयेक दीस्त बसलां. भाटकार मरता, वाचतल्यांक हांसूक येता. तेच परी संवादातल्यान ओलिव्हिन्युबाबनी ही कथा भोव बरी फुलयल्या.

'मन वोड्टा वोडना' हे कथेंतलो रामलाल कुस्टरोग जाल्ल्यान नांव आसूनय नांव नाशिल्लो जाला. कुस्टरोग्याक आवय-बापुय, भावभैणी, शेजारी पाजारी नासतात. कुस्टरोग होच ताचो सांगाती. आंग कुस कुसत वतालें. सकयलें आंग आजुनय धड आशिल्लें. ताकाय सप्नां आशिल्लीं. भोगाची रूच आशिल्ली, जाल्यारुय ताची अित्सा, भागनासतनाच उरताली. दिसभर तो मर्णयातना भोगतालो. मर्णाब र ताका सोडवाट नाशिल्ली. जाल्यारूय मनशाक केन्ना मरन दिसना. ताची जियोवपाची आस सुटून सुटना. हे कथेतल्यान ताणीं हेंच दाखयलां.

आमचो भौस भोळो न्हय. जाल्यारूय देवाधर्माचेर, आपल्या ग्राम-पुरसाचेर ताचो आजुनय भावार्थ आसा. आतां मनशाची पातकां चड जाल्यांत अशें फरास आंतोनीक दिसता. देखुनच मनशाच्या आधाराक आतां गांव-पुरुस धांवून येना अशें तो म्हण्टा. अेक दिस गांव-पुरुस ताका पावता. ताका जेन्ना हें कळटा, तेन्ना तो ' सायबा भोगोस' म्हणून निर्णेता आनी ल्हवू ल्हवू करून जाग्यार येता. गांव पुरुस हे कथेतल्यान भौवसाच्या भावार्थाचें हें अशें दर्शन जाता.

मोग ही एक पवित्र भावना. अेक तरणो धाकुटो जेन्ना एके तरणे धाकुटे चलयेच्या मोगात पड्टा तेन्ना दोनय जीव मोगान हुलपतात. तांचे मन लोणया परसय मीव जाता. चांदन्याच्या शितळ धगान पासून तें कडूंक लागता. असो हो भोग निर्फळ जायत जाल्यार मोगांक कशे भाले तोपूंक लागतात, हें 'अथरेक' हे कथेंत दिस्टीं पडटा. मोगाकीट काळजांत पेट्टेकिर मोगी कसो सपनां पळोवंक लागता तें 'भांग' हे कथेतल्यान कळटा. मदीं

आडमेळीं येवनय मोग जेन्ना फळादिक जाता, तेन्ना दोनय जिवांचीं काळजां खोशेन कशीं अुचंबळून येतात तें 'वेगळायल्लीं' हे कथेतल्यांन जाणवता.

'व्होकल' ही ह्या कथांच्या घोसांतली अतीसुंदर कथा. अितलेंच न्हय तर कोंकणींतली ती एक भौ सुंदर कथा म्हळयार अिल्लीय अतिताय जावची ना. हे कथेंतली व्होकल लग्न जायनास्तना तशीच उरता. आवय-बापायली ती एकलीच धूव. मोगान आनी अपूर्बायेन वाडयली. दिसपांत सुंदर, सभावान गुणेस्त, गिन्यानान हुशार कोलेजाचें मुखावेलें शिक्षण घेवपाक मुंबै वता. तिका थंय एक जुवान भुरगो मेळटा, तिच्या काळजांत मोगाची सुंदर कळी फुलता. जाल्यारूय तो तरणो धाकुटो तिचेकडसून मोगाचो खेळ खेळटा आनी मोगाचो कळो खुडून पिसडून उडोवन वता. हाका लागून ती जिविताचेर विट्टा, तिचो सुवाद भस्टता. जाल्यारूय ती थिरावता. आपल्याच मनाची बुझवण करता. नवे लांद-पास जोडपाक फुडें सरता. तिचे जिणेंत एक दुसरो जुवान येता. हो तिका काजाराचें उतर दिता. काजाराचो दिस, वेळ थारायता. न्हवरो म्हापशां वता म्हणून सांगून वता, आनी काजाराच्या दिसा तिका तेलेग्राम धाडून, आपुण काजाराक येवक पावना, आपली आस्त सोड अशें सांगणेन तिच्या काळजार फातोर घालता. तीं बाबडी कितें करतलीं ? काजाराच्या ह्या अश्या उमेदिच्या दिसा ती लजेन आनी निर्शेणेन आपल्याक सदांच्याच कुडांत धांपून घेता. आनी केन्नाय एक दिस आपलो न्हवरो येतलो अशा भ्रमांत वावुरता. तिची ही दुखेस्त काणी आयकुन तिचो तेस्तामेंत बरोंवक गेल्या 'तावेलियां' वरीच वाचप्यांचेंय काळीज चिटमिटल्ले बगर रावचें ना.

'माकडावपणा' ही कथा मात थोडिशी निबंधाचेर गेल्या. कथांच्यो काय पती हांवे दाखयल्यो. सगळ्याच कथांचो नियाळ हांव सांगूक वचना. वाचप्यांनी मुजरत कथा वाचच्यो.

पद्यापरसय ओलिव्हिन्न्यू बाबाच्या गद्याचे भाशेक एक फुलती कांत आसा. फुलत्या जुवानपणाची वर्णना करपाक 'मारी-जाकिन वाट्टो कावथो कसो दिसानदिस आंगलोटीन भरून येतालें' अशें सोपेपणान ते बरोवन वतात. आस्त आसा, कोंकणी वाचप्यांक 'मन बोडटा वोडना' हो कथांचो घोस मानवतलो आनी ते ताका फाव तो येवकार दितले.

पणजी ४ सेतेंब्र १९७९. —पांडुरंग भांगी

# साँत

शेकानशेक पातळिल्ल्या पांचव्याचार वाडट्या शेतांत थांब रोंपचेलो वावर चलतालो. अेके बारा–जणांचे रांगेंत उगत्या आंगार काश्टी मारिल्ले दाणगे मानाय आनी काश्ट्यान–कापड–देंटुलीं न्हेशिल्लीं कामेऱ्यां शेतांत खेळटल्या वेतभर पाणयांत कूशल हातांबोटांनी थांबाच्यो रोंपयो मातयेंत खोयतालीं. त्या शीतळ पांचव्या पड्ड्यार तांबडें–रगत कापड काश्ट्याक बांदिल्लें तणटणीत मारि–जाकिन उठून दिसतालें. ताच्या खांध्या-वोड्ड्याक हळड्व्या फुलांची चोळी वेंग मारून खर्शेताली. वावराड्यां बराबर तेंवूय ओडोव घालून रांगेंत थांब रोयत वेतालें. पुण वेळोवेळान हेरांचेर नदर मारीत अिल्लो विसव घेवन, तांकां सडसडीत काम करूंक फुसलायतालें तशें धोडकायतालें. मदीं मदीं कित्याचो तरी हुसको जाल्लेभशेन, मातयेल्लें बोट बेंडाक पुसून चोळयेंतल्या मदल्या भागांत कितें तरी हात लावन पळेतालें.

ल्हवू ल्हवू थांब रोंपीत रांग फुडें येताली तशीं मनशां नदरेचे फास्केंत सामकीं दिसतालीं. व्हडल्या राजमहल सारक्या घरांत बसून, जनेलाचेर पडून घरांतलो भाटकार तें ताचे वटेन हांलतलें सरकतलें चित्र दोळेभर घोंटून घेतालो. रांग लागीं पावता म्हळयार तांतलीं मनशां व्हड आकारांत दिसतालीं आनी तांतले तातूंत मारि–जाकिन तर भाटकाराचे नदरेक खास भाळयतालें.

वोडोव घालो म्हणचें ताची टायट-फुट्टली चोळी मदें दोण्यांत उगती पडटाली आनी हो गुबगुबीत आंवडे गिळपाचो देखाव भाटकाराचे दोळे थिरायतालो. वयांत आयिल्लें सगलेंच मस्त तर्णेपण ताच्यांत फुगतालें. ताका वयर सकला पळोवन भाटकाराच्या आंगांतल्यान विजे झटक्यान शिरशिरो भोंवलो.

आनीक ओर्दी सोडून मारि–जाकिन शेतांतलें कडसल्लें. घरालागच्या भाटांत गेलें. थंय कवाथे लायिल्ले ते शिंपचे आशिल्ले. बायचेवेलें उदक दोडीन हाडून कावथ्यांक घालें. वाडिल्ल्या माडाचेर जाणातली नदर भोंवडायली आनी घरावटेन सल्लें.

फांचु भाटकार भितर बसून, पुस्तक वाचतना, हो देखाव उमेद रेखून पळयतालो. कवाथ्याचेर नियाळून ताका येवजतालें. मारि–जाकिन अेक वाडटो कवाथो कसो दिसानदीस आंगलोटीन भरून येतालें. तें कवाथ्यांक शिंपतालें...पूण...ताका कोणें...? ताचीय स्वताची पिराय आतां बरीच फुडें पाविल्ली म्हणपाचें ताका खंतिभरीत जाणवतालें.

अितले म्हणसर, खंयच्यानुच मारि–जाकिन ताच्या कुडींत उबें जालें.

"कित् गो, मारि–जाकिन ?" भाटकारान विचाल्लें, ताका वयर सकला ओंडावणेन नदर–पोशेत.

"शेता रोंपणे आउर काब् जाल बाब, तेंक् दुडु दिवपा जाये." मारि–जाकिन शेतातल्या वावराचें भाटकाराक कोंत दितालें.

"वावरा फोबोर मागिर पोळया ! तूं केश आस गो ! बोरें फुलोंल मगो ह्या दिसांनीं !" उतरां गीळत तिका नदर-सांसपीत, भाटकारान वयल्या–वयर खबर घेतली.

"हे मुगे दीस न्हूं भाकराबाब," लजेत, मान खाला घालीत, मारि–जाकिनान म्हळें. ती फांचू भाटकाराली शेतां–भाटांतली मुंडकान्न तशीच तांगेल्या घरचें येवन-वचून काम करपी वावराडी.

तजोरीकडेन वचून भाटकारान दुडू हाडले आनी पन्नास रूपया मेजून, ते मारि–जाकिनाच्या हातार दवल्ले आनी म्हळें "सात मानाय आनी पांच बायलो. तेंक फारिक कोर्न यो." दुडू घेवन मारि–जाकिन थंयच्यान गेलें.

फांचू भाटकार आपल्या पुस्तका कडेन परतलो. जुलयो दिनीजांची " अुश फिदालगूश द काझा मौरिश्का " (मोयरांच्या घराण्यांतले सरदार) ही नामनेची पुर्तूगेज कादंबरी ताका खूब मानोवताली. आपल्या सारकेल्यांनी ती वाच्ची, अशें ताका दिसचें, कित्याक तोवूय मोठया घराण्यातलो येर्देरी. साश्टींतल्या करमण्यां ताचें घरभाट बेंस मोठयातलें. शेतां तशे माड जायते. ताचे पूर्वज राजवंशातले म्हणपाचो ताका व्हड अभिमान. ताच्या आज्ज्या-पणज्यां मदें दोतोर, पाद्री, आदवोगाद (वकील) आनी जेनेराल लेगून जावन गेले. तांचीं सगल्यांचीं रंगा-तेलान-काडिल्लीं जीवित-आकाराचीं चित्रां साला-वसऱ्याचे वणटीर लायिल्लीं आसलीं आनी तांतल्यान ते जिवेच नदरेन पळेतात कशे दिसताले.

फांचू भाटकारान मात कसलोच प्रताप करुन दाखयलो ना. परतें जाल्यार, आपल्या खोसपायांनी आनी कार्तां खेळांत तांच्या वांटयाक आयिल्लें तेंवूय हेरांस वोगडायल्लें. आतां फकत अेक पंदरा खांडयो पिकतलें शेत आनी शंबर-अेक माडांचें भाटलें ताच्या ताब्यांत उल्लें आनीं तांकां तेंकून राजमहल सारकेलें व्हडलें घर, जांतूंत तो आतां बिराड करतालो. तांतली आदल्या-काळावेली नाजुक आयटिकेन केल्ल्या कदेलां मेजाची मुस्तायकी जतनायेबगर गैरोमांत माखून पिडुचार जाताली.

आंतोनयु फ्रांसीश्क वोल्तेर दश मेर्सेझ दीयश, हें आतांच्या भाटकाराचें लांबच लांब नांव; पुण लोकांचे वळखींत ताका फांचू, अशे पाचारताले. आदवोगाद मारयो दीयश, हांचो तो अेतलोच पूत. ताची भयण, आलिंदा, करमणेच्याच तांबडेज वाडयार सिल्वांगेर दिल्ली. तिचो घोव फाझेंदांत

उंचलो अेमप्रेगाद. पणजे लिसेवाक म्हणून ताका घाल्लो. पुण फांचूक तेन्ना शिक्शणा परस हेर करमणुकी चड लागताल्यो. निमाणेकडेन नज व्हय करून कितल्याश्याच वर्सांनी लिसेवाचें पाचवें वर्स ताणे सुफसेंतीन पास केल्लें. पुण फुडें कितेंय करपाक अित्सा दाखयलीना आनी कोंकुर्साक बसपाक केन्ना धाडजलो ना. कार्तां खेळाचें आनी पीवपाच्या रोदांचें ताका अितलें व्यसन लागलें कि तांच्या धुंवरातल्यान ताचें कोंवळें जीवित कर्पून विज्जून गेल्लें. काजारूय जावपाक ताका धीर जालो ना. तसोच लग्नाविरेत राविल्ल्यान आता पन्नासांचे पिरायेंत तो भितर सरतालो.

तेन्ना गंभीर चिंतनां येतालीं. आपुण काजार जाल्लों जाल्यार बरो सायीर जावपाचो. येन्ना घर–संवसार करतलो आसलों. भुरग्यांचो धीर-आदार तरी आपल्याक मेळटलो आसलो. फेलीसया, हे ताचे भाच्चेचेर ताचो चड माया. तिकाय बी ती-फांशुची खास आवड. तीवूय आतां काजराचे पिराये पार जाल्ली. हांगा तांकां बियात वो बियातुलां म्हणटात.

भाटकारान रांदचेकुडींत पासय माल्ली. मारि–जाकिन चुलींतलो उजो फुंकतालें. फाटल्यान येवन, वोंडोव घालून कांचून ताका दामून चिमटो काडलो. चोळयेच्या वोडुयाकडेन खोयल्लें ताका कागद झळकलें. चपकोभरीत हात घालून तें भाटकारान काडून घेतलें. पळे जाल्यार, प्रोवेदोरीचे सोर्तीचें अेक कावतेल. मारि–जाकिन कांचवेलें.

"कित गो, मार-जाकिन, सोर्त काडल्यायी ?" भाटकारान प्रस्न केलो

"ना, भाटकारबाब. त्या रोवळु सोर्तीकारान म्हाक दील ती," जाप आयली.

भाटकारान सोर्तीचो आंकडो वाचून घेतलो, ४८७३२. ही सोर्त काडपांत ताका व्हडलेंशें शाणेपण दिसलेंना.

"आगो, मार–जाकिन, त्या तुगे कागदा कुडक्याकू वाठोर आस गो ? तो भायर उडय. ओगोत पेड्र कोर्त बेस्टो," अशें शिटकायत, भाटकारान मारि–जाकिनाचेर सुचोवपी हात भोंवडायलो.

फांचू भाटकार आनी मारि–जाकिना मदलें नातें लोकांचे जिबेवेल्यान भायर सरतल्या टिकेच्या कातरीर तिस्त्यान तिस्त्यो शिनपांत येतालें. ह्या गजालींची चड दूख भोगताली ती फांचुचे भाच्चेक, फेलीसयाक. फेलीसया शिकिल्ली सवलेल्ली, पियान वाजोवपाक हुश्यार. पुण ती बाबडी आंकवार पणांत उकडटाली. तिचो म्हातारो बापूय सांगतालो कि हाडिल्ल्या जायत्या नवऱ्यां मदलो तिका कोणूच मांदलोना. पुण तांची लागशिली वळख आशिल्ले सांगताले कि ती आंकवार उरपाक हेर कारणां आसलीं. तांतलें अेक म्हळचार दोतीक (वर्दक्षणा) दुडु देणें घालपांत तिच्या पापाक शाणेपण दिसलेंना. तांचेलागीं तर दुडु आनी भाट-बेंस फाल्त नासलें. तरुय फेलीसिया ती-फांशुचे गिरेस्तकायेचेर मीटी मारुन रावताली. घडये ताचेरुय जायत.

अशेंच एक दीस फेलीसिया बाय दॉन क्लारींदा भाटकान्नीगेर गजालींक म्हणून आपलें बोर्दोसांव घेवन गेल्ली. तेन्ना थंय जी खबर तिज्या कानार पडली ती सत्मानपाभायरी, अशी तिका दिसली.

"आगो कित सांगोचें गो फेलीस तुका," दॉन क्लारींद फुसफुत्ताली "तूं अिमाजिनार देखून करपा ना! तुगे माम, फांचू, काजार जाल मगो, काजारु!"

"कितें सागोता? आम्क सांगलोना मगो, दॉन क्लारींद!" थटाकून गेल्लें बियातूल बावडें उळउळ्यान विचारतालें.

"सांगतोल बाय कितें! त्या ओळशीक क्रियादा कोडे जाल मगो काजार!" दॉन क्लारींदान गोबायस करुन मारेकार बोंब उडयली. आंकवारीक चुवळ आयली, हें सपनांत लेगीत तिणें येवजिलें नासतलें.

"तूक कोण सांगील, दॉन क्लारींद ?" बऱ्याच वेळा उपरांत चवकशीचो प्रस्न तिच्या कांपलेल्या जिबेवेल्यान सुटलो.

दॉन क्लारींद खबरेकान्न फोडणीशी दिताली; "आगो, कित सांगोच तुका, फेलीस, काल फांत्या, मुगे साला जोनला भायल्यानू अेक टेक्सी गेलोली ती आयेन देखीली. कोण सो न्हवरो-व्हकल न्हेसून बोसलेलीं भितर. मुगे कुरयोझिदादीनू, बेगीं आयेन दुसरो विस्तीद चडयलो, शावल माथ्याक घातली, आनीं तोंड लिपयत अिगोर्जेत भितर सल्लीं. पाद्रकूर रेसपेर कोंतालो. त्या तुगे धाेलया तीवाकू रोखडो वळखिलो. पुण व्होकल न्हूंय गो कोण तणतणीत फिटफिटीत भुरगें-शें दिसोलें. बारीकसाणीन चोयल्यारी, तुगे मार-जाकिन न्हूंय गो. आगो, तेदोणा, मुगे कुरासांव पोडलो म गो. देव सोंसूंक कूर्पा दी सायबा ! येसोल कोर्तुब तेण कोरपाचें !"

सोयराणार येतकच फेलीस सोमतीच मामागेर गेली. भितर सरतानाच तिणें फांचुचेर खर-कडक उतरांच्या फोगोटींचे माराण सोडले. पुण फांचू अनमनलो ना. ताणे सगलें थंडपणी आयकून घेतलें. बायलेक उठो माल्लो आनी नवी कशी वळख करून दिली. "मींया सुब्रींन्या-मुगे बाच्ची, फेलीसया ही, पोळे, ही मुगे घोरकान्न-दॉन मारीय ज्योआकीना तेर्तुलियाना फ्रांसीश्का फेर्नांदीश ई दीयश."

आदलें काश्टो-मारपी मारि-जाकिन आतां नव्या रूपांतरान, रेंगालांचो सुपेरयोर लुगटाचो विस्तीद न्हेसून, फेलीसया-मुखार खांकडत खांकडत फुडें आयलें. आदल्या संवंयांचें खत तर सामके वचूंक ना.

"बाय, बोरें आस म गो ! तुक कित सांगोच बाय, भाकार मूज फाटीक लागोलो म्हूण काजार जालें बाय." मारि-जाकिन काजराचें कारण दितालें.

"फूंयच तोंडान उलयत गो ? आमगे घरांतुलो शेणाकिड म गो तुं भाटकान्न जावपा बोरीऽऽ माण्णी केल म गो तुवें ! कॉर्जा ! सूजा !"

असल्या उण्या उतरांचो उजो उडोवन, उपाय नाशिल्ल्यान फेलीस घरांतली भायर सरून गेली.

दनपरां जेवणावेळार फांचू भाटकार बायलेक मेजार आपयतालो. " आगो मारि-जाकिन, तु जेवपाक मूज बराबर मेजार बोयस गो. आगो तुं साक्रमेंता बायल मगो म्हुगेली. "

"ना बाब, तूं बोयस. हांव माजीर कुजनांत जेयतां." बायल सांगताली. " आगो, तुक पीश लागोलां ? तूं आतां भाटकान्न जाल मगो, घोरकान्न म्हुगेली. अींग यो. " भाटकार समजयतालो.

" येश योगो " भाटकार गूठ सांगिल्याभशेन करतालो बायल लागीं आयिल्ल्यान, " आतां मुगे ऽऽऽ आनी तुगे ऽऽ दुडू अेकठांय कोरून आमी फोडेगांट, वीद सारंय. "

" बाब, हांव सोम्जलों ना! " मारि-जाकिन घुस्पागोंदळाक सांपडून म्हणटालें.

" बाब म्हुणो नाका म्हूण कितू पुसा सांगील गो तुका. आगो, तुगेऽऽऽ सोर्ती नूंब्र आयेन फिक्सार केलोलो. काल बाजरांत सोर्ती नूंब्रां लीस्त येयलोलें. तें चोयल्यारी, त्याची नूंब्राकू अेक लाख रूपोय ! प्रेम लागोल येगो अेक लाख रूपोय! मोतींत येयल्या तुगेल्या? " भाटकार खोश्शेन पर्गटायतालो. " सोर्त फुटोल मगो आमकां अितू दुडूमगो ! आनीक कितें जायें ! बेगीं घेवन यो ती सोर्त तुगेली. "

" बाब, ती सोर्त मुको ना ! " मारि-जाकिन सांगतालें.

" कितें ? सोर्त ना? म्होणचें कितें ? फूंय घायल गो ? " भाटकार उत्सुकतेन प्रस्नार–प्रस्न घालतालो.

" भाकरान सांगलोना, तो कागदाकुडको शिरीं पोडना म्हुणू ! तेदोणा तो आयेन पिंजून भायर माल बाब. " मारि-जाकिनान जबाब दिलो.

" आगो, रेडका, म्यार्दा, कीत केलें गो तुवें. फोंडांत घायलो म गो म्हाका. " भाटकाराक भिरभिरी माल्ली.

तेंच तेंच आड्डत, फांचू भाटकार संतापून न्हीन्नून शेवटलो.

# मन वोडटा वोडना

वाडत वेतले राती थंयच्च्यान जिनसांवार लोक पासार जातालो. तांकां चित्तान पळेतना तो उचांबळून गेल्लो. उमाळचार आयिल्ले उमाळे कशाय भशेन आळा-बंदा हाडून, चिंतनां दुसऱ्या खंयच्याय पाटार सोडपाचो येत्न करुन, ताका मद्यान- रातीर घडये दोळो लागिल्लो. दांडगो रगता- मासाचो मनीस तो कितेंय जाल्यार. मनशाक लागतल्या सगल्या आशा- निराश्यांक ताचेंय बी काळीज फूलतालें आनी बावतालें. ताच्याय बी शिरंत्रानी जितें जीवें रगत सळसळटालें. तोवूय बी आप–आपले परी गोड सपनां रंगोवपाक आपले हावेस फुलार दवरपाक नज–व्हय करुन येत्न करतलो.

पुण हें सगळें खरें म्हळचार उपकारता कित्याक !... तसो पळोंवक गेल्यार तो समाजाभायलो जाल्लो. समाजाभायले जातीन पडलेलो, तसली जात म्हणपासारकी आसा जाल्यार, कोड वा कूष्टरोग ताका पोखरुन खातालो. ताका लागून ताका बाबडचाक सगल्या घरच्यांनी सोडून दिल्लो. आवय–बापूय, भाव–भयणीं, सोयरीं–धायरी, शेजारी–पाजारी, सगळचांनी ताका वळखी–भायलो केल्लो. गरीब–दुबळो आशिल्ल्यान ताचे पिडेक उपाय-अिलाज करपाक कोणाक तांकलें ना. नांव ताका दिल्लें खंय रामलाल. पूण

आतां तो बेनामी जाल्लो. नाव नाशिल्लो. फकत अेक कोडकार, कोड लागिल्लो अेक मनीस. हेंच ताचें वर्णन दितलें खरें नांव आतां. नांवाचो तरी कसलो उपयोग ताका...

   

तो अेक दीस परज़ळीत उदेलो. न्हीदेन भरमेवन जड जाल्ले ताचे दोळे सूर्याच्या उजवाडान उगते झालें. ताणे ते राग-उबगून पुसले, आनी अेका दिसाक फुडो करचो आसलो. उचांबळीत दिसाक. भावनांक उजो लायतल्या दिसाक. रात तरी पांगरूण घालताली त्या वासना-ओंडावणेचेर सुस्त न्हीद पडून विसव तरीं मेळटालो. पुण दिस न्हंय. मारेकारूच आशिल्ले दीस वळवळयांचे !

रामलालान आपले भोंवतणी नदर माल्ली. आयिल्ल्या दिसा ताचो तोच अेकूच जागो. तोच अेकूच आंगणा-देखाव. फकत आंगणांतलीं सवंगां वेगळी. त्याच फास्केत चित्रां येता-वेतालीं तितलींच. दोनूय वाटेन दोन दुर्गां आनी मदीं देंवतलो अशीर शिमिटायल्लो रस्तो. अेका दुर्गा भितल्ल्यान व्हडली अिमारत. त्या मुंबयच्या माजगांव वाडयांत, लोकभरीत अिमारत. जाण्टी, दांडगी, तन्नीं, भुरगीं-बाळां सगल्या माळयांचेर कुजबुजतालीं. तोंड धुतालीं, दांत घांसतालीं, न्हातालीं. सामकें पातळ आंग-दिसपी आंगवस्त्रां न्हेसून सूर्याकिर्णां न्हांवूक बलकांवांचेर येतालीं. मोगान सगलीं कुटुंबां जियेतालीं हें ताका उगतेपणीं दिसतालें. आनी चडूच मिडमिडे उफेवन येवून ताका कुचकुचताले आनी खुबळायताले.

हो सगळो देखाव तो घोंटून घेतालो. ताचें आंग सामकें अथरेकतालें. सगल्या मासाक ताच्या चिमटे पडूं लागले. सुयो जाल्ले भशेन किसकिसावंक लागल्यो. पुण आख्ख्या आंगाक न्हंय !... आंगाचे कांय भाग कुसूंक लागिल्ले, निबर जाल्या उपरांत. घाये पडलेले. ते बुसबुसताले. मागीर

ल्हवू ल्हवू ते मेल्ले कशे जाल्ले. दूःख म्हणून लागनाशिल्ली. भेरेल्ले, मुयेल्ले. आनी कुसत, कूसत, गळून सुटून पडलेले. तो आडचल्लो. अिल्लें अिल्लें ताचें आंग सामकें कुसून वेतालें.

आपुण आपणाचेरूच ताणे मात्शी नदर भोंवडायली. ताची कूड जडावन कुसून वेताली. दोक्यांचेर चडयल्लें कालसांव पिजून वाद्रचो जाल्लें. वाळे-ताळे जाल्लें अेकावेळचें रंगीत खोमीस. सोडुल्ले वळी नाशिल्ले केंस. बुरशें वाडिल्लें खाड म्हेळांत बुचकळटालें. मंद वाऱ्यान उबतालें. ताचे सकलें आंग आजून बरें आसले. लींगाचीं वासना भौन भौन चाळवताली. तीच ताका विसव दिनाशिल्ली. काळीज तर केन्ना भेरेता ? तें जागेंच, जिवंत धडधडटालें. मन जितें जिवेंच, विचार चित्रां फुलयतालें आनी आशेन रामलालाक फुलार दंवरतालें. पुण ओंडावण्यो ताच्यो सगल्यो सदाकाळीक धांपण्या पोंदा चिड्डोताल्यो, दुखाभरीत घुसमट्टाल्यो आनी भितल्ल्यानूच फुरफुरताल्यो.

दोळे पावतात पुण हात पावनांत. कित्याक अशें जावचें ? देवा-धनयान ताकाय म्हणून रचूंक ना ? हेरां बराबर ह्या संवसारांत ताकाय बी हाडूंक ना ? ताचेरूच कित्याक हो अन्याय ? कित्याक, कित्याक गा सायबा ? कोणाक म्हणून उलो मारचो ताणें ? कोणाकडेन नियाय मागचो ?

   

अितले म्हणसर थंयच्यान अेक मेत्तरानी-झाडुवाली कावडाचें पोत भेंडाक खोयत, मिर्यो धरीत, पांटली झाडु घेवन आयली. नखरे करीत झाडू मारताली सगळो घाणयारो कचरो-कयर अेके पांटलेंत पुंजायताली. पुंजायता पुंजायता रामलालाचेर आडवी पालशी अर्थाळ नदर फिरायताली. ते ओड़पी नदरेंत आपोवणेचें ल्हार धोलतालें. भिरोवणेचो हुंडको उडयो मारतालो. मुद्दम ताका खुबळायताली. उंचोयताली, रामलालाक हें सगळें निस्चीत झळखलें. आनी ताच्यांत उठाव निर्माण जालो. बंड सळसळ्ळें. अंतस्कर्णांत तुफान उप्रासलें. ताच्या दोळ्यांत रगताळो लिकलिकाट झगझगतालो.

सगळ्या आंगापांगार उदेल्लो. ताच्यो वासना फुलार आयिल्ल्यो. तांकां कसो सभावीक वाव दिवचो, तेंच समजनाशिल्लें.

ताका उंचो त, उंचोयत ती मेत्तरानी सामकी ताच्या फुडयांत आयिल्ली. तिणें बळयां आपल्या खांदावेलो पालव सकल उडयलो. कयर म्हणून पुंजावपा खातीर तिणे ओडोव घालो. करताना, रामलालाचेर वोश्शी दीश्ट उडयली. कोड जाल्लें तरी आंगलोटीन तरनाटो तो, तिका दिसतालें. मेत्तरानीच्या ब्लुजाची गोमटी उगतेताली· थंय रामलालाची नदर गीदा भशेन अेका झोंपायन गेल्ली. तो देखाव तो उमळशीकेन गीळ-घोंट्टालो. तिच्या अन्निल्या आंगस्त्राचे तिणे कांय दुवे सोडिल्ले. मुद्दम ताच्या मुखार तो खिळायतलो देखाव तिणे शेवटिल्लो. लागीं पाविल्ल्यान, ताणे सट्ट करून हात फुडें केली, तिका धरचे हेतून. पूण तिणें ताचो चपको चुकयलो. ताच्यो मस्कऱ्यो करूंक लागली ती. पोजडीं खोदळपी उतरां, सुचवण्यो पांटें-भर ताचेर शेवटून माल्ल्यो तिणें. आनी ताचो जबाब वो परतीपाळ आयकूंक ती अथरेकताली, आंवडेताली.

रामलाल भितल्ल्या भितर उज्यांत हुलपतालो. कोडान खावंक नाशिल्ल्या भागांत तो उजो चडूच विखारान भगभगतालो. ही मेत्तरानी लेगीत ताच्या हाता-भायर आशिल्ली. तिका हरशीं समाज उणी लेखता. तिका आफुडल्यार म्हेळेपण मानता आनी तें धुवुन पुसून काडचे खातीर देवस्पण फर्मायता. पुण तिच्या कुडीचो भोग डोळे धांपून घेता.

व्हय, हो समाज कितलो ढोंगी ?

कितें म्हणटालो ! व्हय, ती उणी, सामक्या सकयल्या पांवड्याची बायल लेगीत ताका मेळनाशिल्ली. ताच्या चपक्या भायर आशिल्ली ती.

❖ ❖ ❖ ❖

पयस रावून, कचरो-कयर पुंजायतं, मेत्तरानी ताका मिटमिटायताली. उंचोयताली, सारून (सान्न) मारताना, हांगा-थंयच्या वेतल्या लोकांक

दोळे दोळेच भरून घेताली. अेक दोन पोजडीं सुचोवपी उतरां तांचे त्रशीं उडयताली. रामलालाक तर सगळे तरेचे लिंगाळ अिशारे करताली. आनी म्हणटा म्हणटना आंग मोडटा म्हंटाली. ताच्यो भावना आतां रागांत लोळटाल्यो, उसळटाल्यो. तांतल्यान मारेकार येवजण्यो आंग घेताल्यो. ताचेर कशाय भशेन ताबो दवरपाक तो खरशेतालो.

   

रामलाल बिराड करतालो ती सुवात रस्त्यावेल्या कुशीच्या खळयेचों अेक बुरसो कुडको. थंयच, वोतांत सांवळी घेंवचे खातीर दुरगाक तेंकून अिल्लो साकाचो कुडको आनी अेक खुंटी लावून ताणे आसरो तयार केल्लो. त्या खळयेच्या व्हाळांतल्यान कुसकें घाणयारें रेबें व्हांवतालें. ताच्या सारके अवस्तेंतले, समाज-उश्टें म्हणी सारके लागींच तशींच साका-कुडक्यांचीं खोंपटुलां घालून रावताले. थंयच रांदताले. थंयच उदकाडे बसताले. थंयच जेवताले. त्याच घाणींत ते अेकामेका बगलेक न्हिदताले.

पुण ह्या सगळ्या मदें जातीं जातींचो भेद-भाव आशिल्लो. वयर सकला पांवडे मानपाची सवंय आशिल्ली. त्या पांवड्यांमदीं रामलाल सामको निमाण्या पांवड्यार उरतालो. जरी, जसो तो म्हणटालो, तो वयल्या जातींत जल्माक आयिल्लो.

ती मेत्तेरानी बायल ताका सोडीनाशिल्ली. दिसा दिसपट्टी अशोच ताका उंचोयताली. पोजडे सुचोवणेन ताका केंडटाली. पुण पापणी एकुय दीस ताच्या हाताक सामकीच सांपडली ना. तेन्नाच तिचो फोर्स काडटलो म्हळयार ! बेश्टो हात लांवक लेगीत ती ताका मेळ्ळीना. ताणें कोणांक म्हणून हात लांवचो ? मायेमोगान कोणाचेर हात भोंवडांवचो ? ताकाय बी मोग करपाचो हक्क आशिल्लो. ताकाय भावनीक गरजो आशिल्ल्यो. आनीक कांयच काम नाशिल्ल्यान, त्यो भावनीक, मानसीक

आनी कुडी गरजो ताका चडूच धमकायताल्यो. त्यो भागयतलो म्हळ्यार ताका सादनूच नाशिल्लें. त्यो चेपून थांबवोन उडयतलो म्हळ्यार ताचे शक्तींत कुवेत नासली. कितेंच केल्यार कांयच जायना म्हणपाचें कोडू खरेपण ताच्या तोंडार थापट मारतालें.

तेन्ना ताच्या हुसक्यांनी घुसपायल्ल्या मनार जोव घेवपाचें, उबगणीचें, बुडोवन उडोवपी ल्हार येतालें. आवय-बापायन आपल्याक संवसारांत कित्याक म्हणून हाडलो आपलो परामर्स करूंक तांकां आयलो ना जाल्यार ! ताजे रचणेचेर देवान कित्याक आशिर्वाद घालो ? हाचेर येवजीतना ताका आपल्या आदल्या दिसांचो उगडास आयलो. तो हांगा कसो पावलो ते विशींच्यो घडण्यो धबधब्या भशेन घसघसीत ताच्या दोळ्यां मुखार देंवताल्यो.

   

सगळ्यांत आदली याद येताली ताका ल्हान आठ वर्सांचो भुरगो आसतना, तेन्नाची. उत्तर प्रदेशांतल्या लखनव राजधानी शारांतल्या भायल्या वाड्यांत तांचें बिराड आसलें. रेब्यांत बसयल्ल्या अेके खोंपटेंत तो खेळटालो. कागदाचीं व्हडीं करून तो थंयच्यान व्हांवतले घाणींत सोडी. आनी तीं सूस्त वाट ताणटलीं पळोवन ताका धादोसकाय भोगतालो. आपुणूय तसो वच्चो म्हणपाचें ताका खातरीन दिसतालें.

रामलालाचीं आवय बापुय जरी जातीन वैश्य शेतकामत्यां आशिल्लीं, तरी गांव सोडून शारांत आयिल्ल्याक, तांका फाव सारकें काम मेळना जाल्ल्यान सामकीं लाचार जाल्लीं. बापूय हमाली-वजेकाराचो वावर करतालो. आवय कोणागेरूय आयदनां धुताली. तरूय बापायक सोऱ्याचो नाद आशिल्ल्यान जोडिल्लो पयसो जेवणाक पाव नासलो. चडशें ताणी अर्द्या पोटाचेर रावचें. लोकांल्या कोयरा भाणांत उरटें उस्तून ताणीं तांतलें खावचें. घरांत स भुरगीं. तांचे हलावाल जातालें.

रामलाल असोच वाळेस वाडून आयलो. त्या रेबंटचा चाळींत ताणे वर्सां सार्ली. त्या जिवीतांतल्या काय खीणांचो ताका जिवाळ उगडास येतालो. काम नाशिल्ल्यान, ताणे चोरुंक भोंवचें, भीक मागची आनी वाडत वेतले वासनेक व्हाव दिवचो. अेके शींदळ बायलेच्या चपक्यांतूय तो पयलो पडिल्लो. तेन्ना खतखत्याक सदळ व्हाव दिल्लो. पूण केल्ल्या करणेचो परिणाम दिसलो ना, हाडिल्ले दुडू तो ह्या खसपायांक उपकारातालो.

अवचित अेक दीस रामलालाच्या तोंडार अेक घाव दिसलो. दाव्या भोंवतणचो कुडको मुयेल्लो. सामको भेरेल्लो. कांय दिसांनी घाव बुसबुसलो. वाडलो. आनीक अेक घाव जालो. आनी आनीक घाव तशेच कुसूंक लागले. घरच्यांक गोमलें. तें दुवेंस कोड वो कूश्टरोग म्हणून कळना फुडें घरच्यांनी ताका फाफुडलो. अेकाच खिणांत तो घराभायर जाल्लो. अेकलो अेकसुरो जाल्लो. अशें आसून, ताका धरून व्हरचे आदीं, धांवून, पडटा थंय भीक मागून खायन म्हणून तो भायर सरून गेल्लो. आग-गाडयेंत भितर सल्लो. आनी कसोय करून मुंबय पाविल्लो. व्हय तो अेका नव्या शारात पाविल्लो. हांगा ताका कोण वळखूंचो ना, अनामिकांत तो शेणटलो, अशें ताका दिशिल्लें. आपल्याच पायार तर ताच्यान उबो रावूं येतालो हांगा.

ताच्या आंगावेलें कोड वाडत गेल्लें. सगळचा आंगा सांध्यांक तें पातळटालें. आतां शिंदळ सुद्दां ताका लागीं घेनाशिल्ली. तो आडचून पडिल्लो. कोणाचोच आदार आलाशिरो नाशिल्लो ताका. घरचीं तर ताका सामकीं विसरिल्लीं, ताका देवाक सोडिल्लो.

   

तरे तरेन न्हेसून गेल्ल्या लोकाक तो दोळेभर घोंटून घेतालो. निराशेचे दोळे ते. सामके आस्त-दिसनाशिल्ले निराशेचे. हे आवतिकायेंत कसलोच उपाय ताका झळखनासलो. फकत केन्ना तरी तो जीव काबार

करून उडोवपाचो. केन्ना ह्या कोडान खाल्ल्या कुडींतलो मेकळो जांवचो, होच आकांत विचार ताच्या मनाक फांस घेवून ताका घुसमटायतालो. हेवटेन ताचें आंग अिल्लें अिल्लें कुसून विर्गळून वेतालें, कोणाचोच परामर्स ताका मेळपाचो आदाव नाशिललो. अिस्पटलांत वचूंक तो सोदी नासलो. हेर कडेन तर ताका सुवात नासली.

आपल्याच हातान जीव घेवचो आनी हें फोडाफोडपी दूःख अेकदाच सोपोवचें, होच मार्ग, हीच सोडवाट दिसली ताका. तरीय दुसरे वटेन, आपल्या जीवाचो, संवसारांत जियेवपाचो ताका, ताचे परस चड मोग आसलो. देखून ह्याच मोगाक दसून तो जियेवंक सोदतालो.



# हारसो फुटलो !

परिक्षेच्या वसऱ्यांतल्या घडयाळीचेर सांजवेळचीं स वरां वाजलीं आनी म्हजो निमाणो पेपर हांवें सडसडीत सोंपयलो. नवी दिल्लींतल्या विमानी विजनेरकी म्हळचार Aeronautical Engineering- चे कोलेजीची ही पयल्या वर्सांची अखेरची निमाणी परिक्षा. हांतूंत पास जावपाचेंच आशिल्लें. प्रस्नावळ खरें म्हळचार कठीन हें फाण्टीं. पुण निमाणेकडेन अभ्यास केल्ल्याचें फळ आयिल्लें. बरें उत्तर दिल्ल्याच्या आनंदान म्हजें मन उफेतालें.

दिल्लींत माय म्हयन्यांत उबाळाचे दीस. भोंवतणचें वातावरण दाट चिकट. पुण म्हाका तें तितल्या प्रमाणांत आफडोनाशिल्लें. कित्याक म्हजे वेळें भारादीक जूं भायर उडोवन हांव मेकळो जाल्लों. जिवाक सू दिसतालें परिक्षा तर सोंपून आयिल्ल्यो. हुमेन हांव माखिल्लों खरो. पुण आतां मन पुस्तकां वेल्यान दुसऱ्या गोड विशयांच्या संवसारांत उडी घेतालें, ही खोश्येची गजाल.

तरीय आसतना म्हज्या काळजाचे खंयचे अेके तरी खांचींत हुसक्याची कळ लागिल्ली. कितें तो हुसको, हाची म्हाका कितलोय येत्न केल्यार, नाट मेळनाशिल्ली. त्या ल्हान-सान हुसक्याचे कोट्टीन पेटयल्लो काथो सगल्या आंगाक अुजो लायता दिसतालो. पुण असलो कसलो

तर तो हुसको ? आफडूंक वळखूंक जायनशिल्लो ... म्हजें चिकित्साय करपी मन ........ ते चिकित्साये फातरी धारेर घांसून पुसून तो हात-लागनाशिल्लो हुसको हांवें सामको कोयरा भशेन मनांतलो भायर शेंवटीलो. आनी परत आनंदाचें थंडावपी ल्हार म्हज्या थकून आयिल्ल्या मतीचेर सरळ सोडून दिलें.

" कसो गेलो पेपर ... कसो गेलो पेपर ? " ... म्हणून सगल्यांचो अेकामेका लागीं विचार-पाचार. अिश्टां बराबर हांव गजाली मारीत होस्टेलांत आयलों आयज परिक्षेचो निमाणो दीस आशिल्ल्यान फाल्यां सगलें सामन भरुन पेक करपाचें. फायच्या दीसा थोडचो वस्तु निकत्यो घेवन पर्वां घरा वचपाचें आशिल्लें.

सुमार अेका वर्सा उपरांत घरा... गोंय परतें पळोवप... सगले अिश्ट मेळटले. दिल्लीच्यो खबरी विचारतले... तांकां कितें सांगतलो,??? गोंया वेतकच कितें करचें ?? कोणा कोणाक मेळचें ?? तांतल्या भितर खासा कोणाक मेळपाची म्हाका उमळशीक आशिल्ली. व्हय, ताकाच न्हंय ? ताजें मुखावळ म्हज्या नदरेफास्केंत रुप घेतालें आनी वेतालें. पंदरा दीस फाटीं हांवे ताका बरयल्ले कि परिक्षा सोंपल्या उपरांत हांव घरा येतां. ताज्यो सोंपल्यो न्हय ? म्हजी वाट पळोवन दोळयांत तेल घालून रावता जातलें ... अश्यो म्हज्यो कल्पना म्होंवामुसा भशेन अेकार थावन दुसरे कडेन उडून चाकून नाचताल्यो. ... आमच्या नोटीस-बोर्डार चार-पांच चिटी आशिल्ल्यो. तांतल्यो दोन म्हाका, जांतले अेक व्हवळींक-पत्र वो काजाराचें invitation card ! हें अुगडलें. पयलें कोणाचें लग्न तें पळोवपाचें आशिल्लें ... व्हकले-न्हव-याचीं नांवा वाचल्या बराबर म्हाका धक्को बसलो. शेळो घाम सुटलो. काळजा-घडयाळाची टिक-टीक बंद पडली. म्हज्या बळ नाशिल्ल्या हातातलें पत्र भुंय पडलें. म्हाका कितेंच येवजना जालें. चिंतनाची वाट आळाबंदाक सांपडली.

पुष्पाचें लग्न ! ...कोणाकडेन ?...जांव कोणूय ? ... परत परत म्हजे धूंवरेल्ले दोळे तें नांव वाचताले आनी तें चिके बदलता काय म्हणून आस्थेन कलिपताले. तशें जांवचें म्हणपाचें आंवडेताले. ... हें कशेंच जावचे? अशोकाक तें विसल्लें कशें ??? आनी म्हणटा म्हणून पत्र हें अितल्या उसरां कशें येवचें? लग्न जावन दोन दीस वलांडिले. खरेंच दिसनाशिल्लें. कितें तरी विचित्र-अशें हांतूंत उमजतालें !...

   

परिक्षा जावचे पयलीं म्हाका ताची चीट आयिल्ली. तेन्ना लग्ना बिग्नाचीं कांय खबर ना. फकत मोगाच्योच खबरो. आनी अितल्याच दिसां भितर अितलो बदल ?...त्या कांलच्या अपुर्बायेे-मोगाच्या अशोकाक असो आनी अितले सोंपेपणीं सोडून दिलो, अेक साडी सोडून दुसरी साडी न्हेशिल्ले भशेन! हांवें सपनेल्लो विणून हाडिल्लो संवसार विर्गळुन, विरून असो गेलो?

अेक मात खबर बरयल्ली ताणे अेकदा केन्ना तरी ....म्हाका याद जाताली. पुष्पाचो बापूय खंय ताका न्हवरो सोदतालो. तेन्ना अशोकाचे नांव सांगूंक पुष्पाक काळींज जायनाशिल्लें .... पुण जेन्ना सगली शक्त पुंजावन ताणे म्हणून सोडिल्लें, तेन्ना बापायन सांगिल्लें खंय "त्या पोराची तूं वाट सोड. तो भुरगो शिकता मुगो ! केन्ना जोडीक लागतलो आनी ताचेलागीं चार पैशे गोळूंक लागतले तें पळोंवया. कुटूंबूय तागेलें .... व्हडलेशें न्हय ! ...आनी...म्हणटा म्हणून, या भायर वेतल्या भुरग्यांक पातयेवंक जाता ! थंयचें कोणूय येतना हाडलें जाल्यार हाडलें. अशोक कूर्स सोंपयता आनी कामाक लागता म्हणसर दिल्लींतल्या कोणूय अेका सावकाराल्या वो ओफसराच्या चेलयेक घेवन येतलो. मागीर, तुजें कितें गो बाये !"

हें आयकून पुष्पा सगलेंच घाबरून गेल्लें. हुसक्यांनी भारावन वचून पुष्पान आपल्याकडेनूच लग्न जातलो म्हणपाची म्हजेलागीं खात्री मागिल्ली. आदी हांवें ती दिल्ली. कित्याक हांव कोणाच्याच वाटेक गेलोना हांगा. तें मनार नाशिल्लें जाल्यार घडये हे काणयेक दुसरें वळन लागतलें आशिल्लें...

होस्टेलांत रातभर सोऱ्या-बिऱ्याची घरा-वच्चे-पयलींची निमाण्या दिसाची पार्टी नेटान चलताली. पुण तांच्या उलोवा-उलोवपांत आनी फकाणांनी संवय प्रमाणे हांव वांटो घेना म्हणपाचें काय जाणांक झळकलें. आनी ते म्हजे फाटीक लागले. म्हाका तर आनीक कांयच सुचनाशिल्लें फकत पेल्यार पेलो हांव सोरो घोंटीत राविल्लों. दुःख मोने-भेरें करपा खातीर तांतूत म्हजे सगले दुःखाचे आटेविटे बुडोवन सोडून दिवचे खातीर. म्हज्यांत उचांबळायल्लें खोदळ म्हाकां विसवूच दिनाशिल्लें. ती विखाळ खबर म्हाका पोखरताली. म्हजे कुडींत वचून न्हिदल्यार झेम पडनाशिल्ली. त्याच विशयाचेर दूश्ट चक्र घुंवतालें !

   

खतखतींत याद आसा म्हाका कशें आमी, अशोक आनी पुष्पान, अेक दीस कोणाक कळयनासतना सिनेमाक वचपाचे थारायल्लें ... थंय अेका कोनश्याच्या कदेलीचेर बसून आमच्या वेगळायल्ल्या संवसारात आमी रीगिल्ली. तेन्ना ल्हवू ताज्या कमरा भोंवतणी भियेत भियेत हांवें हात घाल्लो. ताणे आडखळ हाडलीना. म्हजे वशीन ताका वोडून घेतलें. तें चीबडा भशेन गुबगुबीत-सोबीत मोवाळ उबेचें थानां-तोंड म्हज्या हड्याच्या गोंटेरांत मुंगरून, पोशेत, पोशेत बुरकायतालें.

सिनेमाच्या पडद्यार रसरशीत गुलाबांची बाग आशिल्ली. तांतूंत दोगां मोगियां अेकामेकाक तेंकून भोंवतालीं. तांका पळोवन हांव दिसपट्टी पुष्पाक हाडून दितल्या गुलाबांची म्हाका याद जाल्ली. आनी हावें ताजेसवें पुटपुटिल्लें.

" अपुर्बाये, तसले जातीचे गुलाब हांव तुका हाडून दितां हां... "

तें आयकून म्हाका मोगान तुकतुकतले दोळे मोठे करून, सुस्कारून, पुष्पा उद्गाल्लें : " म्हाका तुजीं फुलां नाका अशोक, म्हाका तूं जाय. तुवूंच म्हज्या फुलांचो झेलो. म्हज्या जिविताचो परमळ.

अशें म्हणून म्हज्या तोंडाक पोशेवन ताणें तो विलुदा सारको हात वोडिल्लो. म्हजीं लजेतलीं उतरां काळखाच्या पड्ड्यांत भितर अनामीक कशीं भायर सरतालीं. कित्याक म्हजें खांकुडिल्लें मुखामळ ताका दिसनाशिल्लें. जरी म्हजे भितर जायतें शिजतालें तरी तें उतरांच्या रूपान वाडूंक म्हांका कठीन लागतालें. हांव फुतफुतलों "तूंच म्हजी देवता, पुष्पा, मोगाळ म्होंवाळ."

तेन्ना पुष्पाचे येदे उच्चारतले दोळे म्हाका अख्खोच घोंट्टाले. ताचे तांबडे गुलाबी मासाळें वोंट म्हजो उमो घेवपाक हुंडकेताले. तशे ताजे हात म्हजे भोंवतणी भोंवताले. म्हज्यांतलें तरणें रगत सळसळिल्लें. अेकाच खिणांत घोणी भशेन झोंपय मारून जोरगतीच्या संगमार आमचे वोंट अेकामेकांत विलीन जाल्ले. फाटीं फुडें सरुन पयलो, पुण मागीर नेटाचो खतखतो उमो लांबयतालो. दोंगरा गाळेंत विलास, पुष्पा आनी हांव अेकामेकांचें वेंगेत सुखावतालीं जेन्ना सिनेमा सोंपून आयिल्लो.

   

तशें पळोवंक गेल्यार आमची वळख आदली. पणजे कोलेजींत शिकतना ओडशेलचे वेळेर पिकनिकेक गेल्ल्या निमतान जाल्ली. गितां गावपाचे बसकेंत हांवें चार गितां गावन दाखयल्लीं. स्फूर्त येवन हांवें दोन म्हज्यो कवितायं बी म्हणून उडयल्ल्यो. त्या वेळार लागीं आशिल्ल्या पुष्पान अशोकाक जाळें उडयल्लें.

"अशोक, भोवूच बरो गायता मुऽरेऽतूं, आं...आनी कितलो म्होंवाळ कवी रे बापया" अशीं तोखणायचीं उतरां उच्चारून पुष्पा म्हज्या म्हऱ्यांत येवन गजाली सांगूंक बशिल्लें. ओडशेलची लांबदीक वेळ आनी तिचेर शिंपडून गेल्ल्यो कोंग्यांशिपयो ह्या आमच्या गोड गजालींचो आमचो आमकाच आनी फेणेरी दर्या ल्हारार पडसाद दिताल्यों. माडां-चुडटां आमकांच परामर्शी वाऱ्या पाळण्यांत धोलयतालीं. आमच्या चालत्या उलोवपाक सासणाचो सूर दितालीं. हेर भुरगीं नाच-बिंच करपांत गूल्ल आशिल्लीं.

आमचें उलोवप सोंपून जाता म्हळयार दीस पडट्यार परत बसीन वचपाचो वेळ जाल्लो. येध्याश्याच वेळान म्हज्यांत कितें तरी बदल घडोवन आयिल्लो. पुष्पाक म्हजे कुशीक बसून आंगान आनी मनान म्हाका सांगात केल्लो. ...

आनी कळटां नाकळटंना केन्ना चलयांचें मनार घेवपी न्हंय आशिल्लो अशोक पुष्पाच्या मोगान पडलो !

...पुण जरी दीस सरत वेता म्हळयार आमचो मोग दाटून गेल्लो, तरी हांवें अभ्यास, ह्या म्हज्या पयल्या मोगाक सोडलोना. पयलें वर्स पास जावन आमी अिंटर सायन्सीक गेल्लीं. आमच्या काणयेची खबर कोणाकूच नाशिल्ली भायरावन थोडचा आमच्या अिश्टागतीच्या भुरग्यांक. केन्नांय मात Practicals जाल्या उपरांत आमी कोलेजीच्या भायल्या वसऱ्यांत कोनश्या वतालीं तेन्ना कुरयोझिदादीन आमकां वाठारिल्ले दोळे कोरा करून पळेताले ! ...

आनी उपरांत तो... सिनेमांतलो प्रसंग आयिल्लो ! तसल्योच आनीक कांय संदी आमकां मेळिल्ल्यो. आनी मागीर आमी फुडाराचें सपन चितारतालीं. म्हाका अिंटर सायन्सीक फर्स्ट क्लास मेळून हांव दिल्लींतल्या विमानी विजनेरकी म्हळयार Aeronautical Engineering शिकपाक वचपाचो आशिल्लों. आनी पुष्पा कोलेजीच्या तिसऱ्या वर्सांत भितर सरतालें. पणजे धक्या कडेन येवन म्हजो पुष्पान खंतीवंत निरोप घेतिल्लो ! ...पुण... ह्यो सगल्यो खबरी फाटल्या.... फाटल्या काळाच्या विसरायेंत पडल्यो आतां ! ......

हांवें, म्हजे म्हाकाच, म्हळयार अशोकाक पुष्पा सांगाताना, तोंडभर, आंगभर, आरतो-परतो, वयर-सकल, भायर-भितर सामको आख्खेच हारश्यांत

पळोवन घेतलो. पुण कटा! तो हारसो आयज तसो उरूंक ना! हांवें मोगान घडयल्लो निवळ हारसो अेकाच खिणांत आयज फुटलो! कुडक्यान कुडके, कोंवच्यान कोंवच्यो! पुष्पाचें लग्न अशोकाकडेन न्हय पुण दुसऱ्या कडेन, हाका कारण कितल्योय हांवें त्यो कोंवच्यो पुंजायल्यो आनी म्हज्या जडाविल्ल्या बुटबुटीत गळटल्या आनी फांसाक घुसमट मारिल्ल्या दुकांनीं पांकयल्यो, जाल्यार तो हारसो परत म्हाका आख्खो मेळना, मेळनजो. आनी केध्याय विजमितान तो जालो जाल्यार पसून, तांतूंत म्हज्या फुटलेल्या संवसाराची विस्कटायल्ली, फुटलेली प्रतिमा दिसतली. ती सदांच कोडू वीख उगडास करतली: अशोक, तो हारसो फुटलेलो, अशोक तो हारसो फुटलो ... तो हारसो फुटलो! ...



# गांव पुरुस

जुंव्यार वो सांत-अिश्तेव गांवांत, शेतामळां मदल्यान आडव्या तिडव्या न्हंये-पोंयांचें पाणयां पाट सोरपायल्ल्या रूपान व्हांवताले दिश्टी पडटात. तांचे मदेकत काळचा चिखलान आनी तणान बांदून उबाल्लेले बांद घाल्ले आसात. बांदांचेर केन्नाय कवाथे लायतात. हरशीं भेंडयेचीं नाजाल्यार ओफिचीं झाडां थंय रोयतात वो किल्लावन हाडटात. थंय तिवडो, वायखाजन, कांतोल्ल, मयखाजन, वांटसो, बाब्ब नांवांनी पाणयां कुंणगे वांटल्यात, जाचेर मानसो आनी बांद बसयल्यात.

अेके सांजे, कांतोल्लाच्या बांदार, भेंडयेच्या रूखामुळांत दोन-रंगी पानावळी सत्रेच्या आसऱ्या खाल, फरास-आंतोन कांबळ गुठलावन उश्याक दवरून, सांवळेक आड पडिल्लो. माररमितान घालून बायलेन धाडलेली जेवणाची भुती जेवून ल्हानशी झेम काडून उठलेलो. तागेलीं गोरवां हांगा-थंय मेळटल्या खावळीचेर धादोस चरवतालीं. दोंगरा वेल्यान आनी भोंवताणच्या मांडवी न्हंये वेल्यान मंद शीतळ वारें व्हांवतालें आनी पांचवीं तरणीं व्हडल्या भेंडयेचीं पानां त्या वाऱ्या-तालार खोश्येन धोलतालीं. संतोसभरीत अेकामेका-कडेन फुतफुतून जिवी तट्टटीत फडफडटालीं. पुण तांतलीं अेकअेक हळडुवीं असकत जाल्लीं पानां वाऱ्याच्या बळान तोडून निरजीव गळून भूंय पडटालीं आनी तांची धरतरेचेर दाली पातळ्ळेली.

दोळ्यां मुखार पातळ्ळेल्या देखाव्याचेर फरास आंतोन नियाळ करतालो. तरणीं पांचवीं पानां झाडा-खांदयेर धट्ट बसलेलीं आनीं वाऱ्या नेटान अदीक जीवाळ जातात दिसतालीं. पुण हळडुवीं पानां वाऱ्याच्या तोलान कुटून पडटालीं. हांतूत मनशाचें आनी तशें पळोंवक गेल्यार सगल्या सैमाचें पडबींब झळखतालें. सगल्याक आरंभ आसता, मागीर तांतूत तरणेपण फुलुन येता आनी उपरांत मातरी पिराय निमाणेकडेन पावता. आनी मागीर तें मातयेभरवण जाता.

सांज पडटा पडटाली. वोताची हुनसाण उणी जायत वचून मोवसार शेळ्या-वोताच्यो सांवळ्यो लांबत वेताल्यो. सुकणीं सावदां अेका झाडा-खांद्यार थावन दुसरे खांदयेर उडक्यो घेवन नाचतालीं. सुखान गायतालीं.

कांतोल्लाच्या बांदाक अेके वटेन खावटें पडलेलें. मांडवी न्हंयेच्या पाणयाचो मोठो लोट रोस्तीन, बांदांक भोंव पडून, शेतांभितर व्हांवतालो. शेतांतलें थांब खाऱ्या पाणयांत गोमटी-भर बुडून बुचकळटालें. शेताक हे पावटीक पीक बरीं जाली ना. हेवटेनचें शेत सगलें पिड्डयार जाल्लें !

फरास-आंतोन आंता जाण्टो जाल्लो. ताजो बापूय आनी शापाय सांगताले तेन्ना ताणे आयकल्लें कि कांय काळ फाटीं सदांच रातचो गांव पुरूस, गांवभर भोंवतालो खंय. गांवपुरूस, जाका गोयांत दुसरेकडेन हापशी म्हणून वळखतात, आमच्या बऱ्या-मनाच्या पुर्वजांचो आत्मो म्हण लोक मानतात. गांवपुरूस खंय सदांच गांवचो बरे तरेन परामर्स करतालो. चड करून, गांवच्या बांदांक खावटे पडपाचो संभव आसल्यार, तो खंय रोखडोच गावकारांक उलो हुयेल मारतालो. आनी वेळार तांकां घरांतले उठोवन व्हरतालो. पुण तो आतां कोणाक दिसना आनी पावना, कित्याक आमचीं पातकां चड जाल्यांत. आमी अेकामेकाचेर पातयेवनांत, अेकामेकाक लेखीनांत. आमचे मदीं अेकवट ना. आपल्या पुर्वजांविशीं मोग आनी मान

ना. आतां भौन भौन बांदाक खावटीं पडटात आनी तांची वेळार कोणूच सोद घेना. अशें आसून शेतां सगळीं अिबाड जातात. तांकां पिकावळ उणी जाता, हें सभावीकच. कोण लांच घेतात आनी बांदांचो वावर सारको करीनांत. आनी हुमेचे लोट गळोवन केल्लो अितलो सगट वावर अमत्या कळशार उदक जावन वेता. व्हय, अशें उदक जाता न्हंय, फरास-आंतोन संतापलो.

   

दीस पडत वेतालो. झगझगीत वोत शिंपडायतलो सूर्य निरोप घेंवचे वाटेक आसलो. निळ्या मळबार तांबशेचे निमाणे बावते दाग उदेल्ले. फरास आंतोनीन बांदार मातलेल्या औफि झांडा पानाराशीच्यो चार खांदचो माल्ल्यो आनी तांचो संबान भरो बांदलो. गोरवांक घरा वचपाक आंबुडलीं. पाड्याच्या खांदार भरो दवल्लो आनी कांबळ खांदार मारून तो घरा वचपाचे वाटेक लागलो.

पयस दोंगुल्लेचेर पाचव्या-चार भोवतणीत बसयल्ली गांवची अिगर्ज नदरेक पडटाली. थंयच्यान लांब वडटीं जडावलेली घांट वाजली. आयमोरेची. दिसभर जीव मारुन केल्ल्या कार्याच्या सोंपत्या खिणांक ती वांगड दिताली आनी वावरा वेल्यान कडसरपाचो वेळ पावलो म्हणपाचो अिशारो करतालो. दुसरे वटेन दोंगरार रिव्रस्त रायाचो चुन्या-धवो व्हडलो मोनुमेंत दिसतालो. पयसुल्ल्या न्हंयेच्या कांठां देगेवेल्यान मीना-बार्जी पावटी मारताल्यो.

फरास-आंतोन थांबलो. ताणे सांता-खुर्साचे कूरयेन काडली. आनी आयमोरी म्हण्टली. भोव देव धर्मीष्ट मनीस तो. तरीय दुसरे वटेन गांवच्या आचारांचेर आनी देव देंवचारांचेर ताजो थोडो भोव भावार्थ. धरतरेचो नीज पूत तो. मातयेच्या वासांतल्यान उदारपोसण घेवपी मनीस.

दांडो आनी कांबळ घेवन फरास-आंतोन गोरवां फाटल्यान चलत वेतालो. शेतांमदें कोनशाविल्ल्या पयसुल्ल्या अेका ल्हानशे दोंगुल्लेचेर गच्च झाडा-झोपां मदें गोठेल्ले कोले ताळो सुरांटून हुयेली मारताले.

फरास-आंतोनीन मानशेवशीं नदर माल्ली. मानशेची कवडां उगतीं जाल्लीं आनी पाणीं फसफसीत फेणेर उसळावन तिवडचांतल्यान भायल्यान-च्यान सकयल्या पांवड्यार वोत्तालें. पाणीं बरें जरगतीचें आसलें. येंडी ओडूंक फाव सारकें. उमाळो काडचे खातीर. फाल्यांक कडयेक जायशें नुस्तें अेकटांव येतालें. तो उमेदीर आयलो. नुस्त्याचें येवजना फुडें ताची जीब ओली जाली.

वेतना, फरास-आंतोनीक चरवायल्ल्या गोरवांक घेवून परततलो अिश्तेव मेळ्ळो.

" अिश्तेवबाब, देव बरी रात दींव " फरास-आंतोनीन म्हळें.

"फरास -आंतोन अिर्मांव, तुकाय देव बरी रात दींव. फूंय आसलोय रे वायकोजनांतू ? "

"नों, रे कांतोल्लांत माश्शी घाहलेलीं गोरवांक चरवांवक '

"खाऽटीं पोडल्यांय ती पोयल्यांव मरे. आमच्या आज्यां-पोणज्या भाशेन आमच्या मदें अेकवट ना. शेरकारं करतलो म्हण रावतात फूय. आनी कितेंय वायट जाल्यार, शेरकाराच्या नांवान बोंब मारतात. "

" शेरकारी मनीस सांगतात, शेरकार म्हणजे फूंय आमीं. बांद बांदपाचो कोंत्राद आनीक कोणाच्याय नांवान हेच घेतात आनी वयल्या-वयर लेफाडो मारुन वावर कोरतात. आनीक थोडचा तेंपान पाणयाच्या लोटान तें सगलें ओंजोवन वेता."

" आरे कोणाकूच पोडोंक नारे आमचें गरीबांचें. तेंचीं बोलसां भल्लीं म्हणटकूच पुरो. अेलेयसांव वोगतार मात आमचींमतां घेंवक हे हांत मांडटात. आमचेकडेन भीक मागतात. "

" अिश्तेवबाब, आता त्या आमच्या गांव पुरसाची गजाल आयकूंक येयना मुरे आनी बांदांक खावटें पडपाचो दुबाव आसल्यार, तो खंय बोब हुंयेल मारून गांवकारांक वेळार शिटकायतालो. आता आमची ....तो फोबोरुय घेयना. आमची पातकां जाल्यां चडां ....

" बरें तें सगळें आसू. आतां कितेंय पोटा पाणयांचें पोंवया. " अिश्तेवान सांगलें, " पाणीं पोयलांय मरे , बरे टोयटयता. येंडी वोडल्यार वायट न्हंयशें दिसता. उमाळ्याक घाहल्यार पुरो. यारे फांतोडेक वो जिझूट्टचार फाल्यां. हांव तुमगेर येतां. येंडी तयार दवर."

" व्हय, अेक, वायखजानांतलो आनी आनीक अेका मानशेचो उमाळो काडल्यार कडयेक जायशे नुस्तें जातोलें. पुरो आहेलें नों !" म्हणून फरास- आंतोन कबूल जालो.

✤ ✤ ✤ ✤

कोणे तरी व्हडल्यान भायल्यान दारार मारलें. फरास–आंतोन सट्ट करून उठलो. फस्कार काडी मारून ताणें मेझावेलो दिवो पेटयलो. घडयाळार पळे जाल्यार, सकाळचीं तीन वरां जाल्लीं. हो आनीक अितल्या फात्याक कित्याक तेंकलो, फरास- आंतोनीन आपुण-आपणाकूच गुणगूणलें.

" फरास- आंतोन अिमींव, दार उगड. न्हिदलायरे अजून. ओगोत जालो. येंडी घेवन यो."

असो भायर सावन मोठयान आवाज आयकूंक आयलो.

फरास-आंतोन बाज्जेवेलो अुठलो. भायर आयिल्ल्या अिश्तेवाक उलो मारून चाव पीवंक आपयलो.

" म्हाका तुजी चाव नाका. आतांच पीलां. रोखडे कर. मागीर

जांवचेना." अशे म्हणून अिश्तेवान आग्रो धल्लोसो पळोवन, बायलेन दिल्ली चाव हुनहुनीत वेगीं गळचा सकला वोतोवन, येंडी आनी कोंड्डुली घेवन फरास-आंतोन अिश्तेवा वांगडा घरांतलो भायर सल्लो.

भायर चान्न्या-पीठा शिंवर सगल्याक पडलेलो. झाडांपेडांक रूपयाळो रंग चडलेलो. थोडचो गजाली मारीत ते दोगूय वायखाजनाच्या मानशेकडेन पावले. पाणी अेकदम बरें आसलें. झरगतीचें. फरास-आंतोनीन मीठी माल्ली.

आंगाचें काडून धडेर दवल्लें. आनी फकत काश्टेन, माथ्याक रेवडा-यल्ल्या मुंडाश्याक कोंड्डुली खोवन फाटीर उडोवन, येंडी सोडून, दोनूय वटेनच्या दांडचांक घेवून, दोगूय पाणयांत देंवले. मानशेक उमाळो वोडूंक.

अेकूच वोडो काडलेलो, तांतुनूच येंडयेचो गोल सामको जड लागूंक लागलो. वोडून धडेर हाड जाल्यार, रासभर नुस्तें पडून येंडी भरून पिंजताली. दोगांयच्यो कोंड्डुल्यो भरून, वोंटयो लेगीत चिक्कार भल्ल्यो. आनीक वोडो काडपाची गरजूच दिसलीना.

" आवयस ! कितकें नुस्तें रे बाबा. अिक्कें नुस्तें म्हणून अेकाच वोड्याक ? हें बाबा कसलें अजाप ! " फरास-आंतोन थटाकलो.

" अजाप कसलें ? " अिश्तेवान म्हळें, " जरगतीचो नेट मरे. जाल्यार अितलें नुस्तें मेवलें म्हणून कसली बिशाद "

घरा परततना, फरास-आंतोनीक बेश्टोच म्हणून गांव पुरसाचो उगडास आयलो. आनी नव्यान अिश्तेवालागीं ताणे ती खबर काडली. पुण हे पावटीं अिश्तेव त्या विशयाचेर जाप दिवपाक मात्सो फोंबोवता तें ताणे पळेलें. आनी ताणे आग्रो धल्लो ना. घरा पावतकच नुस्त्या वांटो व्हरपाक भितर यो म्हळचार अिश्तेव आयलो ना.

"बरें, फरास–आंतोन अिर्मांव, चल्लों हांव. आमगेर कोण आहा तें करतलो ? बायलेक सांग मात्शें मीठ लावन दवर म्हण नुस्तें. सकांय व्हरूंक येयीन." अशें म्हणून अिश्तेव थंयच्यान गेंलो.

   

नुस्त्याक मीठ लायल्या उपरांत फरास-आंतोन आनी बायल न्हिदूंक गेलीं. फाल्यां शेनवार जाल्ल्यान पणजे शिकतलो पूत घरा येतलो आनी ताका बरें नुस्तें खांवक मेळटलें म्हणपाचें येवजून तांकां खोशी भोगली. जांव नशीब पोराचें. हरशीं तो घरा येता तेन्ना केन्नाच बरें नुस्तें म्हणून आसना घरा कडेन.

आनीक अेका अर्ध्या वरान सुमार, फांत्याचीं पांच वरां जातलीं, कोणें दारार माल्लें. अिश्तेवाचो ताळो कानार पडलो.

"फरास-आंतोन अिर्मांव, झिळमिळ्ळें मुरे. म्हाका वोगत जालो म्हणून, तूंयी न्हिद ग तिंगा हाय. सोडसोडीत यो." ह्या घडणेची समजणी मेळ नासतना, फरास-आंतोन उठलो आनी दार काडलें. पळे जाल्यार, अिश्तेव सुकी सडसडीत कोंडुी आनी दांडो घेवून दारार उबो. ताणे अिश्तेवाक भितर व्हेलो आनी नुस्तें दाखयलें आनी म्हळें.

"नुस्तें व्होरोना म्हणटालोय नों रें तूं. यो भीतर आनी व्हर हें नुस्तें."

तें रासभर नुस्तें पळेना फुडें, फरास-आंतोनीक दोळे दोळेच पळोवन, अिश्तेवाक शेळो घाम सुटलो. ताच्या तोंडांतल्यान उतर सुटना जालें. जीं उतरां खुस्तारान भायर आयलीं तीं खडवडीत मोडकीं–तोडकीं जातालीं. ताज्या आंगापांगांतल्यान चिर्र करून शिरशिरो धांवलो. ताका सगळें उमजलें.

"फरास–आंतोन अिर्मांव, तुजेबराबर नुस्तें धरपाक येयिल्लो तो हांव नों. तो गांव पुरूस जांवक जाय. तेजें तोंड पोयल्लें तुवें ? तो गांव पुरुसूच जांवक जाय ?"

"भोगोस सायबा, गांव पुरूस !" अेकाच ताळच्यान फरास-आंतोनीन आनी बायलेन बोब-हुयेल माल्ली.

"देखोन मिस्ता तो भितर येवूंक ना आमगेर दिव्या–उजवाडाक. आनी नुस्तें व्हरोंक ना. अेकाच वोडयाक अितकें नुस्तें मेवलें हाचोच हो अर्थ आतां कळटा."

"सायबा-भोगोस, म्हाका कांयच कळनासतना, गांव पुरूस म्हज्या आदाराक येयलो. सायबा भोगोस !" म्हणत, बडबडत, फरास-आंतोन ल्हवू ल्हवू थंडावलो.



# अथरेक

जरी नदरे परस पयस आसलें तरी म्हज्या काळजाचे गर्भकुडींत शोभान घट्ट आपली सुवात राखून दवल्लेली. ताचे भायर म्हज्या सामक्या लागशिल्या सहवासाच्या जाळयांत हांवें आनीक कोणाकूच पडूंक दिलें ना म्हळचार जाता. जायत्यो मनभुलोवण्यो ताळण्यो आयिल्ल्यो म्हजे वाटेन. पुण त्या भितर बसून आशिल्ले शक्तीन त्यो सगळयो सुयेशान ताळया खातीर म्हाका बरोच पालव दिल्लो. अितल्या वरसांच्या म्हज्या आडावन धांपिल्ल्या काळखा राबित्यांत, ह्याच गोड उगडासान सारिल्ल्या तेला वरवीं म्हज्या उदासी चिंतनांचे पणटेंत अिल्लो उजवाड दिसतालो. म्हज्या दुखेस्त मिठाआग्रांत गोड कणीय पडटाली.

गोंया येतां म्हणून निमाणी तिका हांवें चीट बरयल्ली. ते चिटीक वीस दिस जातले. आनी पुर्तुगालाक सावन "लुरियो" आगबोटीचेर भायर सल्लेल्याक आतां पंदरा दिस तरी गेले जातले. हे चिटीक जबाब लागलो ना. कित्याक जायत ? हाजे भोंवतणी म्हजे विचार हुस्केल्ले भोंवर मारताले.

लोरेंस मार्कश साकून आयिल्ली बी. आय. ची "कंपाला" दिस उज-डटचार, १६ मायाच्या, मुरगांवच्या धक्या मुखार भितर सरताली. येद्या

लांब काळा उपरांत बदल्लेल्या गोंयचें रूप हांव पळेतालों. त्या इंद्र-नीळ मळबाचो सुखेस्त देखाव नियाळून आनी सरभोंवतणचे गिरेस्त पांचवें चार नीज घोंटून म्हज्या मनाचेर आगळ्याच आनंदाचो भार आयिल्लो. सर्गांत पांय दवल्लेल्या भशेन म्हाका भास जातालो.

पुण ह्या सगल्या सुंदरकायेचेर पसून विसर उडोवपासारकी उमळावपी याद म्हज्या मनाचो जागो आखोच आपूण आपणांक आडावपाक करताली. आनी तिणेंच आपलें जैत व्हेलें. शोभाचीच याद ती. आनी कोणाची जांव येताली ! आवय-बापूय तर नाशिल्लीं म्हाका आतां, गोयां येवपाचें एक मुखेल कारण म्हळयार शोभा नाजाल्यार हांव घडये पुर्तुगालाक शिरकतलों आसलों. कितल्यो सोबीत आनी गुणेस्त चलयो म्हजे संवकळींत आयिल्यो आनी आंगार पसून पडिल्ल्यो म्हज्या. पुण हांवें कोणाकूच कान हालयलो ना.

तरीय केन्ना केन्नाय अशेय दुबाव उप्रासताले. आयज पंदरा वरसां जाल्लीं हांव गोंय सोडून गेल्ल्याक. इतलीं रसां रावून निमाणें म्हजेर उबगून तें लग्न जालें ना मू! फाटले दोन म्हयने ताची चिटूच येंवंक नाशिल्ली कित्याक काय? हेंच तें कारण न्हय मू! शेणलेल्याचें मन बाराकडेन, अशें म्हण्टात. तशें म्हजें जाल्लें. पुग... ना. हें खरें जावं नज. हांवें म्हजो म्हाकाच समजावन घेतलो. आगबोट धक्याक तेंकता म्हळयार, मेडयांचेर येवन धक्याचे धडेर हांवें नदर भोंवडावन घेतली ...........

हा! व्हय! आशिल्लें म्हजें शोभा! व्हय तेंच तें धक्यार साकून ोळे रेखून वाट पळेत राविल्लें शोभा! म्हजो ताजी नदर जुळना फुडें तिच्यांत म्हज्यांत अवचित आगळोच सुमाराभायलो जीव भरून फुगलो. ताचे दोळे चकचकीत पेट्टाले. खोशेचो उजवाड सगल्याच त्या आंगा-पांगार लकलकतालो. हरशीं, हांवें ताका पयलीं पळेल्लें त्या परस अदीक सुंदर जाल्लें तें. खरें सांगचें जाल्यार सोबीतकाय व्हडली-शी नाशिल्ली

ताका. पुण ताचो गोड, ओडलायणो सभाव कि ती सोबीताय फुलोवन उठून दाखयतालो. आनी खरें म्हळ्यार हीच सभावाचीच कि खरी सोबीताय, तोखणाय करी सारकी. आनी म्हाका दिसताली ती भितल्ली सोबीताय भायल्या ताच्या मुखामळार उदेल्ली आनी ताका सोबा हाडटली ती.

आंवडेल्ले उमळशिकेन हांवें ताका घट्ट वेंगेंत गुठलायलें. म्हजे दामून चेपून दवल्लेले अथरेक आतां उगतेपणी भागोवन येताले. कितलो साटलेलो मोग रिगून आसलो ते वेंगेंत !

म्हजो सुर्य रसरशीत उदेल्लो. रावलें म्हाका शोभा. व्हय ! पुण तरीय म्हजें मन ताच्या सुवादीन मेकळें करचें आसलें. ताच्या वेंगेंतलो सुटून हांवें विचाल्लें.

"शोभा, कितें गो, तु लग्न जायनासतना रावलें, व्हय ? वो, जालें गो बाये ?"

"हाय !" शोभान तोलादीक रडकुळो सुस्कार सोडलो. "एदवार, कितें म्हळें तुवें ? कितें म्हळें ? तुजे बगर म्हज्यान लग्न जांव येतालें ! व्हय ? केन्नाच ना ! वाट पळयली तुजी वरसान वर्स. आस्त दिसनाशिल्ला म्हाका. तरीय आनीक कोणाचेरूच मन धरनाशिल्लें म्हजें. आनी कशें धरचें ? एकल्याकच भेटवपाचें तें. म्हजे काळीज तर तुवें सामकें बांदून घेतिल्लें."

" खरें सांगता गो ? " हांवें अजापून आनी दुसरे वटेन आनंदान म्हळें "म्हाका हें कठीन लागता सत् म्हणून मानून घेवंक. तूं वयावयलें चली. म्हज्या सारकेल्या फरमण पडिल्ल्या कयद्या खातीर म्हणून कशें रावचें? आनी अितलीं बरसां? जेन्ना म्हाका बेगीन सुटका मेळटली म्हण-पाची कसलीच चिन्ना दिसनाशिल्ली! "

शोभान दुःखाभरीत दुकां रकयतले दोळे म्हजेर मायेस्तपणीं लायले आनी उच्चारपाचो अवघड येत्न केलो.

"म्हज्या भावांनी म्हजेर खूब दबाव हाडलो, लग्न जा म्हणून. बरे बरे न्हवरे हाडटाले" ते म्हाका. तांकां हांव बद्द परतितालें. तेन्ना तांकां तुजो दुबाव माल्लो.

"आनी कितें केलें ?" हांवें ताका आदारान म्हणून पुण भिरांतीचे अपेक्षेन म्हळें.

शोभान सांगलें. "एदवार्दीक लाय उजो. ते स्वतंत्रताये चळवळींत पडून तो आमच्या घराकूय उजो लावंक आयिल्लो काय कितें आपलीं पिशेपणां घेवन ! आनी तूं त्या उज्या आगटयांन नाचूंक सोदता. आगो तो उल्लो ! आनीक येवपाचो ना ! ताकाच कितें म्होंव लागलां !" ताणीं अश्यो म्हज्यो केंडण्यो करच्यो.

"हें सगलें विसर आतां" हांवें म्हळें आनी तें काळें कूप पुसून उडोवपाचो खरखस येत्न केलो.

"चल आमी घरा या आतां." "घर ना म्हाका!" शोभान निराशी जावन म्हळें. म्हणटाना त्या आशेल्या दोळ्यांतल्यान बुटबुटीत दुकां व्हांवतालीं. "म्हजे भाव ऊग्न जावन मेकळे जाले. आनी हांव त्या घरांतल्या वावजडीतले सुटचे पासत मावशेगेर वचून रावतां!"

"कशेंय आसूं" हावें समजायलें, "चल आमी या. म्हज्या घरा या. हें सगलें दुःख विसर आतां."

मायाचो तो दीस सगलो परजळीतपणान उदेल्लो. हून वातावरणांत हुमेचे लोट गळटाले. एक स्वतंत्र सैनिक अितल्या वरसांनी बंदखणींत रावन घरा येता ताका कोणूच मेळूंक येवंक नाशिल्लो भायरावन शोभा म्हजे

सारके बारीक सारीक मनशाक कोण लेखताले! नांवां जांवीं गाजल्यां तांकां मोटो येवकार, उलोवपां, सभा. पुण हेरांक कांयच ना. ताणी केल्लो अपार त्याग विसरून गेल्लो. ह्या देशांत म्हाका सगळे विसरिल्ले.

हे आडचून-उडयतले विचार कुशीक सारून फाटल्या गोड उगडासांचें वारें म्हज्या आनी शोभाच्या संवसारार हांवें सुस्त सोडलें. ते संतोसभरीत दीस जेन्ना हांव तन्नो भुरगो निकतोच 'अिश्कोल नोर्माल' चो कूर्स करून प्रोफेसोर म्हणून माशेलांत शिकोवंक पडिल्लों. आसतलीं म्हाका तेन्ना बावीस तेवीस वरसां. घर करून रावतालों त्या शेजाराक एक दीस म्हाका बांयचे उदक हाडूंक वेतलें शोभा पयलेच फावट नदरेक दिशिल्लें... म्हज्यांत एके तरेचें अशें तुफान जाल्लें ताका पळोवन. म्हजें मन त्या तीख दोळयांनी घोंटून गेल्लें. त्या फुगून येतल्या हडयान नदरेक नांगरून व्हेल्ली. तेन्नाच्यान लजेत-लजेत म्हजी ताची भेट जावची आसली पासयेक वेतना. चड शिकूंक नाशिल्लें तें. पुण वेव्हारीक बुद्दीन हुश्यार.

दिस वेतात म्हळयार म्हजी ताजी अिश्टागत दाटून वेताली. आनीक कोणाचेरूच म्हजें लक्ष वचनाशिल्लें. दीस रात हांव शोभाचीच मूर्त पुजीत बशिल्लों आसतालों. आनी शोभाक तर म्हज्याशिवाय दुसरो कोणूच झळकनाशिल्लो अशें दिसतालें. हांव रावतां थय तें म्हाका उदक भरून हाडटालें. म्हाका जेवणूय भी हाडून दितालें. म्हजेखातीरूच म्हणून बरे बरे रुचीचे पदार्थ करून हाडटालें.

अिस्कोलाक सुटी पडटा तेन्ना हांव म्हज्या घरा काणकोणां वेतालों. तरीय म्हाका घरा सुख लागनाशिल्लें. सातोळयांत अेकदां तरी शोभाक भेटचे खातीर म्हणून माशेलांत पासय मारची आसली हांवें. तेन्ना शोभा म्हाका केन्ना उमळशिकेन येवकारूंक रावचें म्हणून सांगूं! अशे आमचे दीस सगळेंच म्होंवान भरिल्ले वेताले. म्हाका सर्गूच जाल्लो तो.

एक दीस ह्या नंदनवनांतलो हांव चाबूक पडून जागो जालों. म्हजी जल्म-भूंय परकी सत्तेतळा आसा म्हणपाची म्हाका कल्पनाच नाशिल्ली.

डॉ. राम मनोहर लोहिया त्या अठरा जून १९४६ वर्सा गोयांत येवन स्वतंत्रताये चळवळीची जोत पेटोवन गेल्ले. तिचो वाडून आयिल्लो उजवाड म्हज्यांत आशिल्ल्या देसभक्ताक आफडून गेल्लो. म्हज्यांत नवी शक्त स्फुर्तींत आयिल्ली. म्हजे मुखार जिणेकडेन पळोवपाची नवी नदर उदेताली.

ही खबर हांवें म्हज्या विसवाशी शोभाक सांगिल्ली. शोभान तेन्ना दुःखेस्त चेरो म्हाका दाखयल्लो. कित्याक ताका खबर आसली, ताची फुडली वाट कितें जातली ती. स्वतंत्राचे चळवळींत पडप म्हळ्यार पुर्तुगेज राष्ट्र-मुकुटाचेर आड खून करप. ते खातीर ख्यास्त सोंसपाची ती मारेकारूच आसली. म्हाका तेन्ना ताणे म्हणिल्लें; "कितें अेदवार्द, ह्या हुंवाराचेर म्हाका एकसूरें अशें तूं सोडूक सोदता रे ? म्हजे कांयच येवजना तुका ?

ताजे चिंतनांनी भारावल्लें तोंड पोशेवन घेंवन म्हज्या काळजा-हिम्म-तिचो तोल सुटिल्लो. ती खबर सोडीनशो दिसताली. शोभाच्या फुडाराची म्हाका मोटी चींता दिसताली. हांवें तेन्ना ताका म्हजें वेंगेत धल्लेलें आनी भुजवण दिवपाचो येत्न केल्लो.

हें येवजीतां येवजीतां आमी कुठ्ठाळच्या फेरीबोटीर पाविल्लीं. जुवा-रीचीं ल्हारां खळबळून फुरफुरीत हालत-धोलत आशिल्लीं. मिना बार्जी पावटी मारताल्यो. फेरीबोटीन लोकांची गर्दी. म्हजे कडेन पळोवन आनी चिंतेस्त मुखामळ देखून शोभा प्रस्न विचारीत सुटिल्लें. पूण ह्या विचारांनी घुसपल्लों आसतना ताका जाप दिवंक हांव फाटी-फुडें सरतालों. शोभान म्हाका जागोवन म्हळें.

"कितें चिंता रे वोगीच ? तुज्या चिंतनांची म्हाका वाटेकान्न करी ना तूं, एदवार्द ? हांवें तुज्या सुखा-दुखांत वांटो घेवपाक येत्न केला आनी तांतूत म्हाका येस मेळ्ळें म्हणून हांव समजतां."

हीं उतरां आयकून म्हजें काळीज वळ्ळें. हें आसलें म्हजे कुशीक शोभा आनी हांव ताच्याआड त्या घडणुकांची उस्तवारी एकटोच करतालों. हांवें आतां ताकाय बी विसवासांत घेतलें. आनी ताच्या वांगडा उगडासा पानां परतूंक लागलों.

ह्या मोगा समुद्रार आमचे व्हडें सोडिल्लें आसतना ताका तुफान सापडिल्लें आनी म्हाका तांतलो तोडून व्हेलो. भारती बावटो चडयता आनी हेर पुर्तुगेज राष्ट्राआड करतुबां करता म्हणपाचो आरोप थापून म्हाका अेक रात अकस्मात न्हीदलेलो थंयचो धरून पुलीसेन व्हेलो. म्हाका बरोच बडयल्लो. आनी सरकारी नोकर जाल्ल्यान म्हजी ख्यास्त चड्च वाडयल्ली. म्हज्यो काती काडीसर मार मारून म्हाका थोडो तेंप परतो धाडलो. आतां शोभा मेळटलें. पुण गुप्त पुलिसेचो नाकळटना म्हजेर दोळो आसलोच.

आनीक थोडचा वरसांनी म्हाका परत धरून व्हेलो. चड काळ म्हजीं करतुबां अधिकाऱ्यानी सोंसलींनांत. म्हाका कैदी केलो आनी पुर्तुगालचे पेनिशी बंदखणींत धाडचो म्हुण फरमण माल्लें. तेन्ना शोभाची पर्वा करीनासतना, ताच्या मोगाक कुशीक सारून, हांवें कोडू वीखा-बायेंत उडी घेतिल्ली. राष्ट्राच्या मोगाक पेटलेलों. खेदीस्त गजाल ही तेन्ना दिसताली म्हाका. शोभाचेर हांवें अन्याय केल्लो. पुण म्हाका ती एकूच वाट उगती दिसताली त्या वेळार.

म्हाका पेनिशिच्या प्रिजांवांत धाडून दिल्लो. तेन्ना शोभान म्हाका नेमान चीट बरोवची. ताचीं मोगाळ सहजतायेन व्हाविल्लीं उतरां मोगाचें अमर काव्य रचतालीं आनी म्हजो निरशेल्लो जीव उफेवत दवरतालीं. खूब त्रास सोंसचे पडले म्हाका थंय, पंदरा लांबदीक वरसां फुलते पिरायेची-हांवें त्या त्यागांचे मारेकार वेदीर हुलपायल्लीं. तांतलीं निमाणीं दोन थोडचा भोव मेकळेपणांत काडलीं.

तेन्ना तितले मार-फार नाशिल्ले. आमी बरे वागले जाल्यार आमकां भायर-भितर भोवूं येतालें. नाचूय बी करपांत हांव पांटांगडो जाल्लों. म्हज्या पुर्तुगेज अिश्टां बरोबर भोंवून. म्हजेर तांचो राग-द्वेस नाशिल्लो. परतें जाल्यार भोव मोगाळ आनी मायेस्त लोक तो. आमी भारतांत विलीन कित्यांक जावंक सोदतां हें ताका समजनाशिल्लें. गोंय वेगळें आसल्यार आमी बरे आसतले म्हणपाची तांची आमकां बुद्द आसली. हांवें परगटायल्लें म्हजें थीर मत तांकां पटनाशिल्लें.

शोभा आपल्यो माये मोगाळ चीटी बरोवन म्हाका सगली खबर दितालें. सुटकेची आस्त नाशिल्ली. हांवें तेन्ना ताका बरयल्लें. लग्न जावपाची हांवें ताका परवानगी दिल्ली, कित्याक ताचेर खंय लग्न जावपाचे खूब दबाव येताले. पुण शोभा आपलोच हट्ट घेवन बशिल्लें. म्हजेच कडेन लग्न जातलें. ते पास्वत फोंडांत लेगीत वच्चें पडलें जाल्यार पसून म्हजे वांगडा येतलें. केदो आनी कितें हे चलयेचो खडेगांट निराधार, तेन्ना दिसतालो म्हाका. केदो फोडाफोडीचो त्याग जावंक जाय ताका तो. आनी खरेंच !

हाव कादयेंतलो सुटलों म्हणपाची खबर दीवन हांवें ताका चीट बरयल्ली आनी तेन्ना ताची गोड धादोसभरीत म्हाका परती चीट आयिल्ली. पुण भायर सरचे पयलीं दोन म्हयने आदीं ताची म्हाका कांयच खबर मेळ्ळी ना म्हणपाचें येवजून म्हाका हुसको जाल्लो. म्हजीं आवय-बापूय भायर पडलेलीं ती ताणेंच म्हाका खबर दिल्ली. तें तांची केन्ना-केन्नाय खबर मात घेतालें. ते निमाणें बरयना जावपाचें कारण म्हळचार ते व्हड दुस्मानः अविसवास म्हजेर आनी ते विखाळ दुबाव म्हजे विशीं. ताका खंय कोणें सांगिल्लें कि हांव पुर्तुगालाक एके पाकलिणीक घेवन भोंवतां आनी हेर फटींची खबर ताच्या कानार फुंकिल्ली.

आतां, भिरांतीन येतल्या शोभाचे दुबाव सगले विरून गेल्ले. आमी एकठांय जाल्लीं. अितल्या वरसांनी माशेलांत ताचे मावशेगेर वच्चे बदला हांवें काणकोणच्यान गाडी फिरावंक सांगली. फुडाराच्या घरा आमी वेतालीं. फुडार आमचे फुडें पातळिल्लो. आमच्या हातांत आसलो तो फुडार, जसो आमी घडोवन हाडपाचो, जरी आमकां सगळे विसरिल्ले.

शोभा म्हजें! जशें सुकणें आपलो सांगाती सोदलो म्हणटकच घोंटेराची तयारी करूंक लागता तशें शोभा आपले कल्पनेंत वावराक लागिल्लें. हुंडक्यार हुंडके काडीत म्हज्या गोपांत तोंड लिपोवन घेवन फुगार जातालें. म्हज्यांत एकरूपी जावंक सोदतल्या शोभान म्हाका घट्ट विळखो घालो आनी अितलीं लांबदीक वरसां आठोवन-सांटोवन दवरिल्लीं भारादीक दुकां दळदळीत रडलें!



# माकडावपणा

मचमचीत रूचीक जेवण जाल्लें. मासान सुवादिल्लें. सोऱ्यान न्हाण-यल्लें. तें करून, अडे-थंडायल्ल्या जाग्याभरीत कुडींत हात-पांय सोडून लांब केंस मानेर वाडयल्लो, रूंद फुलारी ग्रावात बांदिल्लो, वयर अन्नल्ल्या सकल घांटीरुपा, कालसांव घाल्लो व्हिलीयम मोंटेरो, जायरात संवस्थेचो अधिकारी वो Advertising Executive विसव घेतालो. पन्नास वर्सां हुपून तो साटींच्या राशींत भितर सरतालो म्हणपाचें ताका पळेतल्याक दिसचें नाशिल्लें. आंगान शिरवंत, चालीन सडसडीत, अिंग्लेजभशेन गुडगुडो ओडी.

आयज ताची उर्बा सदांपरीं नाशिल्ली. बेस्तीच मनांत किकिटावणी लागिल्ली. जेवणा-उप्रांतची न्हीद वगडावन गेल्ली. खरेच पिकार जावपाची गजाल ती. ह्या आदीं हें केन्नाच येवजलेंना. कितें काय म्हळचार?

Census वो गणते अधिकारी आयिल्ले. ताचेविशीं सगली माहिती नोंद करचे खातीर. ताणीं दिल्ल्या पत्रकांत आपलो आवयभास कितें बरोंवची, हाचेर ताका दुबाव आयिल्लो. माथे खरपिलें. गरजेभायर मेंदवाक वळ-पीळ घाले. रोखड्या रोखडी थारावणी दिवची आशिल्ल्यान, 'अिंग्लेज' भरुन सोडली.

तेन्ना अधिकाऱ्यान विचाल्लें. "मोंटेरोसाहेब, तुमी गोंयचे क्रिस्ताव न्हंय ? तुमची आवयभास कोंकणी आसूंक जाय !"

व्हिलयमाचें तोंड-सोंड रंग-मिडमिडलें. लजेचो कालाफो लेफाडून आयलो.

थोडया वेळान उपरांत संवय आशिल्ले मोदीन, ताणे म्होंवाळ उतरांनी लाय-लोसणी अिंग्लेजीन जाप दिली. "व्हय, आमी मुळचे गोंयकार, पुण मुंबयत आमी घर करून अितलो काळ राविल्ल्यान, आमी अिंग्लेजूच उलयत आयल्यांव."

अधिकाऱ्यान केंडणेहांसरें तोंड करून म्हळें- "तुमी गोंयकार क्रिस्तांव अजीब लोक. तुमची खास भास आनी संवस्कृताय सोडून, तुमी परकी भासांक बेंदुल्ले भशेन वेंग मारपात भूशण मानतात. गोंयकार हिंदू तर मराठीक घेवन बसल्यात, अितली रोसाळ लवचीक तुमची आवयभास आसतना."

उपाय नाशिल्ल्यान, तें भल्लेलें पत्रक घेवन अधिकारी चालीक लागलो. व्हिलयमाच्या सुळसुळीत जिबेवेल्यान ह्या प्रस्नाक जबाब सुटलो ना. पयलेच फावट त्या लखलखीत धंद्या संवसारांत ताका वाचा फुटलीना.

अेकाच खिणांत ताची भोंवतणा कोंसळून बदल्ली. चारूय वणटीचेर लायल्ल्या फोटवांवेल्यो जिनसावार परींमदींनी न्हेशिल्ल्यो अर्ध्यो-नागडचो हांगा-थंय आंग-दाखयतल्यो यो-म्हणतल्यो बायलो नदरेभायर जाल्यो. सगलो जायरात-घराचो झगझगाट पालोवन गेल्लो. भायर थावन हाडिल्ल्या थांबाची शेतांत रोंपणी करतात ते भशेन ताका उखलून मनो मनांत दुसरेकडेन पावयल्लो. खरेंच चिकित्सावपाची गजाल ती. गोंयकारांच्या माकडावपाची !

   

पंचेचाळीस वर्सां आदीं सुपुल्लो गिल्येर्म दुश आंजुस मोंतेयरु साश्टीच्या चांदर गांवचे अिगर्जेंचे साळेंत दोतेर्निची कार्तेल घेवन, पाद्र कुराचे शिकोवणें खाल क्रिस्तांव धर्माचे धडे कोंकणींतल्यान शिकतालो. ताच्या कोवळचा मनार पयले वयेले उत्तम संवस्कार पडिल्ले.

"अपुर्बायेच्या भुरग्यांनो, म्हणात. आमच्या बापा, तूं सर्गार आसाय, तुजे नांव व्हड जांव, तुजे राज्य आमकां येवू..." फुडल्या उतरांचो आतां ताका बरो उगडास उल्लोना. पुण ही उतरां शिकिल्लो म्हणपाची तर ताका खातरी आसलीच.

घरांत, मांय आनीं पाय गोंयची पुर्तुगेज उलयतालीं. पाय मडगांवां फाझेंदांत येमप्रेगाद. आंकड्यावळींच्या जंवजाळात. चांदरा मोठो भाटकार. भितरयां हाडा-मासाचो नीज गोंयकार. पुण भायल्यान रीती-चालीन, उलोवपांत, भेसांत, फिरंग्या फिदाल्गाची सझावट, मोडाय तशी बडाय चडशी पुर्तुगेचूच भडभडप. कोंकणी कोणाक ? फकत क्रियादांक. आनी त्या कोकण्यांक, शेंडीवाल्यांक, माय तर पुर्तुगालाक थावन उमटून हाडिल्ले भशेन, कोंकणी भास अिल्ली चुकून उलयल्यार पासून, तिका मुद्दम उसणे वळन लायताली. तिची पुर्तूगेज मूळ कोंकणींतलें उतरान-उतर भाशांतर.

आंतोन्यु मारीय द पुरीफीकासांव मेनीन्न जेझूस मोंतेयरु जरी फाझेंदांतलो अेमप्रेगाद, तरी हेर विचारीक-लळीत बरपावळ वाचपांतल्यान धादोसकाय काडपी मनीस. खोल विचारी सभावाची चिकित्सक व्यक्ति. केन्नाय ल्हार आयल्यार तो चिंतीत, मनन करीत बसो.

ते कोंकणे सदांच आपले भितर कोंकणी सुळसुळीत उलयतात. पुण शिकतात आनी आपलो संवस्कृतीक वेव्हार करतात मराठींतल्यान. आनी आमी, सुधाल्लेले म्हणटले गोंयकार क्रिस्तांव शिकतात पुर्तुगेज, अिंग्लेज फ्रांसेज आनी हेर खंयचीय भास भायरावन आमची. भायरावन आमची

हेर सगल्यो भास उलयतात. ती आमची भासो उलयल्यार लेगीत, अर्दकुटी. आमची खरेली अस्मिताय भाडयाक गेल्या, हेरांचे गुलामी सेवक घाणाक दवल्ल्या. ही नियाळ करपाची भंयकर खरी गजाल न्हय ??

तशें सभेमाजार म्हणूंक शिरी पडटा ? ताका पिशान काडटले. चडूच जाल्यार, 'जयहिंदीस्त' म्हणून पाचारतले आनी ताचेर बहिष्कार घालतले. आसूं ती नड आंमकां नाका. हे परकी भाशे उदेशीं आपूण हेरां लोकां पसून वयर आनी वेगळो रावूंक जाय. आपणांक हेरांनी व्हडलो, 'सुपेरयोर' म्हणूंक जाय. पुण आमी गोंयकार, क्रिस्तांव चड करून, कोण आनी खंयचे वाटेन वेतांव, होच विचार ताका थार दिनाशिल्लो. पुरो, बेशटो कित्याक तकलेक भार. जेवूंक, खावंक, पिवूंक, दांस आनी मोवज मारूंक मेळ्ळयार पुरो. भायलेच संवस्कृतायेचें अिल्लें माथ्यार वजें धेवन भोंवल्यार, हेर कोंकण्यां मदें आमकां रेश्पेत आनी मान आसतलो.

अस्तम्तेची संवस्कृताय बरी, आमी उणाक. हें आत्महीणपणाचें भूत ताचेर चडलें. आपुण आपणाकूच उणो लेखूंक लागलो. तशे पळोंवक गेल्यार, सगळेंच गोंयकार तशे करीनात ? जितलो परकी लेफाडो मारता तितलो बरो. मागीर तो Sophisticated तिबो लावंक नाका ! पुण भितल्ल्यान हो पोखळ फुटया-माकड म्हणून ताका आनी वयल्या-वयर पळे-तल्याक खंय दिसता ? तें दिसता भायल्या देसांतल्या खऱ्या गिन्यानी मनशाक. आनी ते बाबडे हें सवंग पळोवन पोट-भर हांसतात.

तरीय आपले चिकित्सक विचार वाडिल्ल्या गिल्येर्मि मुखार ताणे केन्नांय मांडिल्ले. आनी गिल्येर्मिच्या मनांत विवेक काडी पेटिल्ली. गिल्येर्म भुरगेपणा पसून कलाकाराच्या वृत्तीचो. वडा रुखा परामर्शी सांवळेंत बसून अेकलो अेकसुरो साळकांभरीत वोंडयांत तो ल्हान फातर उडोयी आनी चुबुक बुटबुटीत उदकाचो सुवादिक आवाज कानांतल्यान

आयकून ल्हारेल्ल्या उदकाचें हालप-धोलप मेजी. केन्नाय कोयलांटयो आडव्यो मारून उदकार बुंनलें-उंडणां मारतल्या पळोवन तो धादोशी जायी. साळकाचे उगतेतले बोंगे आनी रसरशीत मोव पांकळयो सगलें वातावरण थंड-परमळयताल्यो. बांदां-शेतानीं रंगयल्लें माडांभरीत चित्र ताका मंत्रायतालें. आनी त्या देखाव्यांत अितलो तृप्त जावन तो थंय वेळ विसरून येतालो.

पुर्तुगेज साळेक गेल्लो. मागीर मडगांवां आबाद फारीयांत आनी पणजे लिसेवार. साळे पुस्तकांची ताका सगल्या संवसाराची माहिती मेळटाली. आपल्या गोंयची आनी भारताची म्हळयार नांच आशिल्ली. फकत अेकदा, मुळाव्या साळेंत दिसता, गोंयच्या भुगोला विशीं अेक ल्हान-शी पुस्तिका जाल्यार आशिल्ली. हें कसलें खरेपणाक-धरुन नाशिल्लें शिक्षण! घरांत मारिकीन क्रियाद अर्धकुटो पुर्तुगेज म्हणून तासतालें. बायेच्या ओर्दी प्रमाणे भुरग्यां मुखार कोंकणी दवरुन ताका आफडूंक जायनाशिल्लीं. अशें आसून, आशिल्ली नाशिल्ली पाद्र विगाराच्या साळेंत पुंजायल्ली लेंविल्लो फिरंगी तें बाबडें शेवटून दितालें.

गिल्येर्मीक हें सगलें विनोद-विचित्र दिसो. हें आनीक कितें सगलें-अर्धेंनाड. आमी गोंयकार कोण आनी खंयचे दिशेन वेतांव! आमची संवस्कृताय कितें? उदेंतीचें अिल्लें आनी अस्तम्तेचें अिल्लें घेतलें आनी मिसळ केलें, हरवेंच बाजलें, म्हळयार ताची अेका घटमूट संस्कृतायेंन मेळ जांवचो पडला ? तो मेळ आमचे मदीं जांवक ना. संवस्कृताय भाशेचेर आठापून आसता. तोच हाडाचो कणो आमी मोडून उडयला.

बापायन तर ताका पटोंवचें : आमी पुर्तुगेज मु रे सगले, क्रिस्तांव आनी हिंदू. पोळ मुरे, आमगेल दोतोर वासुदेवा नारायणा सिनाय काणकोणकार, केश न्हेसोता, केश फिरंग कातोर्त पोळे. आमी पर्तुगेज सिदादांव मु रे. सगली आम्गेली आतिविदाद पुर्तुगेजीनू जावपा जाय."

पुण हुश्यार गिल्येर्मिक, जाणे पुर्तुगेज भाशेचेर प्रभूत्व मेळयल्लें, हांतलो विनोद दिसो. विचार कोंकणितल्यान माडपांत येताले आनी तांचो आसा तसो पुर्तुगेजितल्यान अणकार भायर सरतालो. फावो त्या जाग्यार फावो तीं अर्थपूर्ण उतरां पडूंक नाशिल्ल्यान ते भाशेंत फकाण दिसतालें.

"माकडां फेळ मरे हो," म्हणून गिल्येर्म दुश आंजुश मोंतेयरो गोंयच्यान भायर सरुन, दुसरे कडेन फाव सारकें वातावरण मेळंचे हेतून मुंबय गेलो. थंय अिंग्लेजीक लागलो आनी हिंदुस्तानी-मराठीची ताणे वळख घेतली. कोलेजिच्या जिवितांत मिसळ जाल्या उपरांत, जंय मदल्या वर्गाचे अिंग्लेजां-माकडायतले भुरगे आसले, ताचेय बी रूपांतर जालें. गिल्येर्मीचो, व्हिल्यम जालो आनी मोंतेयरोचो मोंटेरो. व्हिल्यम मोंटेरो, हुश्यार कलाकार, शारांतलो चार-चौगांत मान वयर काडून भोंवपी मनीस. नव्या रुळांचेर बसली गाडी. गडगडीत जिविताची.

हांगा-थंय नाचांक पार्टीक भोंवतना ताणे मुंबयच्या गोंयकारांक बारीक पळोवंचे. धोबीतालाव, माझगांव आनी हेर कडेन चाळींनी गोंयकार फामिली शिरकताल्यो. अेकें खेरीत गांवटी गोंयचे तरेन आनी वळून मोडून अिंग्लेज चोंवरायतालीं. विदेशी चलचित्रां पळोवपाचो नाद आशिल्ल्यान, नटां भशेन उतरांक नाखयां ताण, लांब-वळ दिवगाक येत्न करतालीं. कोंकणी उलोंवची म्हळचार उणेपण मानतालीं आनी आजून मानतात. चेडवां-बायलो जाल्यार सांगुंकूच नाका, चडून मानान. हाचो अर्थ कितें ? अपलेंच खाशेलें धन दायज आपले-भायर करचें, नाकारचें ? आनी तांतूतल्यान अडचें व्हडपण समजुचें !

केन्नाय त्या गोंयकारां मदिं वेव्हार केलो जाल्यार लेगीत, चडसो तो तांतलो भायर आसतालो. ते ताका आफडोनासले. तो अेंग्लो-अिंडयान लोकांच्या सांगतान भोंवतालो आनी तांचें तोंड-भर अनुकरण करतालो.

दोळे धांपून. ताका दिसतालें, आपूण त्या समाजांतलो. आपूण वयल्या पांवड्याचो आनी क्रिस्तांव जाल्ल्यान हेर अिंदयान लोकां पसून वेगळो, आनी वयर जालो न्हय ?

तरीय, आपल्याक दिसतल्या गजालिंची तो नोंद घेयी. माझगांव रावतलें सातान माना ताज्या शेजारच्या कुट्टरे गांवचें. गोयांत आसतना शेतांत दिफळ खणटालें आनी सांजे अिल्लो कोपींभर घेतालें. पुण मुंबय पावलेल्याक, सांतान मानाचें मिसेस डीकोस्ता मेमसाहिबांत रूपांतर जाल्लें. आपुण बामण म्हणून सगल्याक गाजयताली. सोऱ्याची हा -भट्टी धनीपणान चलयताली. तुडकी-मुडकी अिंग्लेज, मराठी आनी हिंदुस्तानीच वोंकताली, साष्टी कोंकणीचे उच्चार लायल्ली. कोंकणी उतर तिचे जिबेर जबर धरनाशिल्लें.

पुण नीज दुद-भाशेचो प्रभाव तिच्या सगल्या उलोवपाचेर तिका कळनासतना भरून पडटालो. आपले संवस्कृतायेची तिका वळख नाशिल्ली आनी पर्वाय नाशिल्ली. तिचीं भुरगीं अिंग्लेंजींत शिकील्लीं. तांकां कोंकणी येताय जाल्यार येना म्हणून दाखयतालीं. उलोवचेंच पडलें जाल्यार, परकी वळन लावन उच्चार काडटालीं. तीं उलयतली अिंग्लेज तर सामकी उतरायल्ली मूळ कोंकणी. भायलो भेस, रीत-रोवो गो आपणावपाचो खरखस येत्न करतालीं. सगलें भायलें, आपलें न्हंय तितलें बरें !

रोझी फेर्नांदीश, अेका बऱ्याश्या कंपनींत कारभाऱ्याचें खासगी सेक्रेटरी. भरपूर पाग. परींमोदींचीं फेशनां करी. गोंयांत फामोल सुमाराचो. मुंबय येवून जांव बाबडीं वयर सल्लीं. पुण हाणें हांगा स्नोब-बें आंगलें चडयल्लें. आपूण कोंकणीं नकळच म्हणटालें. अिंग्लेजी शिवाय उलयनासलें.

डॉ, मारसेलीन रोशा गोंयात मोटो भाटकार. मुंबय येवन वैजाच्या धंध्यांत ताणें बरेंच येस मेळयल्लें. सगलें करप अिंग्लेज-भारती पद्धतीन.

तांतूंत अिल्लो गोंयकार जिवीताचो लेफाडो-गोंयचो मुंबयकार. ताचीं भुरगीं गोंयची मुंबयकारां. आपली भास सोडून, मुंबयची गोंयकार–अिंग्लेज आपणावन. संवस्कृताय भश्टावन. हांतूंत गोंयकारपण कितलें उल्लें भास गेळी जाल्यार. नीज गोंयकार म्हणपाचो ह्या लोकांक कसलो अधिकार आसा ? कसलो हक आसा जायत !

आनी गोंयकार हिंदू म्हणून धड़ ! हो पळे रमेश सांवर्डेकार. अेका कारखाण्यांत कारभारी. धरांत भुरग्यांकडेन मराठी उलयता, बायलेलागीं आनी हेर गोंयकार मेळ्ळचार मात केन्नाय कोंकणींत, अशे हे हांगचे लोक मराठीक वेंग मारुन रावल्यात. आपली दुलभी भास सोडून, महाराष्ट्रांतले म्हाका मेळिल्ले गिन्यानी सांगतात. "तुमी मराठीक आनी हेर भासांक पुजतात, तुमचे कोंकणींत कांय जायना. तिची जीब धल्ल्या काय कितें ?" हाकां कितें म्हणून सांगचें ! लज भेश्टी. तकली खाला घालची पडटा.

आपले वशीं नदर वोडली. व्हिल्यमाच्या घरांत सगलीं, बायल भुरगीं अिंग्लेजूच उलयतालीं. गरज पडल्यार कामवालेकडेन उलोवपापुरती तांचे जिबेर मराठी-हिंदुस्थानी आसली. पुण आपली खाशेली भास उलोंवकूच येनाशिल्ली. ती उलोंवकूय उणाक मानी. ती कूडवाल्यांखातीर. शेंडिवाल्यां पासत. म्हणटकूच हांचें गोंयकारपण कसलें ? संवस्कृताय हरवी-बाजलेली. अस्तम्तेच्या उष्टचाक लेंवताली. भारती आनी खासा आमगेल्या गोंयच्या संवस्कृतीक वांटचाची आमकां खबर ना. म्हणटकूच आमी कोण ? फकत परक्यांक माकडावपाचीं बावलीं, व्हय ?

   

दिसा-सपनांतलो उठून, व्हिल्यम आपल्या क्वार्तांतलो भायर आयलो. ताचे भागेली आनी अॅडवर्टायझींग मॅनॅजेर गुजरातींत उलयताले. तो येना फुडें तांकां अिंग्लेज-हिंदी उलोंवची पडली ताच्या मना-खांचींत चिमटो लागलो. ते कितलेय शिकले जाल्यार, आपलेच भाशेन उलयतात. आपले

सरस्पतिचेर भासाभास करतात. शास्त्रीय संगिताचेर उलयताले तांतूंत ताका तोंड घालूंक घडलें ना. ताका लायकीच ना हातूंत कसलीच.

कोंकणी सरस्पत आनी संगीता विशीं ताका विचारिल्ल्या प्रस्नांक ताचे लागीं जाप नाशिल्ली. म्हळयार ताचो संवस्कृतीक सांटो कितें? अस्तम्ते कडल्यान घेतिल्ले अिल्ले कुडके-सुटे, अिल्ले गोंयचे खेळ-मातयेन लेफडावन केल्लो बरो-वायट भरो, जाका वयल्या-वयर भायल्यान वेर्नीजिचो लावर काडलेलो. घटमूठ गोंयचे मातयेंत पाळांमुळां आशिल्लो सुसंवस्कृत मनीस न्हयच तो !

व्हील्यमच्या तकलेर भार आयलो. ताचेर लजेचें ल्हार आपटलें. आमी खाशेलें तेज-दायज वोगडायत चल्ल्यांव. हेर भारती लोक साअीतीक-संवस्कृती नदरेन आमकां उणाक मानतात. हें आमकां कळना. कित्याक आमी आमच्या चार वणटीं भितर वावुरतावं. तरूय आशेच केन्ना मेरेन आमी परक्यांक माकडायत रावतले ! हेर लोक आमकां हासतात.

जाहिरात घडोवपाची तजवीज कॉपीरायटराकडेन मांडटाना ताचे फाटले मतींत गळटालें हे गिरेस्त-भांडारी भाशेचो आमी शिकोल्ल्या-सवले-ल्ल्यांनी उजवळ उपेग करून हेरांक बरी वाट दाखोंवक जाय, खास आमच्या निजाच्या शीरवंत बळार आमी फुडें येवंक जाय. नाल्यार आमचो समाज सदांच आयज मेरेन रावला तसोच फाटसार उरतलो. हेर सगलो लोक आपले भाशेक पयलो मान दितात आनी मागीर अिंग्लेजीक आनी तें आमचे परस कितलेशेच फुडें आसात. आपल्या मनांत पेटिल्ल्या चुडीच्या उजवाडान हेरांक उजवाडायतलो म्हणपाची तांची उमेदवंत अित्सा रसरशीत फुलार आयली.



# व्होकल

त्रिबुनालाची सुटी सोंपल्या उपरात थंय फाटीं उल्लेल्या केशींची गर्दी पडटा. तशेंच ताका धरून आसलेल्या ताबेल्यांवाकडेन ही इसक्रुटुलां आनी तीं दोआसांवां, धनदोवलतीचें वांटप-सांटोवप आनी ते सगलें कायदेशीर कागदपत्रांचेर काडप ह्या कामांत खूब बोवाळ चल्लेलो आसता.

कालूच त्रिबुनालांत काम सुरू जाल्लें. आनी मडगांव सारकेल्या शारांत ताबेल्यांवांचो म्हजो एकूच कार्तोर आसलेल्यान म्हाका चडूच वावर पडटालो. असो वावरांत रोमलेलो आसतना ही गजाल घडली.

दनपारचीं साडेबारा वरां जातलीं. म्हज्या कार्तोरीच्या दारा मुखार येवन अेक गाडी थांबली. तांतलो कास-फीस न्हेसलेलो अेक दाणगोच दादलो भायर सल्लो. सडसडीत म्हजे दाराकडेन आयलो आनी उलोवपाक परवानगी मागली. तो ताकतिकेन आसा तें पळोवन हांवें ताका भि र येवंक मागलें.

ताणे सांगलेलें आयकून म्हाका काम सोडून वच्चेंच पडलें. एके बायलेची खबर थोडयाभितर सांगली ताणे म्हाका. ती ताची बापोल-भयण खंय. सदांच दार आड करून भितरूच रावपी. आंतां तिका आपलो निभाणो

तेश्तामेंत करपाचो आसा. ती तकलेन बरी ना. ती सांगना तें रोकड्या रोकडें करूंक जाय. कळाव उपकारना. केल्यार, ती राक्शीणीचे रूप चडोवन तिडकीन कितेंय करपाक तयार जाता. तिणें म्हाका आतांच्या आता आपयला.

कायताना बरोबर हांव गाडयेन गेलों. राय गांवांतल्या सामक्या भितल्ल्या वाठारांत तिचें घर उरतालें. आडवी-तिडवी वाट काडून सुमार अर्ध्या वराच्या प्रवासा उपरांत आमी थंय पावले.

कशें म्हणून त्या घराचे वर्णन करुं! घर म्हळयार व्हड पालासूच ती. खंयचे मुस्तितली म्हण कोण जाणा. आनी तीची जतनाय बी कोणेच धेवंक ना दिसता. राना-वनाच्या सायेल्यानी बसयल्लें हें आदल्या काळांतलें याद-स्तीक. चुन्याचे कुडके गळून पडलेले आनी भितल्लो तांबसो फातर उगतो दिसतालो. अुल्लेलेकडेन फकत शेळचाचे काळखिची भयांक्रत सांवळी. तें मोडवळीच्या भेसार पावलेलें.

मोडकुऱ्यो विसर पडलेल्यो इश्कादी चडून आमी भितर सल्ले. काय-तानान उलो केलो. ते बराबर भितल्ल्यानसून एक वावराडी आयली. तिच्या हातांत जळटी वात आसली. जनेलां सगलीं धापलेलीं आसलेल्यान सगल्या एद्या व्हड घरांत गुपाट काळोख पडलेलो. गरजेपुरतेंच उलोवन कायताना-वांगडा आनी तिच्या वातीच्या उजवाडान हांवें म्हजें बेग घेवन भितल्ली वाट धल्ली.

कायतानान भितल्ल्या एके कुडीच्या दाराचो पड्डो वोडलो. तेन्ना एका ल्हान-श्याच वसऱ्याचेर हांवें नदर भोंवडावन घेतली. थंय दिसलेलो देखाव पळेनाफुडें म्हजें तंग जावन आयिल्लें काळीज धस्स जालें. दिस-उज-वाडा, त्या भोवन धांपलेल्या घरांत पाडसार थावन लांबतले हारशांत आस-लेले वाती-दिवे पेटलेले. कोनशाक एका मेजार खुब-श्यो वस्तू राखलेल्यो

आसल्यो. चेराच्यो शिसल्यो, केंसांचे गांज, दांतोण्यो, तुवाले, लेंस, पळोव पाचे हारशे हांगा-थंय पडलेले कडेन आसले. आनी तांचेकडेन थीर नदर लावन कदेलार बसलेली, व्होकलेचें धवशें दबाजीक न्हेसण घाल्ली एक बावलेली बायल आसली. काजाराचेंच न्हेसण धवें फुल्ल तें, आतां वेळा-काळाच्या बलांडणेंतल्यान रंगलेलें, साटेल्लें, बुरशेल्लें. तिचें पोव माल्लेलें तोंड मिरयांनी करमेल्लें. तिची पिराय चाळीस-एक वरसांची आसतली, म्हज्या हिसपान. भोंवतणी घुंधुट्टयानी घोंटेर केल्ले आनी पाकटीं चडयल्लीं.

हांव ल्हवान भितर सल्लो कायताना बरोबर. तरूय म्हज्या सवकास चलपाचो किण्णा आवाज कानार पडना फुडें, ती सट्ट जाली. तिणें आंग काडलें. येद्या वाटकुळ्या दोळयांनीं म्हाका तोंड-भर रेखून घेतलो आनी दोळे मोटचान वाठाल्ले, आनी मागीर, कितें काय म्हळचार, भार आयिल्ले भशेन तिणे म्हजेर खोश्येल्ली नदर लावन मोठचान पिश्याचो हांसो सोडलो, म्हणून : "हा, हा,...हा...हा आयलो म्हजो न्हवरो. होच, होच तो म्हजो न्हवरो. हाचे लागीं म्हजें काजार. योरे म्हज्या धनया म्हज्या मोगा. रावतां तुका हा... हा... हा..."

ते दुवेंतीचो तो आतवोच हांसो आयकून म्हाका शेळो घाम सुटलो. म्हजी लेंव शिरशिल्ली. म्हजो कांटो उबो जालो. म्हजे सारकेल्या अितल्या वरसांचो अणभव आसलेल्या वकीलताबेल्यांवान असो भावनेक कसोच व्हाव दिवंक जायनासलो. तरी आसतना हांव मात्सो आडखळ्ळो. म्हजें उतर भायर सरना जालें.

हांवें म्हजें मन थंडावपाक येत्न केलो. अख्खें लक्ष पुंजावन मायेस्त-पणी तिचो हात हांवें म्हज्या हातांत घेतलो आनी म्हळें : "कांयच भियेव नाका रोजा-बाय, हांव तो ताबेल्यांव, दो. आर्मांद गोमिश द कोस्त. तुका कितें जाय तें म्हाका सांग, लोजनाका हां..."

हें म्हणटाना, अेक वेगळोच खोश्येन भरून आयिल्लो तिचेर बदल दिसलो. ती मात्शी चडूच लजली आनी दुसरेच भशेन जावन, आपलो प्रस्न म्हाका ल्हवान गुठान फुतफुतलो : आपलें भाट-बेंस आपल्या बापोल भावाच्या, म्हळचार कायतानाच्या नांवार काडचें केल्लें. कित्याक हें ती करूंक पावली आनी कशें, ह्या विशयाचेर आनीक प्रस्न नाका. ती खबर कायतानालागीं विचाल्ल्यार जाता. आतांच्या आतां हांवें तिचो निमाणो तेस्तामेंत बरोवन काडूंक जाय म्हणपाची तिणे ओर्द सोडली...

बरें जालें. तिच्या म्हऱ्यातलो पयस सरोसर हांव तंग दावन आकांतलेलो. कायतानाक घेवन हांव वसऱ्यांतलो भायर आयलों.

दुसरे एके भितल्ले कुडींत आमी वचून बसले. सगळचोच कुडी पळोवंक गेल्यार काळखाचे फोंडूच ते. ही मात हेरां परस उजवाडाचो. तिचें एक तरी जनेल उगतें आसलें. आमी बसना फुडें वावराडेन आमकां जेवण काडलें.

जेवणां उपरांत कायतानान आपले बापोल-भयणीची म्हळयार रोजाची कथा-व्यथा सांगुंक सुरवात केली.

रोजा अिज्मेराल्दा दश दोरीश द सिल्वा घरात अेकलीच धूव. मोगान आनी अपुर्बायेन वाडयल्ली. दिसपांत सुन्दर, सभावान गुणेस्त, गिन्यानान हुश्यार, वागणुकेन मोगाळ. सोळा वरसांची आमतना तिणे मेट्री-केची परीक्षा पास केल्लीं. आनी उपरांत कोलेजिचें शिक्षण करपाखातीर म्हणून तिका मुंबय धाडलेली. गोंयांत तेन्ना कोलेजी नासताल्यो. तेन्ना ती वयावयली गुबगुबीत चली. खंयच्याय तर्नाटयाचे आपलेकडेन लक्ष वोडून घेवपी. तरूय खंयच्याच चल्याचो व्हडलीशी पर्वा करपी न्हय, कणाकूच लागसार धरपी न्हय.

मुंबयत बांद्र्याचे नॅशनल कोलेजींत भितर सल्लेली. बिराड कोण एका वळखिच्यागेरूच थाल्लेलें. थोड्याच काळान रोजालें नांव गाजतालें. शिकपांत तिचो पयलो नंबर. नाचांक तर तिका लागतली एक चली नासली. आपले सोबितायेन ती सगल्यांकूंच दिपकायताली. जायत्या चल्यांनी तिचेर मिटक्यो माल्लेल्यो. दर पंद्रशेत एक फावट तरी तिची घरा चीट नेमान येवची आसली.

अशेच जातले, सात-आठ म्हयन्या उपरांत एक दीस घरा तिची चीट आयली. तिची खबर आयकून आवय-बापायक बरीच खंत जाल्ली. तरुय दुसरे वटेन, धुवेचे अित्से-आड वचूक तांकां आंग येनासलें. कितें काय म्हळयार, रोजान बरयल्लें; आपल्याक एक सुन्दर बरो भुरगो भेटला आनी तांचो दोगांयचो मोग जाला. तो भुरगो खंय उत्तर भारतांतलो. पंजाबीसो म्हणटाले. फुडल्यां स म्हयन्याभितर येताल्यो चिटी ताजीच लकतुबा-येची खबर करून येवच्यो. ह्या नाचांक गेल्लीं, त्या वेळेर न्हालीं, ह्या सिनेमांक गेल्लीं, आनी ते बराबर दुडू मागूंक धाडचे.

मागीर अेक दुःखान भल्लेली चीट आयली. तो भुरगो कोलेज आनी मुंबय सोडून आपल्या गांव-घरा गेल्लो. रोजाची खबर पसून केली ना. दोन उतरांनी सांगचें जाल्यार, तो तिका सोडून गेल्लो. ती खंय जीव दिवपाक पर्यान गेल्ली. तिका कोणे आडयिल्लो. बापूय मुंबय गेलो आनी तिका घरा घेवन आयलो. वर्सभर तिणे घरा काडलें. दोळयांत भर-सारको तिच्यांत बदल जाल्लो. तो आदलो नीट आनी मर्यादीक जिणेचो तिचो सुवाद भष्टल्लो. जिवीताचेर ती विटेल्ली येन्नाच !

तरुय आसताना, उपरांत ती नवे उमेदीन परत मुंबय गेल्ली. आतां तिका नव्यो इश्ट-इश्टीनीं मेळ्ळेल्यो. नव्यो इश्टागती, नवे बांदपास जोडपाक ती फुडे सल्लेली. कांय जाणाकडेन तिणे संबंध जोडले. मोवजेच्या खेळाची

तर आता तिका सामकी सोडिनजो-शी रूच लागलेली. सवंय जाल्ली. आनी एक फावट कसलीय सवंय लागली म्हणटकच आनी ती चड करून वायट सवंय जाल्यार, तें व्यसनूच जावन पडटा. पुण त्या व्यसनांतल्यान तिका सुखाचें वारें आफडूंक ना. ते सोदूंक आनी त्य। पयल्या वोगडायल्ल्या मोगाची तूट पुर्णपणी आनी समाधान भरून काडपांक ती खरशेताली. कांय चले अशे आसतात कि चलयेच्या भावनांक उजो पेटयतात आनी तात-ल्यान आपल्याकूच फायदो उटयतात आनी चलयेचीं वाट लायतात. असल्यांक बळी पडप म्हळचार अेके चलयेचो घातच. जितली अेक चली असल्या फांसांक सांपडनांसतना रावता, तितलें तिचे मोल आनी मान-मर्याद वाडटा. पुण ते तन्नें फुलते पिरायेर भोव थोडयाक हे गजालीची खबर आसता. निवळ कर्मणुके खातीर म्हणून मोवज मारप आनी वायटांत पडपाचे निमित्त तयार करपाची मोवज मारप-हांचे भितर आसलेलें अंतर दोळयांक दिसना.

हांवें ताका ह्या सेरमांवांतलो थांबयलो.

"तूं सांगता तें सगलें खरें, सियोर कायतान. पुण म्हाका जाय ती फकत गरजेची खबर, तिच्या जिवितांतल्यो मुखेल अश्यो घडण्यो. हेंच म्हाका बेगीन सांग. म्हाका तेस्तामेंत बरोवंक जाय. नाल्यार ती म्हजेर फों करतली."

"म्हजी चूक जाली दोतोर, बरें तर, हांव कितें सांगतालों-हां... व्हय!" म्हणून कांयतानान काणयेचें शेणयल्लें सूत परत हातांत घेतलें.

रोजाक आपल्या जिविताचें व्हडें शीड वेरें नासतना समुद्रार सोडीन दिसतालें. तरूय त्या भितल्या तुफानांतल्यान तळमळटना ती तोड सोदताली. निमाणेकडेंन एका चल्याचेर तिचें लक्ष थाल्लेंशे दिसता. तिणे बरयल्लें-हो आपलो खरो न्हवरो. न्हवरो खंय म्हापश्यां बारदेशचो. सुन्दर बरो चलो, वयल्या पांवड्याच्या आस्तीग कुटुबातलो खंय.

तो राय आयलो आनी रोजाल्या आवय-बापायक भेटलो. तांकां मानवलो. उलोवप-बीलोवप जालें. आनी एका वर्सान काजार थारायलें, जानेराचे पंद्रावेर त्या १९४३ वरसा.

रोजा लग्ना-दिसाचे एक म्हयनो आदीं धरा आयली. बी. ए. जाल्ली ती तेन्ना. आतां तर सदाकाळीक सुखान घोवावांगडा जियेतली म्हणपाचे येवजून तिच्या जिवाक सू दिसलें. घरांतली गिरेस्तकाय तर आनीक दोन पिळग्यांक बसून खावंक पुरो, इतली आसली. आनीक कसलो हुस्को आतां. आदलें व्होगडायल्लें जिवीत आतां विसरपाचें! नवो संवसार उबारपाच्या कामांक आतां तयारी करपाची. न्हवरो मुंबय आसलो. हेवटेन काजाराची न्हेसणां-आंगवस्त्रां करपाची वेवस्था नेटान चलताली. आपूण १३ वेर पावतां म्हणपाची न्हवऱ्याची चीट आयिल्ली. सगळींच खोशालकायेच्या नादार त्या दिसांनी.

भाटकाराली एकूच अपुर्बायेची धूव काजार जाता म्हळ्यार भाटांतल्या मुंडकारांची व्हडली परब. एक-एक वजें, एक-एक देणें, एक-एक देणगी येवन भाटकारालें घर भल्लें. भाटकारुच भायर पडलेल्यान, मुखेल अश्या मुंडकारांनी काजाराच्या तयारीची जबाबदारी आपल्याचेर घेतलेली. तितलें भाटकान्नींचें वजें ल्हव जाल्लें.

न्हवरो आयलो राय. सगलें भाट खोशेन भल्लें. व्होकल-बायेक मेळ्ळो. सगलें थाल्लें. तिसरे दिसा १५ तारीख. १० वरांचेर रायचे अिगेर्जेंत लग्नाच्या मिसाचो वेळ थारायलो. आनी न्हवरो गेलो म्हापश्यां वेतां म्हणून सांगून.

रातभर तयारी चल्ल्यो. दुसरे दिसा सकाळ उर्बेभरीत उदेली. म्हजी बापोलभयण आता लजे व्होकल, सुखान भल्लेल्या मापान काजराचें न्हेसण

न्हेसून तयार जाली. त्या धव्या फुल्ल खाश्या नटयल्ल्या सजयल्ल्या आंगवस्त्रान कितली सोबीत सुन्दर दिसताली ती म्हणून सांगूं ! रोजाक तो व्हड खोशालकायेचो दीस ! भायर सरपाचें जाल्लें...

पावणे धा वरां जाल्लीं जांवये, तेन्ना. कुरकार अेक तार घेवन आयलो. बरें-मागपी संदेश जावंक जाय, आमकां दिसलें. पत्तो रोजाचो. हांवेंच उगडलो. तिणे चपको मारून तो म्हजेकडल्यान घेतलो. तो वाचल्या बराबर तिचो गळो भरून आयलो. ती सगलीच वडुं धाडावक लागली. किळंच्यो मारूं लागली. तिचो आवरो उडलो. दोळे परतिले. कडकडूं लागली. मिडमिडून सोयराणाभायर पडली. आनी तिका धरूंक वेता म्हणसर, ती जमनीर आपटली.

तार अशी आसली 'म्हज्यान काजाराक येवंक जायना. म्हजी आस्त सोड.' धाडपी एदवार्द न्हवऱ्याचें नांव, तार मुंबयच्यान आयिल्लो. येदो व्हडलो घात म्हजे बापोलभयणीक राखुन दवल्लेलो आसलो. आनीक कितें करपाचें आसलें हातूंत !

भानार येतकूच रोजा लजेन आपलें सोबीत तोंड लिपोवन घेताल. मत थाऱ्यार नासली तिची. तेन्नाच्यान आयच्या दिसा पर्यान त्या धांपलेल्या कुडींत ती आपल्याकच धांपून घेता. तरी न्हवऱ्याचेर आसलेलो तिचो विसवास आजून उडूंक ना. सगलें काजाराचें आंगवस्त्र न्हेसून ती न्हवऱ्याची वाट पळेताली. आनी आजून पळेता. आंतऱ्या-पयऱ्यान न्हाता आनी तींच काजाराचीं आंगवस्त्रां न्हेसून तोंडाक पोव मारून, ती न्हवऱ्याची वाट पळेता त्या मेजार बसून. मत खरेंच उडल्या तिची. मदीं-मदीं उठ्ठा, भोंवता. मदें-मदेंच बोबो-किळंच्यो मारता. आनी मोट-मोटयान उलयता, भडभडटा. केदी खंत तिका कांटयता आसतली देवूच जाणा ! पुण त्या क्रूर विखाळ न्हवऱ्याचो आनीक पत्तोच लागलो ना. तो खंय आसा, तो पसून आजून

कोणाकूच खबर ना. त्या धक्क्यान तिची आवय मरून गेली. तीच आतां उल्ल्या एकली, नशीबाक रडून.

जीव घेतलोना म्हणून आमी देवाक आर्गा दिवंक जाय, जरी तो जीव आसून नांच म्हळयार जाता."

ह्या उतरांनी कायतानान ती दुःखातिका सोंपोवन ह्यडली.

ही काळजाचेर कुराड मारपी खबर आयकून हांव खब दुखावलो. तिचें दुःख म्हजेंच जाल्लें. केल्ल्या करतुपांचो कसलो परिणाम जावं येता आनी कितलें कोडू फळ भोगचे पडटा, ह्या विशयाचेर नियाळीत हांव काम करूंक आयिल्लों तें पसून विसरून गेल्लों. !

म्हज्यान आनीक तिजेर नदर घालूं नज जाली, म्हज्या दोळयांतल्यान बुबबुटीत दुकां व्हांवत सुटलेलीं. कितलें भाग्यवंत चली, सुखा खोशालकायेच्या उदकार वाडयल्लें, आनी आतां अदृष्टाच्या घुसमटमारांच्या घातक्या फांसाक सांपडलेलें. अितलीं वरसां जावन गेल्लीं आनी आतां ती जाण्टी जाल्ली, आदीं फुडेंच. केन्नांय आनी वेगींच ती झडपल्ली वात पालोवतली आसली आनी त्या घराक काळोख पडटलो आसलो. अशें आसून, ती वात परत पेटोवची, होच तिचो हुसको आसलो. देखून हो तेस्तामेंत बरोवन काडपाची ताकतीक !

तेस्तामेंत वेगीं वेगीं बरोवन काडलो. ल्हवूच तिची निशाणी घेतली. आनी दुकांचो खतखतो आडावन दामून-चेपून, दुःखेस्त मनान, संवसाराच्या विचित्र करतुबांचेंर निशेद परगटावन, हांव थंयचो रोकडो कडसल्लों. पुण तें सदांकाळीक एक-वेळचे सुन्दर व्होकलेचें दुःखेस्त चित्र म्हज्या दोळयां-मुखार आजून यता. काळीज चुरचुऱ्यांनी चिटमिट्टा. म्हाका खावंक येता !



# भांग

मडगांवच्यान येतली सांजवेळची बस-गाडी जुंवेंचे फेरीबोटी लागीं पावली आनी अेक लांब, वाडयल्ल्या केसांचो, कास-फिस न्हेशिल्लो आर्नाल्द हेरां वांगडयांसैत उतल्लो. पावस हरांदारींनी पडटालो. जुनाच्या म्हयन्यांत. सत्रेच्यान सामको आडायनज आसलो. सगल्या वटेंतल्यान उदका-मातये व्हाळ व्हांवताले. न्हंयेच्या मोव निळयांत बुडून विर्गळून वेताले, आनी तें पाणी तांबसार करताले. न्हंयचे पोट तर सामकें खरशेतालें. सगळया तोलान हुंवार समुद्रा कडेन लोटत घांवतालो.

आर्नाल्दाच्या मनांत उचांबळायल्ले विचार त्या खोदळ पाणयांत पडबिंबताले. हरशीं सदांच विचारी भुरगो. पुण आयज चडूच प्रमाणांत ताका गंभीर चिंतनांनी रेवडायल्लो. ताच्या तीख दोळयांत भावकेचें ल्हार धोलतालें. ह्या वज्याखाल तो घुसमट्टालो. सदांभशेन हेरांबराबर मिसळून उलयलो ना.

! "किते आर्नाल्द आयज मडगांवच्या बसितल्यान येयला मरे!" पणजेच्यान आयिल्ले आदले बसितल्यान उतरिल्ल्या भुरग्यांमदलो आलफ्रेद म्हणूंक लागलो. अितल्यान, सगल्यांचें लक्ष आर्नाल्दा वशीं वोडलें.

"आयज कितें तरू ? मडगांवां सुरीक लागला काय कितें ? तो सॉत भागेवंत मरे हरशीं !" अेक अेकलो आपआपले भशेन फोडणिशी दिवपाचो येत्न करी.

" आर्नाल्द, मडगांवच्यान मरे सो आयज ! " आलफ्रेदीन खुबळा-वपाचो प्रस्न केलो.

"व्हय, त्या आमच्या बंबंयकार सोयऱ्यांक गाडयेन पावोंपाक गेल्लों."

हें आयकून सगल्याक समजलें. तरूय आयिल्लो विशय सोडचो न्हय म्हणून, अिनासान फुडें व्हेलें. "चुरचुरे बाबडयाचे ! गेलें ते ज्युली !"

तारयालो रामचंद म्हणटालो. "जमोंव दी रे पोराक. सदांच विचार करीत बस म्हणटात ताका. तेजें सोयरें आनीक खंय !"

तरे तरेचीं मतां आयकून आर्नाल्द भितल्ल्यान चड्च खोदळटालो. मुंबयकारांक सोडटाना ताच्यांतलो अेक भाग सुटून पडटा म्हणपाचो ताका दुखेस्त भास जातालो. हाचें कारण ताकाच बेस-बरी खबर आसली. तेंच मनाक तुफानीक वेडो घालतालें.

आयज न्हंयेक पाणी भांग जशें आर्नाल्दाचें मन-दोळयां मुखार झोड-मोड येवून, धोलतल्या झडपल्ल्या झाडांच्यो खांदे-खांदयो पानां झेल्यां सैत गळून पडटाल्यो. तशींच अख्खीं झाडां लेगून मुळासकट उमटून पडून ह्या हुंवारिल्ल्या पाणयांचे लोय्टे मिरवणुकेंत विलीन जावन वेतालीं. पाणयांच्या तोलादीक हुंवारा मुखार कोणाचें शाणपण चलतलें ?

पुण उरतलें तें रूप धरतलें. अुल्लेलें सैमाचें रूप जीवें तट्टीत रसरसून आयिल्लें. हांसत्या तोंडान पांचवेंचार सैम्ब खोशेन उमळटालें. जुंव्यार हे सृश्टीक परजळीत फुलार आयिल्लो. रसत्यावेली तांबडी माती उदकान चिप्प भिजून अदिकूच तांबडी रगत जाल्ली. रसत्याच्या दोनूय

वाटांनी पांचव्या पानावळीचीं रूख-झाडां आंबे-तोरांचें वजें गळून ल्हव जाल्ल्यान, हुसक्या मेकळीं धोलतालीं.

आर्नाल्द अेकलो अेकसुरोच वाट तांकतालो. ताचे वाटेन येवपाचे भुरगे कोण नासले. पावसान अिल्लो आसर केलो. जरी ताच्या मनांत गोळटलीं चिंतनां ताका विसव दिनाशिल्लीं, सरभोंवतणचो देखाव ताका भारावन व्हरतालो. "काझ दु पोव" प्रजे घराकडेन पावना फुडें, 'थंयचे कोंकरेचेर ताची नदर गेली. केंकरेच्या तांबड्या फुलां घोंस, मोठ्या पावसाच्या दडकेन झडयल्ले. तीं मातयेभरवण जाल्लीं. तांची दाली जमनीर पातळ्ळेली. केंकरेच्या दुकां पागळटल्या खांदे-खांद्यांचेर पाखां पिसुडलेले करंजल्ले कावळे आसरो घेताले. सामखार लांब-रूंद शेकानशेक पातळिल्ल्या शेतांत किल्लून वयर आयिल्लें थांब भेंडभर उदकांत अभिमानान तकली वयर काडपाक येत्न करतालें. पयसुल्ल्या बांदांक भोंव पडून भायल्यानचें तांबशें पाणी शेतांतल्या नितळ उदकांत मिसळ जाल्लें आनी ताकाय बी म्हेळो रंग लायल्लो. तें शांत उदक वाऱ्याच्या आयण्यान मंद ल्हारेतालें, तांतल्यान बारीक किड्यां किर-किराट आनी बेबे-बेबक्यांचें धरांव धरांव रोंमटां गाजतालीं.

घराच्या बल्कांवांत बसून आर्नाल्दाची मांय ताची वाट पळेताली. पुताक वगत जालो म्हणपाचो तिका हुसको जाल्लो. तेदोळा पावस आनीक चडूच पडिल्ल्यान त्या हुसक्याचेर भिरांतीचीं कुपां मातुर आयिल्लीं. भिजलो जातेलो म्हजो पूत, ती हुसकेत बशिल्ली. तितले म्हणसर आर्नाल्द घरा पावलो.

"येयलोय रे पुता म्हज्या, किक्के पावटी सांगले सत्रे बराबर कापुतूय व्हर म्हण. म्हजें कोण आयकता ? भिजलोय मरे आतां ? पोय सगलो ओलो जालाय."

" हें कांय नों, मांय. न्हालो म्हणटोच जालें म गे बरें." आर्नाल्द कांयच न्हंय जाल्ले भशेन करतालो.

" न्हाता म्हणटोच वगत आहा. आतां पयलें ओलें आंग घेवून रावलोय नों."

कोण जाणा अितलो पावस पडत म्हण. सकांय तर बरोच आसोर आसलो नों गे. वोत आहलें कितलें फोर." आर्नाल्द आपलेंच खरें करपाचो येत्न करी.

"चल मात्सो न्हा वे ीं आनी सुसेगाद जा. मागीर चाव पिये. बरें फोर हुनहुनीत उदक केलां.

मांयचीं उतरां आयकून, व्हडिलांक मान दिवपी आर्नाल्द न्हाणयेंत गेळो. ताका न्हांवचें-भिवचें म्हळचार वजें जावन पडिल्लें. कितेंच करूंक हात येनासलो. चितनां ताका अेकसारकीं फापशितालीं. आयज तो हेरां दिसां भशेन नासलो. अडचल्लो म्हळचार जाता. घरच्यांक ती खंयची खबर !

" पावलींत म रे बाब तीं बरें भाशेनू ? " बापायन विचाल्लें.

" व्हय़ पाय, गाडयेंत बरो जागो मेवलो तांकां. कुशीचो लोकूय बरो आसलो." आर्नाल्दान जाप दिली.

   

जेवण जाल्या उपरांत आर्नाल्द आपल्या क्वार्तांत वचून बाज्जेर पडलो. पूण न्हीद पडनाशिल्ली. तो विचारांच्या जंवजाळान बुचकळटालो. अेकलो अेकसुरो त्या बाज्जेर लोळटना ताच्यांत तुफान उप्रासलेलें. भायल्यान हरशीं धीट मंद दिसपी तो. हुश्यार, बुद्दीवान; भावनेक आनी फुलगडपणाक व्हाव

दिवपी न्हय, अशी ताच्या अिष्टां बरोबरच्यां मदीं ताची नामना आशिल्ली पुण मोठया भावनीक सभावाचो तो. ताच्या सभावाची ही कूस लिपून आशिल्ली. हेरां परस घडये वासना ताच्यांत तेजाळ आसली. केन्नाय भगभगीत उज्यान हुलपताली, केन्नाय मंद, पुण चड्शी अर्दें न्हिदेंत झेमेत-झेमेत, जिवाळ आगटें पेटोंवक अेका पायांर तयार. दामून-चेपून दवल्लेल्या खतखतीत उदका भशेन. कितलेंय आडावन दवल्लें म्हणुन तें सांवरना खंयच्यान तरी चील फोडटा, बुराक सोदता आनी खतखत्या भारार धांपणें लोटून उडयता.

आतां धडये आर्नाल्दाच्या जिवितांतलें पाणी भांग. पुण अेक म्हयनो फाटीं ताका खडेगांट जरगत आयिल्ली. त्या दिसांचो उगडास काडून सुखाच्या दर्यार पेंवपाचें ताका कारण आशिल्लें. थोडेच दीस ताच्या सुखाच्या जरगतीक पुराय मुर्गटून वचपाचो व्हाव मेळिल्लो. तो बारीक साणेन उगडासा रूपान भोगूंक ताका संतोस दिसतालो.

   

माय म्हयन्यांत आर्नाल्दागेर मुंबयच्यान सोयरीं आयिल्लीं. जायत्या वर्सांनी तीं गोंयांत सुटयेंत परततालीं. तांतल्या ज्युलीक पळोवन आर्नाल्दा-च्यांत अिल्लें वयर-सकल जाल्लें. आर्नाल्दाचीं आवय-बापूय जशीं कडक तशीं ज्युलीचीं. आपल्या भुरग्यांक मुठी भितर दवरतालीं.

अेके सांजे, आर्नाल्द आनी ताच्यो बापोल भाव-भयणी, जरी ते नातें अिल्लें पयसुल्लें, पासयेक भायर सल्लीं. हांसत-खेळत तीं गांवांत मानशे-कडच्यान गेल्लीं. जरगतीचो नेट आशिल्लो. मानशेचीं कवडां उगती जाल्लीं आनी भितल्ल्यानच्यान भायल्यान पाणी गजऱ्यान धांवत सुटलेलें. हांगा थंय देगेर बसून वो ल्हव्यांमदीं उबे आसून, गरग्रो घेंवन भुरगे नुस्तें

फारायताले. निळें मळब कुपां-मेकळें आशिल्लें. अिल्लो कापसा तरेचो लेफाडो मारिल्ले भशेन. भोंवतणची पांचवीचार मेंद वाऱ्यान शिवशिवताली.

घरा परततना, दीस पडटालो आनी शेळवोता वांगडा रात पांगरूण उडोवन सवकास देंवताली. येदोय वेळ सगळयांची नदर आर्नाल्दाचेर आशिल्ली. जेन्ना तांकां तो हांगच्यो सगळयो खबरी सांगतालो, फाटले उगडास जागयतालो, ज्युलीची नजर ताचेर चडूच पांखून आसली. ताका घोंट्नूच घेताली म्हळचार अतिताय जांवची ना. ताच्या कुशीक येवून ताका नुलयत तेंकताली. आर्नाल्दाच्या तोख नदरेक तिचें पावल झळकलें. ताचोय हात कळटा कळनासतना तिच्या भेंडा भोंवतणी पडटा पडनासो जातालो.

✤ ✤ ✤ ✤

हेरां भायर गेल्लीं आसतना आर्नाल्दाच्या फुडयांत रावचे खातीर ज्युली निमित्त सोदी. आपलो पुस्तकां जमो तिका दाखयतना, तीं गजाल मारीत बसो. गजाल मारतां मारतां ज्युली ताच्या खासगी जिवीताचेर पाविल्लें. ताच्यो आशा-आकांक्षा तजवीजो येवजण्यो चिकित्सावन अत्यां परतायतालें. ते कोलेजींत बी. अे. निमाण्या वर्सांत आशिल्लें. आर्नाल्द बी. अे. केल्या उपरांत पणजे बरे सरकारी सिर्वीसेक आशिल्लो. आर्नाल्दान ज्युलीक पणजे, कलंगूट, मडगांव दाखोवन हाडिल्ली. आपल्या अिष्ट अिष्टीणीची वळख करून दिल्ली.

उलयता उलयतना, एक फावट ज्युलीन आर्नाल्दा लागीं विचाल्ले, "आर्नाल्द, त्या सविता लागीं बरो मायेन उलयता मरे तूं !"

"तर कितें जालें !" चीत दिनासतना आर्नाल्दान म्हळें.

"Your girl friend or what ?

“ चेट, चेट, तुमी बोंबंयकारां तांतूंतच आसतात. तुमकां आनीक विशयूच ना ह्या संवसारांत. फकत boy-friend, girl friend and dance ! ” आर्नाल्दान मुंबयकारांच्यो आवडी दोन उतरांनीं सांगून थोमणो माल्लो.

“हांव तुजो थाव घेंवक सोदतालीं. तुजें कोण आसूंक जाय न्हय ? म्हाका सांगोंनांय तूं. कित्याक लिपयताय ?”

“म्हाका कसली गरज लिपोवपाची ?” आर्नाल्द म्हणटालो.

आयकूंक आशेतालें ताचोच ज्युलीक व्हयकार मेळिल्लो. आर्नाल्दाच्या काळजांतली सुवात तर आतां मेकळी आसली. तांतूंत आपणें बेगिनूच रीगचें, होच मार्ग ज्युलीक सट्ट करून दिसलो. तिचे मायेन वोत्तले दोळे आर्नाल्दाक वेगळयाच नेटान घोंटून घेताले. फुडें कितें करचें, हाचेर गडगडीत चिंतनांचो व्हाळ सुटिल्लो. मोग आनी लग्न म्हणचे बायलमनशेचें सार्थक, परम्सुख आसता. तें नदरे मुखारूच दिसल्यार पुरो, तरण्या चलयेक सगल्या आतम्यांत भावनेंत घसघशीत झरी फुट्टात !

उतरांची गरज दिसली ना आतां. दोळे मोन्यानीच उलयताले. ती खोल विचार उक्तावपी मोनी भास तांकां अेकामेकाक भोव बरी समजताली आनी तिच्याच बळग्यार तांचें नवें जीवित वियेतालें आनी आंगांत येतालें. पुण भागोवपाचें अुमाळेय आसतात जांकां कुडी गर्जो आसतात. त्यो भागोवपाच्यो पडटात. नाल्यार वळवळे आनी मिडमिडे वांटचाक येतात. गरज पडल्यार नव्यो युक्ति खंयच्यानूय सुचतात. जशे अिंग्लेज म्हणटात. Necessity is the mother of invention.

   

रात जागयली झेमेत, जागरण करून. घड्याळीचेर मद्यान रात वाजून गेल्ली. सगल्यांक मौन शांत. सगळ्यांक भारादीक न्हीद लागिल्ली भायरावन त्या दोगांयक. हुसक्यांचेर आनी वासनेचेर तीं वात जळयतालीं. ज्युली उठलें. जोतीं घालिनासतना रांदचे कुडींत गेलें, आवाज जांवचो न्हय म्हणून. न्हाणये खांचींत शिरकलें. थोड्याच खिणांत आर्नाल्द थंय अवताल्लो.

ज्युलीन रोखडेंच ताच्या गळ्या भोंवतणी वेंगभर विळखो घाल्लो. आनी ताच्या कडकडट्या वोटांचेर आपले हुल्पतले वोंट चूमले. आर्नाल्द तिचे वेंगेंत सामको तोलान मुंगल्लो. तंग धोलार पडली बडी. पाच मिनटांचे खीण आकांत म्हत्वाचे. तुफानभरीत.

आयिल्लीं तशीं, जाप नासतना, उतरां न्हेसपाची गरज नासतना, तीं आपआपले बाज्जेर परतलीं. सकाळीं उठ्ठकूच तांचेर आगळोच चमत्कारीक उजवाड उदेल्लो. तांचीं काळजां चंवरेल्लीं.

आनी ही गोडी चाकूंक तांचा उमळशीक अितली आशिल्ली कि आंतऱ्या-पयऱ्यान तीच मेळणी जाताली. फकत चाल अिल्ली बदलताली. पुण तेच विखार मोगा खीण, जीवंत उज्या आंगार, कोणाकूच दाखलो लागनासतना. सामकें गुपीत. केन्नाय घरांतलो कोण जागो जाता दिसतालो, तेन्ना भीरांतीन, सांपडत म्हणपाचें येवजून, काळजां कलकलतालीं.

   

पुण कटा, कटा! सूख सदांकाळीक, सदांचेच नासता. मुंबयकारांचे परत वचपाचे दीस आयिल्ले. आनी जडार ॱडत देखून ताणीं आपल्यो लिपचेरयो थांबयल्ल्यो. आनी शेकीं, तो आदेवस करपाचो दीस पाविल्लो. कळवळ्यांचो निरोप घेवन आर्नाल्द आनी ज्युली दोशीं जातलीं. पत्रवेव्हार करपाची भासावणी दिवून. फुडलो मार्ग ताणीं आंखिल्लोच!

आग-गाडी नदरेभायर पावसर मडगांव अिश्टेश्नार उबो रावून, दुखाभरीत आर्नाल्द, ज्युली आनी तांच्या घरच्यांचो निरोप घेतालो. भायल्यान दूख दाखयलें ना पुण भावनेचे तोलादीक धुमके बसून तो उचांबळ जाल्लो. उदास जाल्लो. ताच्या नशीबान जरगतींतलो ताका भांग पाणयांत सामको शेवटून उडयल्लो !

   

आतां न्हिदिल्ले कडेन, ह्या सगळ्या घडण्यांचो नियाळ करून, एके तरेची पोकळसाण, सामकें रितेपण आर्नाल्दाक दिसलें. तें फकत उगडासांच्या हात-लायनज-आशिल्ल्या वाऱ्यान भरिल्लें. ताच्यांतलो उजो जरी पालवल्लो, तरी तांतले अिंगळे आजून जळटाले. घडये आतां अिल्ले मंद आनी थंड शेळे. पुण भितर जीव फुरफुरतालो. काडी माल्ल्यार पेटपा सारको जीव तो.

पुण, हें सगळें ध्यांनात दवरूनूय अेक मात ताका पटलेलें : आतां जरी भांग आसलें, तरी ताच्या उपरांत जरगत येवपाची आसली, जशें जरगती फाटल्यान भांग आयिल्लें. हें चक्र घुंवपाचें सभावीकूच आशिल्लें. तेच फुडले जरगतीक तो दोळ्यांत तेल घालून पळेतालो. आनी होच सुखांत-उखलपी विचार मतींत गोळोवन तो खोल न्हिदेचे समादींत सुखावलो !...



# वेगळायल्लीं

कुर्यकाराच्या हातांतली म्हज्या नांवाची चीट हांव घेना फुडे, मन तुफानांक सांपडलें, आंगापांगातल्यान वयर-सकल मुयेल्लो शिरशिरो धांवलो. लखाटयाचेर बरयल्लें अक्षर तर सामके वळखिचें. तरूय, पांच वरसां उपरांत तें म्हजे नदरेक पडटालें, हीच प्रस्न करपा सारकी गजाल आसली. म्हजे असक्त बलायकेक हो आनीक् अेक धक्को न्हय मु ? अशी मनांतल्या मनात भिरांतीची खदळसाण सोडून, भितल्ले न्हिदपां-कुडींत वचून हांव खाटीर शेवटलें.

धडधडटल्या हड्डुयाचेर चीट उगडनासतना दामून दवरून, हांव नियाळांत रोम्बलें. आयचे चिटीन पांच वरसां फाटले चिटीकडेन म्हजें उचांबळ्ळेलें लक्ष व्हेलें. ते बोंबा-सारके चिटीन म्हाका ह्या आयच्या दुखेस्त भेसार पावयल्लें. तसलीच कानाडाक थावन आयिल्ली चीट ती. विमानी-मेलाचो लखाटो सांगतालो. अंतोनीच्या अक्षराची.

फाटल्या उगडासांचो हुंवार लोटान म्हजेर देंवतालो, बी. एस्सी. चे निमाणे परीक्षेखातीर हांव शिकपाचे तयारेंत आसलें. तेन्ना आंतोनीची पंद्रशेंत एक फावट येतली कानाडाक साकून सवंये प्रमाणे चीट आयिल्ली.

सदा भशेन खोशालकायेन हांवें ती उगडलेली आनी पुस्तकां-चोपड्यो कुशीक मारून कुडींत वचून मोगान आनी उमळशिकेन वाचूंक बसलेलें ताचें पत्र आयल्या बराबर, तें वाचल्या बगर आनीक कायच दिसनासलें म्हाका. पयल्या भागांनी उमेदवंत उतरांल्हारांर म्हाका खेळयल्लें. पुण निमाणेकडेन विखाचो पेलो अख्खोच वोतिल्लो म्हजेर. दया-माया नासतना म्हज्या गळयाक फातर बांदून समदिरांत उडयल्ले भशेन म्हाका जाल्लें.

आंतोन कानाडाक एका गोऱ्या चेडवाकडेन काजार जाता म्हणपाची निश्टूर खबर ती. म्हजो सितीद उडलेलो. तकली जाग्यार नासली म्हजी.

"कितें केलें ! म्हाका तूं कसो विसल्लो आंतोन ? कसो विसल्लो ?" म्हणून किळंच्यो मारीत, सगलेंच नाचूनउ डून, केंस पिसुट्टालें, विस्तीद पिंजतालें आनी जीव दिवपाक धांवतालें हांव...

"खंयच्या तोंडान आनीक म्हाका सांगता तूं : बाये, तुजो फुडार तूं पळे ?" अशें विचारीत आनी कायच्या काय भडभडत हांव सुटलेले "तुवें इतल्यो भासवण्यो दिल्ल्यो म्हाका. मोगाचे तुरे म्हाका भेटोवन म्हज्यो फुलोवन आयिल्ल्यो आशा तुवें ल्हारार दवरूंक ना ? म्हजे शिवाय तुका आनीक कोणूच ना म्हणून तुवें सांगूंक ना ? तीन वरसां उपरांत येवन आपूण काजार ज़ातलो म्हणून तुवें म्हाका खातरी दिवंक ना ? पांच वरसां उदरगत जावन आयिल्ल्या मोगाक सोंपेपणान नाकारून उडोवंक तुका कशें पुटवलें ?"

अवचीतच अशें जावपाचें कारण कितें ? ईश्टागतमोगाची इतली दाटी येद्याश्या खिणा भितर विर्गळून कशी वच्ची ? मायेस्त हातांनी रोयल्लो मोगा कावथो माड जाल्लो आसतना पसून असो मोडून कसो पड्चो ? हेंच समजनासलें. हें कुवाडें सुटनासलें. पुण खरेपण, कितलेंय कोडू जाल्यार

पसून, दोळ्यां मुखार उबें आसलें. भगभगीत इंगळ्यां भशेन. रागान सळसळटच्या रगतांत आगटें पेटयतालें !

खंयच्या खंय वाटूच फुडे झळकनाशिल्ली. फाटल्या वशीं मना-नदर परतताली. ह्या म्हज्या मोगा-रूखाचीं पाळां-मुळां सोदूंक हांव सांसणितालें आनी अशेंच ह्या चिंतनांच्या उमकळायतल्या फांसाक घुसमटून हांव आखरेक पिश्यां हॉस्पीटलांत पावलेलें. तोच एक उपाय दिसलो म्हज्या आवय बापायक ! तितलोच म्हाका जितो-जिवो उगडास उल्ला !

वरस दोन वरसां हांवें थंय म्हज्या फुटक्या नशीबाक रडून साल्लीं. मदें मदेंच म्हाका मोल्लुक जाल्ले भशेन जाताली. सोयराणा भायर पडटालें हांव. पुण वाचप-बिचप करून पळकाडपी वातावरणांत, कांदबरी आनी हेर विशयांचेर पुस्तकांनी गुल्ल जावन हांवें दिस काडले. अशीं-तशीं अवस्थेन सुधाल्लेल्यान, तुटून पडलेल्या म्हज्या उल्लेल्या हाडां-सांपडच्यासैत हांव घरा परतलें.

आंतोनीक हांवें म्हजी चुरचुऱ्याची खबर घालून चीट बरयली. पुण ताचो जबाबूच ना. कितलो दारूण काळजाचो हो मनीस जावंक जाय अशें म्हणपाक म्हज्या मनांत सुवात जाय नासली. केल्ल्या कर्तुपाच्या चडफडयांन ताका बरोंवक हात येना जावंक जाय, अशें हांवें चिंतचें.

वर्सभर कानाडा साकून गोड यादी जागयत म्हज्या दोळया मुखार नितळ निर्मळ रावलो आंतोन. मोवज मारपाच्यो संधी ताणें चुकवच्यो. जिवीतवंत चित्रभाशेंत म्हज्या आशेल्ल्या मुखार थंयच्यो खबरी चीटींतल्यान उलयतल्या ताच्या उतरांनी जिव्यो जाताल्यो. तेन्ना म्हज्या सुखाक शीममेर नासताली. त्या चीटींच्याच नाडयार तें पोसतालें. पुण ही अकस्मात तोंडार खोंट खंयच्यान आयली ? हांगा पावतोच म्हजो नियाळ जड लोखणा-नांगर

पडून थाबतालो. फुडें वचूंक शक्त नासली आनी फुडली वाटूय दिसनासली. फक्त फाटलीच वाट, फाटलीच वाट, हांवें पळोवपाची आसली ! आठ लांबदीक वरसांची सुखा-दुःखाची वाट.

  

निकतेंच गांवचे वयले साळेंत मेट्रिक पास जावन हांव पणजे कोलेजींत मोठ्या उमेदीन भितर सल्लेलें. फुडार आनी नशीब म्हाका गुलाबी दिसतालें. थंय पयलेच नदरेक मोग आमचो ! ताचे आदीं म्हाका जायते चेडे मेळ्ळोले. तांचे मदें भुरगेपणांत खेळ्ळेलें. आमचे खेळांतले भाव कशे आमी तांकां लेखचे आसले. तांचे मदें चिच्चे-बोटां, आंबे-तोरां-पेरां पाडलेलीं झाडां-झोपां मदें आपालिपा खेळ्ळोलीं. पुण कोणाच्याच एका विशीं अिश्पेसियाल खासा अशे कांय दिसलें ना. तें फकत दिसता आंतोनीच खातीर उल्लेंलें. ग्रीक पुराणा प्रमाणें म्हजें दुसरें अर्द म्हाका मेळ्ळेले आंतोनींत !

वाडून आयिल्ल्यान आतां गिन्यानाचीं आनी भावनां-उमाळ्यांचीं दारां उगतीं जायत येतालीं. तेन्ना आंतोनीची खासा माया म्हाका हालयतल्या धुमक्यान आफडून गेल्ली. आनी तेन्नाच्यांन म्हज्यांत ल्हवू ल्हवू बदलाचें चक्र घुंवलें. ! आंतोनेत ल्हवू ल्हवू बायलेचें रूप घेयत येतालें. आंतोन आंनी आंतोनेत अेकामेकाक कशीं नांवां सोभतात आनी जोडी कित्याक सोभचीना ? अशे संतोसभरीत उदगार आंतोनीच्या जिभेवेल्यान भायर सुटना फुडें, म्हजे उबेंक भारान फुलार आयिल्लो. आनी मागीर आंतोनीचो ताळोच म्हळयार आवाज घेवंक म्हजे कान फुलताले, दोळे ताचेर वळटाले आनी लक्ष पुंजावन ताचेरूच बसताले. ताच्या तोंडातलीं दोन उतरां आयकूक, हांसपांत वांटो घेवंक, ताच्या म्हऱ्यांत वो वांगडा चार खीण सारूंक हांव सदांच आंवडचा-अथरेकतालें.

हांव दुसऱ्या वरसा, म्हळयार इंटर सायन्सीक आसतनां, आंतोनीचें निमाणे वर्स म्हळयार बी. एस्सी. एक वर्स आमचे इश्टागतीचो परमळ सगल्या कोलेजीक पातळ्ळेलो. म्हज्यो इश्टइश्टींणी म्हाका ताच्या नांवान आनी ताका म्हज्या नांवान चाळयतालीं. म्हाका भितल्लेभितर खोशी भोगताली हें आयकून. पुण भायल्यान चाळवल्या भशेन हांव तापताले. वर्गाच्या वेळार लेबोरेटरीत वो प्रयोग-साळेंत आमी एक-मेकांक चड भेटचीं.

सांजची, दिस पडटचार होस्टेलांत थावन आमी हातात हात घालून वेळेर भोंवचीं. रेंदेर गीत गायत सूर काडूंक माडार चडटना, संगीत आयकून काळीज आनंदान उफेताले ! दर्याचे सुकते-भरतेंत आमकां जिवीताचें सुखा-दुःखाचें जितें पडबिंब दिसतालें. तेन्ना आंतोन तत्वगिन्यान आनी हेर गंभीर विशयाचेर म्हजे लागीं चर्चा करतालो. आमचें कुटुंब कशें आसचें, भुरग्यांक शिक्षण कसलें दिवचें, असल्यो येवजण्यो म्हज्या फुडें मांडटालो आनी म्हजें मत आयकून घेतालो. झगझगीत सूर्य समुद्रांत सगल्या आपल्या परजळीत वयभवाच्या आंगवस्त्रान बुडत वेतालो आनी मळबाचेर चित्रकरान पिशोल फाफडिल्ले भशेन रंगांचो शींवर मारतालो. माडां चुडटां सरसरटालीं, उल्हासतालीं, आडसराची उदकाळी साय कशी कातली आमी खाल्लेली.

तेन्ना शांत देंवतल्या रूपयाळ्या चान्याच्या उजवाडान आमी एक-मेकांचे वेंगेंत बांदून उल्लेलीं, एकमेकांत विलीन जाल्लीं. आंतोनीन त्या वेळार म्हाका काजाराचें उतर दिल्लें आनी खोल लांबतलो उमो घेवन ताचेर लाख माल्लेली सुकणीं-सावजां आपलीं निमाणीं गितां गावन करून न्हिदूंक वेतालीं. खारवी जाळां-राप वण वेळेचे धडेर ओडटाले. तांतली चकचकीत मासळी सुपुल्ल्या नखेत्रां परी उसळून पडटाली. आमचे सांधे हागा-थंय भोवताले आनी सुयोग मेळटा थंय बरोच वेळ थांबताले.

आंतोन बी. अेस्सी. पयल्या वर्गात पास जाल्लो. मुंबय विद्यापीठांत पयलो आयिल्लो. कानाडा सरकाराची ताका उंचलें फुडलें शिकप आनी सोद करपाक म्हणून एक शिष्यवृत्ती वा स्कोलारशिप मेळ्ळोली. ते खातीर आंतोन कानाडाक गेल्लो. उपरान प्रशिक्शण वो ट्रेनींग घेतल्या उपरान तो थंय नोकरेक रावलेलो. ही सगली खबर म्हाका ताच्या चीटीवेल्यान गोमताली आनी म्हाका संतोस भोगतालो. कित्याक म्हजो फुडार धडत येतालो. तो अेक ताचोच भाग आसलो. वेगळाय नज आशिल्लो. आंतोनीच्यो चिटी कितल्यो मोगाळ आनी म्हज्या सुखाक उदारपोसण दिताल्यो म्हण सांगू !

कोलेजीत म्हजे वाटेत जायते जाण भुरगे आयिल्ले. दांस आनी हेर चेडे-चेडवां अेकठांय येवपाचे मेळावे हांव मुद्दम चुकयतालें. कोणाकूच हावें मीठी फोडली ना. आंतोनीचें नासलेलें आसप म्हाका सांगात करतालें.

पुण ती बोंबा सारकी चीट ! तिणें सगल्याक लायलो उजो ! आनीक तो कोडू उगडास नाका. म्हजें काळीज पडलेलें तोडून. पेकत आयिल्ले धाये उगडासां वांगडा परत एक फावट उसतताले.

   

आयची हड्डुयार दवल्लेली चीट हातांत धेतली. आनी ती भिरांतीन फोडली.

कितें म्हणटाली : मोगाळ आंतोनेत ...... मोगाळ म्हणपाक म्हाका कसलो अधिकार आसा ? हांव चुकलो. म्हज्या मोगा, म्हाका गुन्याव

भोगोस. हांवें तुजेर मोटो अन्याय केलो... तीं तांबडी बोडकां आमकां कोणे म्हळचां ? पाड पडूं ! हांव भुल्लों ताच्या रूपाक. तांचो मोग इतलो उडटो आनी खिणायळो म्हणपाचें म्हज्या चिकितसायेन पळयतल्या मनाक कळ्ळें ना. फुडें लांब काणी आसली. कसो तो ताच्या जाळयांत सांपडलो, कितें कितें केलें आनी ना केलें. निमाणे ताचे लागीं काजार जालो. पुण उपरांत घरांत इल्ले-शे उजोतीक लागून तें घरातलें भायर सरून आनी कोणा अेकल्या पाकल्या बरोबर गेलें ताका सांडून. तो सोंपयतालो "हीं पापरेलां आमकां खंय ! हांवें वकील करून कायद्याखाल म्हजे-म्हाका ताचे कडल्यान वेगळावन घेतलो. हांगासर दिवोर्स म्हणटा ती गजाल सदांचीच जाल्या. असलीं जायतीं लचाणां करतच, तीं वचून पिश्या-अिस्पीटलांत उल्ललें जिवीत सारतात."

पिश्यां इस्पीटलाचो उल्लेख करतना, म्हाका कच्च जालें. तो फुडे बरयतालो. "हांव सुक्रारदीस, १५ जानेराक घरा पावतां. म्हाका मेळ, तुका दिसता जाल्यार, कित्याक तूं परत म्हाका मेळचें, हें म्हाका फावो ना ! तरी हांव तुका भेटपाक प्रयत्न करतलों. म्हाका गुन्यांव भोगोस. हांव तुजो, सदांच तुजो, पातकी आतोन."

चीट वाचल्या उपरांत, कालेंदारा कडेन हांवें नदर लायली. सुक्रार १५ जानेर, म्हळचार आयज न्हंय ! इतले दीस लागले चीटीक ! व्हय, तो दिस आयजूच ! म्हणटा म्हणसर कोणे तरी दारार माल्लें. आंतोनीचोच असो उलो आयकूंक आयलो. कोलेजींत सदां कानार पडून म्हाका भुलयतलो असलोच उलो तो ! व्हय ताचोच. चेट ! म्हाका दिसता जावंक जाय. आयलो काय खरें ? सपन न्हय मूं ? म्हज्या कानांचो फकत भ्रम न्हय मूं ? अश्यो यवजण्यो.

बाज्जेवेलें उठून उडी घेवन हांव भायर धावलें. लज-भीड नासतना, फाट फुडें पळेनासतना, म्हज्या न्हेसपा-बिसपाचेर चीत्त दिनासतना, धांवून, वेंग-नदर फुलोवन आयिल्ल्या आंतोनीच्या दारा-उंबरार आसतले वेंगेंत हांव सामकें अख्खेंच शेवटलें. दोन वेगळायल्लीं काळजां परत एक फावट झोड-मोडांतल्यान वाट काडून येवन अेकवटीत जातालीं.

आंतोनीक उतर फुटनासलें. तो अणभवतालो तें ताका सत्-मानूंक कठीण लागतालें जांवये. पुण ताच्या हुंडकेतल्या दोळयांतल्यान व्हांवतलीं दुकां म्हजे बावलेले पोलें-गाल मोगान भिजयतालीं.

# ती दांसाची रात

माय म्हयन्याचो हांसतो हुनहुनीत, उर्बेंभरीत काळ. ह्या गिमाळच्याच्या तेंपार दांसाची आनी हेर मौजांची गोयांत वेता थंय गर्दी. मुंबयच्यान सुटयेंत गोंयकार गांव-धरा येतात देखून ती चडूच फुलता. कळंगुटे वेळेर तर ह्या दांसांची रास म्हळयार जाता.

अशीच ही एक दांसाची रात कळंगूटचे वेळेर. भितर सालांत नाचाच्या नादार चेडे आनी चेडवां गूल्ल आशिल्लीं. सवाय रीतीन मेळटल्या भोगाच्या खर्जी उंश्यार ताणी आंग पांग मर्यादीं भायर सुखांत सोडिल्लें. भायल्यान आरबी दर्याचीं गाजतीं ल्हारां वेळेच्या धडेर येवून फसफशीत फेणेर पिस्डून उडोवन ना नपश्छात जातालीं. चान्न्याची रूपयाळी शाल शीतळ परामशी रीतीन रेंवेन तशी उदकार पातळ्ळेली. माडांच्या चुडटां सतऱ्यांचो ल्हारेल्लो हालतो-धोलतो सरसराट.

दांसाच्या सालांत अेका कोनश्याक, मेजार सेर्वेजीचें कोप दवरून, पांय सोडून, हेवटेन तेवटेन पळयत, सालू बशिल्लो आसलो. पिरायेन दांडगो, सुमार ३५ वर्सांचो आसतलो, दिसपात देखणो, लांबदीक आंगलोटीन. हो म्हयनो मौज मारपाचो. आपणाचो वांटो हातंन कित्याक आसचो ना, अशें म्हणीत, सालू घरांत ो भायर सरून दांसाक आयिल्लो.

तर मौज मारूंकूच म्हणून खासा मुंबयच्यान आनी आनीक खंयच्यान देंवून आयिल्लीं चेडवां नाचूंक मेळटात, हें ताणें आयकल्लें. हरशीं म्हणून ताका दांसाची चड आवड. काजार जाल्ल्याक ताका दांसाक वचपाची संद चुकुनूच अशी येताली म्हळ्यार जाता. कितें सांगतलो, वर्साक अेक भुरगें घरांत जल्मा येतालें. देवूच धाडटा मिस्ता, अशें येवजीतालो भोळो सालू भुरग्यांची सांकळ चालू दवरतालो.

आयज तर कळंगूटे व्हडलो गॅला दांस. वाजोवपी अेका-मेकार तीन बेंडां आशिल्लीं. अेक आधुनीक नाचांक संगीत दिवपी, तर हेर दोन "बीट" ग्रूप सगळया संगिताच्या बोवाळत्या हुंवारां तरे तरेच्या नाचांक व्हाव दिताले. सालून तर बायलेक हाडली ना ह्या नाचाक. कोणाक धरतलो, हो ल्हान-सो प्रस्न जावन पडटा तेन्ना. चेडवां कितें फाल्त आसलीं हांगा कळंगुटे, आनी ह्या माया म्हयन्यांत! सालून आशेन भल्लेली नदर सालभर भोंवडावन घेतली. आनी पिलांक धरूंक वेतले घोणीभशेन झोंपय मारून सगळे लाय-लोसणी रीतीन अेका पुटपुटीत चेडवाक नाचूंक उठायलें.

वाल्स चलतालो, हो दास म्हळ्यार संगीतांत मेळयल्ल्या व्हांवत्या काव्याची शांत झर. सालू ह्या दांसांत सामको अेकजीव जाल्लो. त्या सोबीत गुबीत चेडवाक वेंगेंत घेना फुडें, आपुण खंयच्या अपसरेच्या गोपांत आसा म्हणपाचें सालूक दिसलें. जायत्या तेंपान असलें चेडूं ताका नाचूंक मेळिल्लें. तो निमण्या दांसाक गेल्यार दोनअेक वर्सां जातलीं आसलीं. आस आयिल्ली ताका नाचपाची. आता पूण ती भागतली, अशे येवजून तो दांसाक आयिल्लो.

कापाचें बरें माल्लेलें ताणें. ताच्या उर्बेचो नेट तोंकार चडलेलो. नाचाक घे म्हणून लोक. लुटी-खेटीन नाचतना घामेतलीं जोडपीं अेकामेकाक आदळटालीं. संगीताच्या तालार धल्लेलो कुंपास केन्नाय चुकतालो.

सोऱ्या नाडचार सालू चेडवाक मौजेन हालय-धोलयी, बरो नाचपी तो. ताची विलक्षणा नदर सामकी फुल्लेली. ताचें जीरुन उरिल्लें सगळें तरणेपण वयर उफेतालें. आपूण काजारी, बायलेचो धोव, भुरग्यांचो बापूय, हें सगळे तो सामकें विसरून गेल्लो.

चेडवाचोय भेस उत्तम नाशिल्लो, हें ताच्या धूंवरेल्ल्या दोळ्यांक झळकतालें. अशींच मिस्ता हीं तेवटेनचीं चेडवां, सालू म्हणी, दोळ्यां ाकळ्यो अर्द्यो धांपून सालून धिटायेन मोगाचें सवंग उबें केलें. सपनेल्ल्या भशेन गोड गोड कितें तरी ताच्या कानांत तो फुतफुतूंक लागलो. ताच्यां- तलो पीसो कवी खरेपणांत आयिल्लो. ह्या मेळाव्यांत तर कोणाचें कोणाकूच पडूंक नाशिल्लें, अशें सालूक दिसतालें. सालून चेडवाक मातशें आपलेकडेन वोडलें आनी वेंगेत सामकें धल्लें. आडखळ आयली ना. वाल्स नाचपाचो हरशीं जेतूच वेळो. पूण ह्या दिसांनी सांगूंक जाय ! ते दांस जाल्या फकत भोगा खातीर. ह्या बोवाळांत कोण कितेंय सादोंवकूच येता म्हळ्यार जाता.

सालून चेडवाचें नांव विचारुन घेतलें. अनिता, हें नांव आसलें. तें भायकना फुडें सालूच्या कवी मनाक पाखां फुडलीं. सालू कवीतेंतल्यान उलोवंक लागलो. अनीता कडल्यान फुडली खबर विचारीत, जोक्स करीत गुटिल्लो. आपूण पृथ्वी भायल्या संवसारांत पावला म्हणपाचो ताका सुखेस्त भास जातालो.

नाचतां नाचतना, धेय-भान विसरून, लज-भिड गांटीक मारून, ालून चेडवाचो उमो घेवूंक वोडले वोंट आनी सट्ट करून घांस मारिल्ले शेन ते फोर्सान चुमून दिले. अितलेंच करतना, खंयच्यानूच सट्ट करून ोगील देंविल्ल्या वेगान फटाफट करून सालूच्या पोल्यांचेर तापटांचे फार

बसले. अवचीतूच जाल्ल्यान ताका नखेत्रांचो झगझगाट दिसलो. चार गाळी वोंकून सालूक लोटून उडोवन अनिता ताका सोडून गेल्लें. सालूची तकली सपनांत घूंवताली. अिल्लो सोयराणार येतकूच झरत मरत त्या आपल्या कोनश्याच्या मेजार वचून तोंड लिपोवन तो बसलो.

सालूक हो शोक नाका पुरो जालो. लज ही केदी व्हड. दुखेस्त कोनश्याक बसून आपणें केल्ल्या करणेचेर तो चिंतताली. आपल्या फाटल्या सुखी-दुखी जिवीताच्यो घडयो ताच्या मुखार उफेत येताल्यो. ताचे भोंवतणी ताचो संवसार कोंसळून देंविल्लो. व्हन-न्हय-श्या वातावरणांत तो दिश्या नाशिल्ल्या सुवातेर आडखळत लोटांत बुचकळटालो दिसतालो. आयज ताका कितें घडलें. अदष्टूच तें ! व्हय. खरें म्हळचार अशें सालूक केन्ना घडपाचेंच न्हय.

   

फाटल्या धा वर्सांचो सालू म्हळचार दांसात म्हारू आनी चेडवांच्या मेळाव्यांत तकली वयर काडून चकचकपी चेडो. असल्या फ काणांनीं कितले बेयज -उमे- घेतलेंना ताणे चेडवांचे. आनी कोणेंच ताका अशें केलेंना. खंयच्याय दांसाक सालू आसचो. वेळेर दांस, काजरांक दांस वो आनीक खंयसरूय दांस, सगळ्याकूच तो दिसतालो. रातूयभर नाचपी चेडवां फाटल्यान हेड-हेडपी. मौज मारपी. कामाक लागतकूच तर दुडू हातांत घोळूं लागले. मागीर सागूं जाय ! ते कशे कडोवचेले ताका चिंतपाचें लागनाशिल्लें. संदी त्या खातीर घे म्हणून येताल्यो. सवाय अीश्ट मागीर फाल्तूच ना. अेके वटेन जोडचेले आनी दुसरे वटेन सोऱ्यांत, नाचांत, जुगारांत मोडचेले. अशे ते दीस वेताले. रातीचे दीस करप त्या मौजेच्या काळांत.

   

पुण आयज ताचो भेसूय बदल्लेलो आसलो, हें तो खिणभर विसरत वेतालो. तो काजार जाल्लो. आनी बायलेचो धोव आनी भुरग्यांचो बापूय जाल्लो. काजार जाल्लो, व्हय. आनी कोणाकडे ? अशें म्हणटना, ताणें कपलार हात माल्लो. कोणाकडें ? त्या पीडे कडेन ! घरांत सुसेग ना. कितें हांव म्हणटां ? ती कशीय जाल्यार म्हजी बायल न्हय !

घरा सोयरीको जायत्यो आयिल्ल्यो. आवय बापायन वेंचून काडपाची वस्त जाल्ली ती. पावणेक आयिल्ले भशेन थंय पावणेकार येताले आप-आपल्यो नाजूक-कौतुकाच्यो वस्तू घेवून. बराबर दोतीचे पोटले, घराचे, भाटाचे कुडके. व्हकलेचें दिसप–आसप, गूण-वागणूक, कुटूंब-घराणें नदरेंत घेतात, तें बरें आसा. पुण ताचे बराबर दोतीच्या पोटल्याक सगळयांत चड म्हत्वाचे तागडेंत मेजप, हें तोखणायेचें अशें दिसना.

पूण सालूचीं आवय-बापूय वेव्हारीक नदरेचीं. सगळें कुशीक सारून ताणी दुडवांच्या पोटल्याक तोंड उगतें केल्लें. आनी सालून आयिल्ले आनी वेंचिल्ले सोयरीकेंक व्हय म्हणिल्ल्यान सालूच्या खड्डयार अेर्मेलिनाक घाल्लें. अेर्मेलीन हरशी वायट न्हय भुरगें. पूण दिसपांत व्हडलेंशे न्हय. सालून पयलें उमेदीन ताका येवकारिल्लें. पूण मागीर तिका पळेता पळेता सालूक पोंवशेणी मारताली. करता करता तो तिका उणीं लेखूं लागलो. आनी तेन्ना संकष्ट येता ! अेक वेळ ताका सांडून वच्चें-शें दिसतालें ताका. तांचे भितर खोल मोगान रीग घेंवक नाशिल्ली. रूप बावलें लेगीत जाल्यार, मोगाची खरी भावना जी मायेस्त तेल घालून मोगा दिवटी पेटत दवरता. तिची दाटी आनी अेकात्मताय दोगां मदलो मोग जीतो-जीवो दवरता. पूण मोग ना जाल्ल्यान, जशें जशें भायलें रूप बदलता, तशी तशी अिश्टा-गतीची दाटी पातळ जायत वेता. सालूची वायट अवस्ता अशी जाल्ली. दुसरे

वटेन अेर्मेलीन घरांत मांदार अशें करूंक सोदतालें. खूब हट्टी तें, आपलेंच खरें करपी. हांव सांगता तें तूं आयक म्हणपी. सालूचें चड-शें कानार घेनाशिल्लें. ताका मायेमोगान अशें वागयनाशिल्लें. तो तिचे मोगाळ वागणुकेक हरशीं बाबडो आशेतालो. आनी घरांत तो मायपास मेळनाशिल्ल्यान सालूचें ध्यानमन घरात नाशिल्लें. ती तूट भरून काडपाखातीर तें भायर हेडटालें. अशी सालूची मत थाऱ्यार बसनाशिल्ली. पूण सूख-समाधान सोदूंक म्हणून खंयच्यानीय मार्ग मेळचो म्हणून अथरेकताली.

ताचो दोळो हाचेर ताचेर वेतालो. अेर्मेलिनाकडेन काजार जावन व्हडली चूक केली अशें तो आप-आपलेच लागीं म्हणी, ताच्या मनांत पयलें, तें मारी आसलें, सेलीन आसलें, सुझान आसलें, विमला लेगीत आसलें. काय बरी चेडवां ताच्या मोगान हुलपतात म्हणून दाखयतालीं. घरच्यांचें आयकून तांकां आपणे कुशीक साल्लीं, ह्या करणेचो ताका चडफडो भोगतालो. पूण दुसरे वटेन ताचो गुन्यांव नाशिल्लो. त्या चेडवांनी केन्नांच आपली खोशी तोंड फोडून उतरानीं उच्चारून दिलीना. घडये लजलीं आसतलीं आनी सालूक विचारूंकूय काळीज जालें ना आनी गरजूय दिसली ना. अशें हें अेकामेकाक सांगप जायना जाल्ल्यान, बरो फुडार बांदपाची येवजण तांची फिसकटावन गेल्ली. ह्या खिणांत हीं सगळीं चितनां हुंवारान ताच्या माथ्यार कोंसळून पडिल्लीं. तें सगळें आसूं, ताणें म्हळें, बायल बरी मेळिल्ली जाल्यार, तो मनन करतालो, घडये हें अशें जावंक पावचें नाशिल्लें. सगळें पाड पडूं, ताणे म्हळें, आनी दांसाच्या सालांत नदर भोंवडायली. तें चेडूं, अनिता सामकें पडून आनीक कोणा कडेन नाचतालें.

ताका अेके तरेची खोश्येची गजाल म्हणचे, आनी जिचेर ताणे तेन्ना लक्ष दिलेंना, ती ही कि ताचेर अनितान तापट मारिल्ल्याचो देखाव चडश्या

लोकांच्या नदरेक गेलो ना वो लक्षांत अुल्लोना, हें ताका आतां कळून येतालें. सगळें ते गर्देत, बोवाळांत आशिल्ले. तर ही आसली अेक भांगराची संद जीचो ताणें कशाय भशेन फायदो घेंवूकूच जाय आसलो. धराचेर ताणे आतां सामको विसर घालपाचो. आनी दुसरें म्हळचार मद्यान रातीचो वेळ पावत येतालो. ह्या दांसाक त्या वेळार सालांत काळोख करपाची सवंय आसली, हिची ताणे नोंद घेतिल्ली. आनी त्या थोडचा खीणां भितर असो अेक हातांखेळ करपाची मेकळी संद घेवपाक प्रसंग येतालो

सालू उठलो. आनी नवो दांस सुरू जांवच्या वेळार कोणा अेकल्याक बऱ्याकशें उठायलें. ताचे कडेन रूचीन नाचलो. उपरांत ताका आपल्या मेजार व्हेलें आनी सेर्वेंजिची बाटली उगती केली. असल्या दांसाक उदक वोतयता ते भशेन सोऱ्याचेर दुडू वोतोवप हें गरजेचें. आता तर सालूचें सामकें पीकलें ! मागीर, अेकार अेक चेडवां नाचूंक मेळूं लगलीं. मागीर विचारता ! धूंवडाय, घूंवडाय, हालय धोलय. आनी काळखी वेळ येतकूच सगळो बोवाळ. हांतूंत सालुचो बरोचसो वांटो. कोण कितें करतालो तें सांगची गरज लागना. वायट येता तें बऱ्याक येता, अशें येवजीतलो सालू सामको सूख-समाधानात भल्लो. आपली घरची दूरदशा तर ताका विसरूंक मेळ्ळी, आनीक कांयचना जाल्यार ! आरूखी रात जागरण, रातभर नाच नाचलो आनी सकाळीं फांतोडेक सालू घरा परततले वाटेक लागलो.

जशी धाखली गाडी पणजे वटेन धांवतांली, तसो झेमतलो सालू रस्त्याकडचो देखाव पळेतलो. आंबेंतालीं गोरवां गोठ्यांतल्यान भायर सरून हुनहुनीत थापे करतालीं. गाडेकार आपले गाडे तयार करताले. पदेर आपलें सायकलीर धालून उंडयां पांटें घेंवून पों पों करून उंडे वांटीत घरान घर भोंवताले. सकाळच्या वाऱ्यांत रसरसरीत परमळ वाफेतालो. ताच्या सोरेल्ल्या स्वासाक लजेन घालतालो.

सालू वाटेक येवजीतालो. अर्मेलीन आपली साक्रामेंताची बायल. आपल्या काजारा दिसाचो देखाव ताच्या दोळ्यां मुखार येतालो. अर्मेलिनाक कोनश्याक सांडून तो त्या दांसाक अेकटोच मौज मारपाक गेल्लो. पाद्री विसेंतीच्या आनी देवामुखार सालून तेन्ना अेर्मेलीनाचे हात आपल्या हातांत घेवून जुरामेंत (सोपूत) घेतिल्लो. मरण आमकां दोशीं करीसर बऱ्यात तशी वायटांत, आमीं दोगांय अेकमेकाचो मोग करतलीं आनी अेकवटीत अेकटांय रावतलीं. हें ताच्यान कशे विसरूं येतालें ? थोडीं वरां तो ह्या भासायल्ल्या उतरा पयस गेल्लो, त्या गजालीचो ताका चडफडो भोगतालो आतां, पूण दांसाक गेलो आनी असले तरेच्या दांसाक म्हणटकच तें सगळ्याकूंच जाता, असो तो तर्क लायी. तो कितें हांतूंत आडवाद नाशिल्लो ! आपले बायलेक हांगा सांडून, दुसऱ्यांच्या गोपांत चार वरां मौज माल्ली म्हणपाचें येवजूव ताका खेद दिल्लो.

गुन्यांवकारी अंतस्कर्ण घेवून येतलो आनी थकून पडिल्लो सालू पणजे सावन धरांत भितर सल्लो. अेर्मेलीन सदां भशेन कामाक लागिल्ले सकाळीं उठून. आयलों परतो आपूण दुखाच्या पांजऱ्यांत, अशें ताका भितरयां दिसतालें.

"कोण अेर्मेलीन, आयज खंयच्यान अुजवाडलें ?" अशें केंडिल्ल्या भशेन म्हणीत सालू भितर सल्लो. हांसनें तोंड करून ताका मेळूंक येतलें अेर्मेलीन दिश्टी पडलेलें. ताचें हांसतें मोयपाशी मुखामळ सालूक जायत्या तेंपान दिसतालें. ताचे उदगार आयकून अेर्मेलीनाचो हांसो चडूच फूगून फूल्लो.

"उजवाडलां तुजे बाबा. नाचून जालें मु पुरो ?" अेर्मेलीनान विचाल्लें.

"व्हय, तें आनीक सांगूंक जाय !" म्हणीत सालू आपणाचेर आयिल्ल्या दुखाचें खोत अेर्मेलीनाच्या दोळ्यांआड राखूंक खरशेतालो. तोंडार तिका दिसना जाल्यार पुरो, अशे सालू आपल्याच कडेन चिंती.

अेर्मेलीनाक आतां आपलें मन गोमलें काय ? ताच्यात आतां कितें तरी बऱ्याक बदल आयला काय ? अशे प्रस्न सालूच्या मतींत येवून पडटाले. ताणे आंगाचें अेक अेक सोडूंक सुरू केले. अेर्मेलीन अितले म्हणसर ताचे खातीर हुनहुनीत काफी घेवन आयली. ती ताका दिली आनी तोंडार हांशे खेळोवन ती ताज्या म्हऱ्यांत बसली.

"थकला जातेलो तूं, चल न्हीदे वचून." अशीं निरपराधी दिसतलीं उतरां अेर्मेलिनाच्या तोंडांतल्यान पयलेच फावट सुट्टालीं, अशे सालूक दिसो. आनी ताका बरें दिसलें. जिवाक बरें लागलें. भुरगीं उठिल्ल्यान हेवटेन तेवटेन धांवत तीडटालीं. सालून गुन्यांवकारी नदरेन अेर्मेलिनाक तोंडभर पळोवन घेतलें. पयलींची ती ताची बायल उरूंक ना, अशें येवजीत, जांव बरें जालें सालू म्हणटालो. सोबीत दिसनाशिल्लें अेर्मेलीन, कांय नजो. सभावान तें आतां बरें जावंक लागलां, हें ताका ल्हव ल्हव पटत येतालें. ताच्या दोळ्यां मुखार आशेचीं किर्णां मातून येतालीं. ताची कशीय जाल्यार बायल ती. आपणाची वायट वागणूक तिका घडये कळ्ळ्या जातली. आनी आतां बऱ्याक वावुरतली म्हणून घडये तिणें निस्चेव केला जातलो. हांगा बायलेक सांडून आपूण नाचाक मौज मारतालो म्हणपाचें चिंतून ताका वायट दिसलें.

अेर्मेलीनाक सालून त्या पातकी वेंगेंत घेतलें आनी त्या आशेल्ल्या वोंटांचेर आयले भोगसोणें मागतले वोंट चुमून दिले. आनी हुडूं धाडावन, नवो निरधारीत निस्चेव करून न्हिदेक गेलो, चिंतून आतां अेर्मेलीन बरें जातलें आनी आपलो संवसार थाऱ्यार पडटलो. व्हय तो आंता थाऱ्यार पडटलो ! ताका आतां घरांतूच सुखाची बांय मेळटला !

अेर्मेलीन, खोशालकायेचो उजवाड तोंडार खेळोवन, सगळी परिस्थिती मुठींत घेतालें.

❖ ❖ ❖

# मसणो

देझेंब्रांतल्या दनपारच्या रखरखीत वोतांतल्यांन गांवटी नळयांनी शिंविल्ल्या आपल्या खोंपटे धरांत तो भितर सल्लो. ताच्या काळश्या, वोतान बाजिल्ल्या मुखामळार सगळोच खोशालकायेचो उजवाड पडिल्लो, ताचे दोळे लिकलिकत हांसताले. कपलार सावन पोल्यांवेल्यान हुमेचे थेंब्यार-थेंबे गळटाले. धवो मुंडासो बेस बरो सोबतालो ताका आतां. आंगाक ताणे नवें धवेंच खोमीस घाल्लें. आनी पुडवेंय बी धवें-फूल्ल. आतां कि ताका पळोवपाचो आसलो. नाका आतां भोवमान आयिल्लो.

खोश्येचे भावनेन गळो भरून आयिल्लो ताचो. तसोच बायलेक उलो करीत तो भितर गेलो. तिका पळेना फुडें ताणे धादोसभरीत बोब माल्ली.

“आमचें जालें आतां. हांव ह्या गांवचो म्हाराजा जालों. लोकान विंचून दिल्या तेंचो हांव सोरपांच जालां. म्हणचे गांवचो राजा. आयकलें !”

हें आयकून, बायलेक कितें करचें, कितें ना हें येवजना जालें. तिचें काळीज बोरीं भितर धडधडूंक लागलें. तोंडान पावलेंशें दिसलें ! ती ताका येद्या दोळयांनी, मोन्यांनी पळोवंक लागली. तशें जाल्यार, तिका येवजतालें आपूण म्हाराणी जांवची पडली न्हय !

घोवान फोडणिशी करून दिली :

"कितें सांगूं ! ह्या भाटकोरां भितर वाद झगडीं जाता म्हंटल्यार, आमकां फायद्याक पडटा. तो पांडुबाब आनी तो निळुबाब, हेंचे मदीं, न्हय गो, सोरपांच जावपाक धिरी लागली. दोगूय अेकमेकाक वायट उतरा दिवूं लागले. दोगांयकूय तितलींच मतां पडलेलीं. ह्या सगळ्या वाद-वांटपणांतल्यान म्हाजेलो नुंबर वयर सल्लो. आनी म्हजें नांव सगळ्यांनी मानून घेतलें. आनी म्हाका तेंको दिलो. तेन्ना केदो ताळ्यांचो खळखळाट पडला त्या घरांत गो. समजलें ? सेसांवाच्या घरात गो !"

अशें करून, मसणो गावडो, फोंड्या म्हालांतल्या केळडें गांवचो सरपंच म्हणून वेंचून आयिल्लो. रूसी भाशेंत खंय अेक म्हणणी आसा : जेन्ना नुसते मेळना, तेन्ना कुल्ल्यो चिपटांय बी नुसतेंच जावन बसता. तशी जाली आमच्या मसण्याची गत्त. शिकील्ल्या सवलेल्ल्या वांगड्या भितर सरपंच जावपाक झगडीं पेटिल्ल्यान, मसण्याचे पिकलें !

मसणो, हो सादो-सुदो गावडो न्हय आशिल्लो. भुरगेपणांत तो गांवचे मराठी साळेक वचून चार म्हयने श्री गणेशा शिकील्लो. वाचूंक, निशाणी करूंक येताली ताका. स्वर्गवासी बापायन बांदिल्ल्या खोंपटे घरांत रावून वावर करून तो आपलो दिसपट्टो-ग्रास करी. तो फोंडुबाबाल्या मुंडाक आशिल्लो. सकाळीं उठून, तळ्यांतलें उदक हाडून तो धनयाल्या कावथ्यांक शिंपी. माडांक सारें, आळें घाली. शेतांतल्यो दोन पोको काडी. पावसाच्या कृपेन अेक सोरड रोयतालो आनी मागीर तळयेंतल्या साटोवन दवरील्ल्या उदकान वांयगणाची दुसरी पीक काडटालो. उतपन्नाचे दोंन वाटे भाटकाराक आनी दोन वांटे आपल्याक, ह्या भशेन ताणे भात वांटून दिवचें आसलें.

अितलेंच करून तो वोगी बसनासलो, भाटकाराचीं कुळागरां आसलीं. तींवूय बी ताणेच पळोवपाचीं. आंगलोटीन केळंबे आनी वेंगभर केळ्यांचीं.

घडावळीं, गुबगुबीत रोसाळ अनसां, लांब नीट धव्यो माडयो, जांच्या तेंगशेवेल्या घोंटेरांत फोफळांचे मातये-तांबशे घोंस पुंजाविल्ले, जांचे मदीं हारश्या सारके उदकाचे नितळ झरे व्हांवताले. ह्या शीतळ थंडसाणीत ताणे उमेदीन वावुरचें.

दिसाचो वावर सोंपल्या उपरांत, मसणो ह्या कुळागरांमदीं विसव घेवपाक बसचो आशिल्लो. ती ताची दिसपट्टी हांगा पासय आसतालीच. थोडे खीण संवसाराच्या हुसक्यातलें मन मेकळें करचें आनी सैमाच्या सोबिताये लागीं मायेमोगान उलोवा-उलोवप करचें, अशें ताच्या बऱ्या-भल्या मनाक दिसचें. पूण हांगा बशिल्लो आसतना तो केन्नाय गंभीरतायेन विचार करपांत पडो.

"म्हणटात ते प्रमाणे," तो आपणाकूच म्हणो, "हे पुर्तुगेज जेन्ना आमकां सोडून वेतले आनी आमचें राज्य येतलें, तेन्ना खंय आमी वयर सरतले! आमच्या हातात सत्ता पावातली."

आनी हें येवजून, त्या बऱ्या फुडाराच्या दिसाक अथरेकून तो ती सुखेस्त वाट पळेत रावतालो. तेन्ना गोंय पुर्तुगेजा सत्ते तळा आशिल्लें.

   

आतां गोंय मेकळे जाल्लें. आमचें राज्य आयिल्लें. भारतांत हेर कडेन आशिल्ले कारभारी पद्धती प्रमाणें, गोंयांतूय बी पंचायत राज्य आयिल्लें. हें सामकें गांवच्या पांवड्यार सत्तेचें विकेंद्रीकरण आशिल्लें. पंचायतीच्यो पयल्योच सर्व वेंचणुको गोंयांत जाल्ल्यो आनी आपूण कितेंय तरी करतलो म्हणून येवजून आनी बरें-मागत्यांनी फुडें काडिल्ल्यान मसणो वेंचणुकेंत भितर सल्लेलो आनी पंचाच्या जाग्याक वेंचून आयिल्लो. तो गांवच्या राजकारभाराचो वेंचून आयिल्लो अेक वांगडी प्रतिनिधी जाल्लो पुण ताचो मुखेल वो

सरपंच आपूण जायत म्हणपाचें ताच्या सपनांत लेगीत आयलेंना. आनी आतां खरें म्हळ्यार ही ऊंच झुटी नाका म्हळ्यार ताच्या माथ्यार येवन पडिल्ली. ताच्या चिंतनांक हुंवार आयिल्लो.

मसण्याची जिणेकडेन पळोवपाची नदर आतां चिके बदलूंक लागली. आदीं ते भाटकार करताले, तांचो पाटलाव करचो, अशें ताका दिसचें. आतां, ताज्या सारके नवे भाटकार अस्तित्वांत येताले. खोशालभरीत जाल्लो तो. आतां लोक म्हजे लागीं फावोर मागूंक येतले. सिदांव हांव पास करतलों. पंचायतीक नेमिल्लो सरकारी चिटणीस म्हजे लागच्यान ओर्दी घेतलो. हें येवजीता येवजीता, कितें म्हण कोण जाणा, ताका आपल्या नांवाची लज दिसूंक लागली, नाव तरी बदलूंक जायना. तें आवय-बापायन दिल्लें. तांच्या उगडासाक तरी तें राखूंया!

भौन भौन जलमल्लीं भुरगीं मरतात तीं पळोवन, तो जायना फुडें, ताका मसणो वो मसणांतलो ह्या अर्थान नांव दवरील्लें. आनी देवा कृपेन तो वांचिल्लो.

पुण आडनांव गावडो, हें बदलुंकूच जाय, हें तर ताका निसचीत दिसलें. आनीक वगत केलो ना. वेंचून आयल्या उपरांत ताणे आपल्या उंचल्या झुटयेची पोस घेतिल्ली. आनी मागीर रेजिस्त सिवीलाच्या कचेरींत वचून आपलें नांव बदलून घेवपाच्यो तयारी केल्ल्यो. मसणो गावडो, हें नांव आतां मसणो केळडेंकार जावचें, ही ताची खर अित्सा. मसणो केळडेंकार, केद्या नेटाचो, तोला-मोलाचो भोवशीक मनीस, ताजे ताकाच दिसलें. आनी तें नवे नांव परत परत म्हणून, ताचो जागर आयकून तो धादोशी जालो. सरकारी राजपत्राचेर जाहिरात बी घालून आपलें नांव ताणें जाय तशें बदलून घेतिल्लें.

आनी आतां तो आदलो बरो धंदोय ताणे सोंडून दिल्लो. आपल्या खोपटे घराच्या उंबरार बसून, सुपांत दुमटेची पूड घेवून शेंत्ताच्या फोल्यां कुडक्यांनी भरून, त्यो विडयो वळच्यो आसल्यो ताणे आनी मागीर विकच्यो. तेन्ना पुडव्याची आनी खोमसाची गरज नाशिल्ली ताका. पेंकटाक तांबसो-गुलाबी काश्टेचो रूमाल आनी माथ्याक गुठलायल्लो तो तुवालो, आनी आंगाक बनयान पुरो आसलें. घटमूठ गोंयचो मुळपुरूस तो. पुण आतां आदलो मसणो उरूंक नाशिल्लो.

आपलें नांव बदल्ल्याची सगल्यांनी नोंद घेवची आनी आपणाक त्या नव्या नांवान वळखूंचो, ह्या आवडचांत तो बुचकळटालो. ताणे रोखडीच ग्रामसभा आपयली. पंचायत चिटणीसान अिंग्लेजीन करून दिल्ल्या चिटीचेर ताणे आपली निशाणी बसयल्ली. ताचे पयलीं, चिटींत कितें म्हळां तें ताका चिटणीसान कळोवन दिल्लें.

थारायल्ल्या दिसा आनी वेळार, केळडचां गांवचें सेसांवांचें घर लोकांनी गच्च भल्लेलें. मसणो गावडो कितें सांगता तें आयकूंक ते थंय जमिल्ले. हो आनीक कितें उलयतलो, ते म्हणी. ताणे शिकप तर चड केलेना कांयच ना म्हळचार जाता !

काबदी पंडीत जरी तो नासलो तरी ताची देवान दिल्ली निमर्णेची बुद्द आसलीच. आपले विचार कशे मांडचे, हें तो भोव बरें जाणा आशिल्लो. तो आपले आवय-भाशेंतल्यान बरें उलोयी आनी त्या आपल्या कोंकणी भाशेचो ताका अभिमान आसलो. तरूय केन्नाय ताच्या मनांत दुबावाचीं कुपां येवन ताका गोंदळांत घालतालीं. ताका दिसोः हे सगले फिरंगी, विदेशी भासो जाणा जावपांत भूशण मानतात. आनी आपूण तांचे परस कित्यांत उणो ? गिरेस्तकायेंत मू ?

मसण्यान तेजवंत भाशण केलें. राजकारभाराचीं सुत्रां कशीं आतां गांवच्या लोकाच्या हातांत पाविल्ल्यान, गांवची सर्व वाटांनी उदरगत करपाक तांचेर केदी जबाबदारी आसा म्हणपाचें ताणें हाजीर आशिल्ल्यांक पटोवन दिवपाचो येत्न केलो. फुडाराच्या विकास-वावराची ताणे आंखणी केली. ह्या ताच्या निजाच्या वेव्हारीक गिन्यानाची परजळीत धार पळोवन सगले दिपकानन, अजापून गेल्ले. ताची तोंड भर तोखणाय करूं लागळे.

निमाणेकडेन मसण्यान ताळो-सुरांटून जाहीर केलें.

"जाणा जायात सगळे जे म्हाका आयकतात आनी हेर लोक जे हांगा येवूंक पावलेनांत. कालच्यान ह्या फुडें म्हजें नाव बदल्ला. तुमच्यांतले जे सरकारी राजपत्र वो बोलेतीं ओफेसियाल वाचतात, ताणीं ह खबरेची नोंद घेतल्या जातलीच. उल्लेल्यांक हांव कळयतां, ह्या म्हज्या अधिकारी कदेलीर साकून, कि आयच्यान म्हजे नांव मसणो केळडेंकार, ह्या गांवचो मुखेल गांवकार. सगळयांनो, नोंद घेयात... अितल्यान सभा सोंपता."

हाजीर आशिल्ले हे खबरेन थटाकले. हो आनीक पिसावला काय कितें, अशें कांय जण म्हणी. नांव बदलूंक जाता म्हणून हाका कोणे सांगलें ? कांय जाण प्रस्न करी. हाणे अशें कित्याक केलें, हेर विचारी. पुण कांय जाणांक ताच्या कुर्तुपाची समजावणी मेळ्ळी. ताका आत्महितपणाचे दुवेंस लागिल्लें. तो आपूण आपल्याकच हीण लेंखूंक लागलो. मोराची पाखां विकर्शी हाडून आनी तांतून आपल्याक न्हेंसोवन घेवन, आंपूण मोर जातलों, ताका दिसलें.

आपल्या वांगड-संवगड्यांक ताणें मोठें चाव-बाजी-पुरीचें जेवण दिलें. ताचे कुशीक आता ताची बायलूय दिसूंक लागली. तिचो जेत आनी नेट मुद्दम पळोवपा सारको !

ते राती मसण्याक गोड सपनानीं निणिल्ली न्हीद पडली. तरूय, मागीर तो भौन भौन उठ्ठालो. दोळो लागना जालो. जायतीं चिंतनां घोळटालीं ताचे मतींत. ताका विसव मेळनाशिल्लो.

ताचे भितर आशिल्ले दोन व्यक्ति मदें झूझ पेटिल्लें. अेकली म्हणटाली आदीं ह भाटकार पुर्तुगेज मारून आमकां फटयताले आनी तांतल्यांनी आतां अिंग्लेज फोडपाची धल्ल्या. तरूय आतां कोंकणी आपली आवयभास म्हणटात. म्हाकाय बी पुर्तुगेज उलोंवक येता. हांव तांकां बरी बुद्द शिकयतलों. दुसरी म्हणटाली-हांव गावडो, हें खरें. अितलो तेंप हांव दुसऱ्यांच्या पांगेक आसा. आमचे भाशेतल्यान हाव बरो उलयतां, ते भाटकार अितले शिकुनूय म्हजे परस व्हऽऽडलेशे बुदवंत अशे दिसनात, पुण तांचेविशीं दुस्वासपण कित्याक ? आमकां ताणीं कितें वायट केलां ? आनी केलांय आसत जाल्यार, तें आदलें सगळे विसरूंया.

पुण ह्या झुझा-झगडयांतल्यान ताचे हांवपण फुडयतली पयलीच व्यक्ति जिखिल्ली. ताणें थारायल्लेंच. हातांत आयिल्ल्या अधिकाराचो आतां बरोच फळादीक उपयोग करतलों. ताणें निमाणो निस्चेव केलो. गांवात तो रॉकी आसा. तो खंय आफ्रिकेक आसतालो आदीं. दीस-भर अिंग्लेज तासता. ताजे कडेन तासपा अितली म्हाजेजवळ अिंग्लेज आसा. मागीर तो आसा आमचो देवळा लागचो भाटकार, आनंदबाब. हो तर पुर्तुगेजूच काततालो त्या तेंपार. पुण आता कोंकणी बगर कसलीच भास उलोवपाचें मनार घेना. व्हडलो अेम्प्रेगाद खंय तेन्नाचो. आतां सुखवासी जावन घरांत आसा. हांकां बुद्द शिकयना जाल्यार त्या बापायचो हांव पुतून न्हय! अशे ताणें हे विशीचे आपले जळटे विचार संपादून हाडले.

  

दुसरे दीस, मसणो केळडेंकार, केळडेंचो सरपंच, आपलो आधिकार लोकांकडेन पावोवपाक आनी आपली नवी मेळिल्ली पदवी तांकां कळोवपाचे हेतून घरातलो भायर सल्लो. आतां ताणे माथ्याचो मुंडासोय बी सोडून दिल्लो. नवो मनीस जावपाची ताका खर उमळशीक लागिल्ली. पुडवें आनी खोमसा खेरीज, आतां ताणे नवी ज्युदी घातलेली. दिसूय बी ताज्याच फावरार आशिल्लो दिसता. मार्साचो हांसतो वसंतकाळ.

देवळा लागसार आनंदबाबाल्या घरालागीं पाव जाल्यार, तांगेर गंवडे नवें दुरीग दाळटात तें ताणे देखलें. तें पळोवन, भितर आशिल्ल्या आनंद-बाबाक ताणे उलो करून आपोवन हाडलो. ताजे लागीं उलोंवक मसणो पयलो मात्सो खांकुडलो. हाचे कडेन पुर्तुगेज कातर्तलों, ताणें थारायलें आनी म्हळें ,'सिंचोंर आनंदबाब, यो सरपंच मसणो," म्हळयार हांव सरपंच मसणो. आनंदबाबाक लेखून ताणे आपली नवी वळख करून दिल्ली.

"आरे, किदे जाय ? आनंदबाबान विचाल्लें. भितर नाल्लांचो हिशोब लायतालों थंयचो ताका हाणे उठावन हाडिल्लो. सरकाराचे ३५ वर्सांचे सिर्विसे वरवीं ताचें केंस बी पिकील्ले. तरूय जिवान तणटणीत दिसतालो तो.

ताची फुडली जाप सुटना देखून, आनंदबाबान तिडकीन विचाल्लें. "आरे, किदें जाय तें सांग रे पापया, बेगीन. म्हाका काम आसा रे हांगा."

"यो सरपंच मसणो," ताणे परत अेक फावट म्हळें आनी फुडें वेतलो म्हळयार ताका उतरूच सूटना जालें. ताणे आनीक अेकदां म्हळें: "यो सरपंच मसणो."

"जाणा रे हांव, तूं सरपंच मसणो. म्हणटकच हांव कितें करूं ? म्हाकाय बी मसणांत वच म्हणटा ?" आनंदबाबान रागान सांगलें.

अशेतल्यान, मसण्यान दुरीग बांदतालें ताका बोट दाखोन, गोमटेच्यो शिरो ताणून म्हळें -

"अश्तु पेद्रा... पेद्रा... पेद्रा" आनी मात्सो आडखळत आडखळत "पेद्रा... पेद्रा,पेद्रा नांव लिसेंसा," म्हळचार, तांबडे पुर्तुगेजींत, फातर दाळटात वो दुरीग बांदतात लिसेंल वो परवानगी नासतना.

हें आयकना फुडें, आनंदबाबाक मसण्याचे चुरचुरे दिसले! ताणे बुद्द दिली.

"आमचे भाशेंतल्यान उलय मु रे! खंयचे वारें लागलां रे तुका? काय बरो आशिल्लो मु रे तूं? ती फिरंगी आमकां कोंकण्यांक कोणे म्हळया?"

"कोंकण्याक ?... " मसणो रागान भणभणलो, "आनी ती ख्रिस्तांव उलयनांत ? " ताणें प्रस्न केलो.

आनंदबाबान सांगणी उजवाडायली.

"आरे मसण्या, ख्रिस्तांव हेवूय बी कोकणेच! जे लोक कोंकणांत रावतात म्हळचार आमच्या गोंयांतूय बी, जांव मागीर ते धर्मान ख्रिस्तांव, हिंदू वो मुसलमान, ते सगळे मेळून कोंकणे! कळ्ळें मू ?"

हें ताणे आयकलें पूण ताचो अर्थ ताच्या लक्षांत गेलो ना न्हय म्हणून ताका पटलो ना. नव्यान ताणे आपलो हट्ट धल्लो!

"पेद्रा... पेद्रा पेद्रा, नांव लिसेंस," तो गर्जलो!

आनंदबाब आनीक करतलो कितें! ताणेंय बी पुर्तुगेजींत सुरू केलें "अ लिसेंसा अे कोंतीग ?" अशें विचाल्लें, म्हळचार, लिसेंस तुजेकडेन ?

"नांव कोंतीग, नांव कोंतीग... लिसेंसा कामरा" मसण्यान सट करून फडफडीत जाप दिली. किर्ते तरी सामान्याभायलें केल्ल्याची ताका खोस भोगली.

आतां जाल्यार, आनंदबाबाच्यान हांसपाचें सांवरूंक जायना जालें. मसण्यान उलयल्ली ती सामकी उलटी पुर्तुगेज आशिल्ली. "कुमींग" म्हणचें "म्हजे कडेन" म्हणचे सुवातेर "कोंतीग" च, म्हळयार, तुजे लागीं न्हंय, म्हणून, तो आपले जापेन धादोशी जाल्लो.

आनंदबाबान फुडें विचाल्लें. "परा कोंस्त्रुसांव दु मूरू, नांव अे?" म्हणचें, दुरीग बांदपा खातीर, व्हय? आनी दुरीग बांदता थंय बोट दाखयलें.

माथ्यार अकस्मात वीज पडिल्ल्या भशेन, मसणो रागान सात माड उडलो!

"किर्ते म्हाका मूर्ख म्हळो तुमी?" तो प्रस्नाभरीत आडुलो. ताचो राग मस्तकाक चडिल्लो हात-भायर पाविल्लो. ताच्यो शिरो फुलुन उठून दिसताल्यो. दोळ्यांर, वोंठांर, कपलार, सगल्या ताच्या, सांद्यांचेर राग उमळुन खेळटालो!

ताणें फुडें शेवटिलें "किर्ते दिसलें तुमकां? आनंदबाब, मूर्ख म्हळो तुमी म्हाका!"

"आरे मूर्ख म्हणूंक ना रे हांवें तुका." आनंदबाबान थंडायेन ताका समजावपाचो प्रयत्न केलो. आरे, "मूरू" म्हळां हांवें. पुर्तुगेजींत "मूरू" म्हळयार "दुरोग." तूं पुर्तुगेज मारपाचो सोडिना म्हणुन, हांवेंय तुका पुर्तुगेजींतूच उलोवन सांगिल्लें.

आसलो. हो आनी आनीक अेक मेळून अख्ख्या घराक दोनूच दिवे पेटिल्ले आसले. घर म्हणून ल्हानूच तें, तीन कुडींचें. तेंच आल्वीताल्या बापायन बांदून दवल्लें म्हणून फावलें. ताजे लागीं जाल्यार जांवचें नासलें.

मेजा लागीं धर्नीर अेक शेंद्री सोडिल्ली आसून, गोजड्यांनी रेवडलेली तिचेर अेक तरणीच बायल न्हीदलेली. जरी आंगान बारीक आसली तरी रूपेस्त सोबीत दिसो ती. तिच्या माथ्यावेल्यान दोनूयवशीं तिचे उगयनाशिल्ले मुदयाळे केंस लांबत सुटलेले. आपल्याक भोगतलें दूःख भितल्ल्या भितर दामून चेपून भायल्यान हांसतें मूखामळ दाखोवपाचो ती येत्न करी. तिचे फुड्यांत वैजीण रोज मावशी दोळ्यांत तेल घालून राखूंक बसलेली. कित्याक आल्वीताचो बायल, मारी, बाळंत जावपाक पावलेली. आल्वीत दोतोराक आपोवपाक म्हणून भायर सरून गेल्लो.

दुर्बळ दशा तांगेली. आताच्या काळार बाळंत जावपाक अिस्पिटलांत व्हरपाची चाल जावन पडल्या. पुण बायलेक पणजे व्हरून अिस्पिटलांत घालतलो म्हळ्चार आल्वीताक फावो तितली तांक खंय आसली? अितले दुडू हातात आसूंक नाका? रीण मात खंय बुड्डिल्यार. अेका साधारणश्या सावकारागेर सेल्समन वो विक्रेकार म्हणुन कामाक आसतालो तो. सकयल्या पांवड्याचो कारकून आशिल्ल्यान म्हयन्या सोंपत्यार वो फुडल्या म्हयन्याचे सुरवातेक घेतिल्ले तीनशें रूपया पाग म्हणून कित्याक पावताले! गरजे वस्तुंच्यो दरो दिसानदीस वाडत वेताल्यो.

त्या देझेंब्राचे थंड राती मारी चिंतनांत पडलेली. फाटल्या फुडल्या गजालिंचेर नियाळ करताली. वेळ धांवत वेतालो, पुण दोतोराची खबरूच

नाशिल्ली. तिचो हुस्को तंग चडटेर पाविल्लो. दूख वाडत वेतालें... रातीचीं साडे-अिकरां जावन गेल्लीं. तिका बुजवण वो आदार दितलो म्हळचार आनीक कोणूच नासलो. फकत ती अेकलीच अेकसुरीच वैजीण. आल्वीताचीं आवय-बापूय तर काळजांची पिडा जावन फाटो-फाट भायर पडिल्लीं.

रोज मावशेन मारी कडेन पळेलें. ती अेकसारकें वांट नाशिल्लें चीत्त दिवन मारीची आवतीकाय तेळटाली. तिणे मारीचेर हात भोंवडावन मायेन बासपूस केली.

"आतां जिवाक कोहें दिसता बाय ?"

"दिसता ऽऽऽऽ दुखता ऽऽ गे" अशो मारीन जड जाप दिली. मारी दुखाच्या सणसण्टचा भाराखाल परवंतालें. हरशीं सगळ्या भोंवतणेंत मौन पडिल्लें. "मां , मांय... आवैस"... हे भौन भौन ताच्या तोंडातल्यान उल्हास सुट्टाले. रोज मावशी पूर्ण तयारेंत आसली.

थोडया वेळा उपरांत आल्वीत आनी न्हिदेंतलो उठून आयिल्लो. दोतोर सांखवाळकार घरांत भितर सल्ले. दोतोरान मारीक बारकांयेन पळेल्ली. तिका कसलीच भिरांत ना, सगळें नोर्मल आसा म्हणपाचें सांगून, रोज मावशेक कांय उपाय घेवपाच्यो सुचवण्यो दिवून, दोतोर घरा गेल्लो.

कुडी भितर रोज मावशी आनी मारी बाळंतीचे सुटकेचे खीण मेजीत रावताली. खंयच्याय वेळार हो म्हत्वाचो वेळ येवचो आसलो. त्या कुडीच्या धांपिल्ल्या दाराभायर आल्वीत अेक कदेल घालून बसून आसलो. २७ वर्सांचो दांडगो देखणो तणटणीत तरनाटो तो. अिश्कोलाक आसताना, कुस्ती खेळपांत अिनामां जिखपी.

गुठलो कसो. आल्वीतान खोश्येन मुर्गटून ताका व्होंटयेंत घेवन तोंड-भर तोखेलो.

मारी आनी कांय वेळान जागी जाली. आनंदान भरून येवून तिणे आपल्या बाबुल्याक मोगान, वत्सलेन वेंगेंत घेवून पोशेवन, ताचो उमो घेतलो ...

दोन खिणांत त्या वणटींवेल्या घडयाळीचेर मद्यान रातीचीं बारा वाजलीं. त्याच खिणांत अिगर्जेच्यो घांटी सगल्या वैभवीत घणघणान टांवटांव करून वाजल्यो. फोगोटयांचो कडकडाट कानार सणसणलो. अिगर्जेंत जेझु जल्माक आयिल्ल्याचो दबाजो... खोशेन भुरकुटून नवो नेट आयिल्ले स्फूर्तीन मारीन आनी आल्वीतान गावूंक सुरू केलें. सगळें दूख आनी अेकसुरपणाचे कोडू उगडास ह्या घडयेन कुशीक सारिल्ले. तांचेर विसर पडिल्लो त्या सुखा मुखार...

तेन्ना ताकां अेक सुखाचो भास जालो. तांगेल्या घरांतल्या गोठयांतलो बाळक-जेझु भायर सरून होंटयेंत आयलो. मारीन आनी आल्वीतान ताका बेंगेंन घेतलो आनी सुखान धडधडटल्या काळजाक धरून ताचो भोव मोगान आनी आदरान उमो घेतलो. तेच राती तांचोय म्हालग्रत पूत जल्माक आयिल्लो. केदें भाग्य हें! केदो व्हड संतोस हो! तें जेझुचें जिवंत दर्शन घडलें तांकां त्या नातलां राती, त्या सुगुर्व्याच्या खिणा!



# चडफडो

जुलाय म्हयन्याची काळखी रात. हरंधारींनी पावस वोत्तालो. दर्याक वादळ सुटिल्लें. मळब आकांताच्या घडघडान कापतालें. झगझगीत जोगलावणेचे उजवाड-बाण सणसणटाले. दामरायल्ल्या रस्यावेल्यान उदकाचे व्हाळ व्हांवताले. बिजलेचे दिवे पालोवल्लें. कुशीचीं झाडा-पेडां थंडयेन वाऱ्यान वयर सकल झडताली आनी खांकुडटालीं.

अेके दुबेंतीक पळोवन घरा पर्थतले वाटेक म्हाका हो पावस सापड-लेलो. गाडी घेवन हांव म्हज्या घरालागच्या पणजे कांपालावेल्या रस्त्यार पावित्लो. गाज आवाजान उब्बांबळील्ल्या ल्हारांचे तोलादीक घसघशे उठून येवून रोस्तीन ग्रादीर आपटताले. फसफशीत फणर रस्त्यार शींवरायताले.

गाडयेच्या दिव्यांच्या उजवाडान जमनीर शेवटल्लें अेका मनशाचें आंग सट्ट करून झळकेक अडखळलें. कितें काय म्हण पळेतलो म्हळें. गाडी थांबयली आनी भायर सल्लों.

मनीसूच तो. धवशा पूण नतयेन पावसान चपचपीत भिजिल्ल्या अशा आंगवस्त्रांनी गुठलायल्लो भरो कसो दिसलो. पावसाची पर्वा करीनासतना तो थंय सोयराणा भायर पडिल्लो. सगळो पावसाचो जोर तो आंगार

घेयी. हांव काकुळटेन भरून आयलों. कोण तरी दुर्बल बाबडो हांगा पडला जातलो. जेवण, घर ना जाल्ल्यान, न्हय म्हण सोद घेतलो कोण ना जावन अशें जालां काय ? हांव म्हजे म्हाकाच विचारतालो.

ताका उखल्लो आनी गाडयेचे फाटलें बसकेर पातळलो. सोंपतोच गाडी घेवून घरा गेलो.

थोडया वेळान तो मनीस अिल्लो भानार आयिल्लो. दिल्ली हुनहुनीत कॉफी ताणे घेतली. आगांचें बदल्लें. हुनहुनीत उदक न्हाले. आता म्हजें मुखार सू करून हातपाय सोडून कदेलार बशिल्लो.

सांसपिल्ले भशेन, म्हाका साय आयिल्ले दोळेभर वयर सकला ताणे पळोवन घेतलो. वण्टीचेर नदर भोंवडायली. म्हाका वळखिल्ले भशेन ताणे दोळे लिकलिकले आनी म्हळे :

'दोतोर, हाव खंय आसा ?'

हो आनीक म्हाका खंय वळखता ! हांव चितूंक पडलो. अितल्यान हें तोंड खंय तरी पळेल्ल्याची म्हाका याद जाली. व्हय, हेंच जावंक जाय वो आल्फ्रेद. म्हजे बराबर त्या म्हापशेंच्या अिस्कोलांत शिकपी भुरगो. म्हजेच अितले पिरायेचो आसतलो तो. पुण आतां... म्हजे परस कितलोसोच जाण्टो दिसता.

'म्हज्या घरात आसां तूं, आल्फ्रेद. लुयजीत मु रे हांव. कांयच भियेव नका. म्हाका वळखूंक ना तुवे ?'

आल्फ्रेदीच्या तोंडार वळखल्ल्याचो भाव उदेलो; तेच बराबर ताका

शेळो घाम सुटलो. तो लजलो. ताणे मान खाला घाली. सामकें ल्हानविकायेचे आंगलें आपलें भोंवतणी वोडलें. ताच्या जिबेवेल्यान उतर फुटना जालें.

'पयले आमी अिल्लें पोटांत उडोवया. अिल्ली ब्रांडी घे तू. सावित्री ती ब्रांडोची बोत्ल हाड गो.' हांवे फर्मायलें.

मोन्यानी आल्फ्रेदीन दिल्लें ब्रांडोचें कोपीन घेतलें. तो खोल येवजणेंत आसलो म्हणपाचें उगते दिसतालें. आमी जेवणार बसली. मोन्यांनी जेवतालीं. ताका कितें विचारपाक सावित्रीकूय धीर जालो ना. ताका पयलो जेवूं दी म्हळें.

जेवून जातकूच आमी वाल्तेरार पातळ्ळे. रातचीं अिकरा वरां जाल्लीं.

'आरे, बाबा, किते जालां तुका ? असो कसो जालो रे तू ?' हांवे ल्हवान प्रस्न घालो.

त्या प्रस्नाक ताणे सट्ट करून आंग काडलें. तोंड-सोंड काळें केलें. जड दबाव्याच्या चेपणा खास घुसमटलेले भशेन तो आपलीं चिंतना सांसपिताल्लो अशें दिसतालें. आंगा-पांगान तो सामको हाडां-सांपळो जाल्लो. जीव उडून वचपाचे दशेर पाविल्लो.

शेकी, ताच्या तोंडांतल्यान उतरा सुटली.

'कितें म्हण सांगूं, लूयजीन ! म्हाका धीर जायना रे सागपाक' ताणे रडकुळया आवाजान सुरू केलें. 'तूं म्हजो आदलो ओइष्ट म्हण तुका सांगचें पडलें. आनीक हें सांगतलों म्हळयार म्हजो कोण आसा ह्या संवसारात बायल भुरगीं म्हजीं खंय आसात कोण जाणा !'

हें म्हणटाना ताच्या सुकिल्ल्या पोल्यांवेल्यान दोन मोतयांवरीं दुकां

देंवलों.

हांवें तोंड घालें:

'म्हापशां त्या इस्कोलात शिकताना आमी दोगूय जीवा-भावाचे अिष्ट आशिल्ले. तूं मेट्रीक नापास जालो. मागीर तुजी म्हाका खबरूच मेळ्ळी ना. आनी बायल म्हणटा म्हणून, कोण रूबीन रें! बरेंच फुलगडें आसलें तें. तूं ताची फाट सोडिनासलो. तुका व्हड लोसो लेखिनासलें तें तेन्ना. मागीर कशें जालों तर!'

हें म्हणटनाच, आल्फ्रेदोन कपलार हात माल्लो आनी तो संतापलो.

'तीच व्हडली चूक केली हांवें. मारेकार चूक. तिचें कोडू फळ हांव भोगतां आतां. तिच्या जाळ्यांत हांव घुसपलों कसो गा सायबा!'

'आतां जालें तें जालें. तें कोणाच्यान पर्थू नज. नशीबांत आसा तें भोगचें पडटा.' हावें म्हळें.

'तूं जाणा लुयजीन, हांव कसो पियेतालो तो.' आल्फ्रेदीन सुस्कारो सोडलो.' कशें हांवें पैश्यांचें अुदक केले. पणजेच्या मुखेल सोऱ्यां-गादयांचेर म्हजें कोंत आसचें. परिक्षेंक हांव परत बसलों रे. पुण म्हजे सारको वादीव कसो पास जातलो. पायक हांवे हुस्क्यांर हुस्के दिले. सगळी ताची धन-गिरेस्तकाय पोखरून खाल्ली! खाल्ली गा सायबा!'

ताचो गोळो भरून आयलो आनी तो फुडें वेतालो म्हळयार घुसमटूंक लागलो. हांवें आदार दिवपाचो येत्न केलो.

'सोरो पियेलोच जाल्यार वादीव जाता रे?'

'तुका सगळी खंय खबर आसा, लुयीजीन. तूं जेन्ना सावित्रीलागीं मायेमोगान फुतफुत्तालो तेन्ना हांव सतरा जाणां फाटल्यान भोंवतालों. आयज हांगा फाल्या थंय. आब्रील-माया म्हयन्यात तर सांगोच नाका. आयज कळंगूटचे वेळेर तर फाल्यां कोल्वेंचे. सुखाचे खीण ते ! रातचे, त्या उगत्या मळार, आमचे नाच चलचे. शीतळ वारो, दर्याची गाजतीं ल्हारां माडांची सरसरटीं चुडटां आमकां सांगात करताली. कितें मागीर मौज सांगूं नाका ! कितलो दुडू वगडायलो हांवें. ताचे वैर सोरो. व्हडलो मौजेचो खेळ दिसलो तो तेन्ना म्हाका. दादलो म्हण दाखोवपाचो हो पुरा तो तेन्ना. पुण ह्या सगळ्या करण्यांचो इतलो बायट परिणाम जायत म्हणपाचें कोणें येवजिल्लें तरी केन्ना ?'

"पुण मेट्रिक पास जालो तरी तूं ?" हांवें ताका मागीर हाडपाचो येत्न केलो. तो सामको गळसणून गेल्लो.

मात्सो रावून ताणे म्हळें, जाप अशी दिवून—

"व्हय, तीन वर्सांनी धाडावन धाडावन निमाणेकडेन तें दुरोग शेकीं हुपलें." ताणे उजवाडायलें.

"आनी मागीर कितें केलें ?"

'मागीर आनीक कितें?' ताणे सुस्कार सोडलो. आनी फुडें : 'आनीक शिकूंक म्हाका खोशी नासली. दुसरेंदटेन पायक हांवें मणां लागीं पावयल्लो. एकलोच अपुर्बायेचो पूत हांव. कितलें हांवें ताका दुख दिलें. हांव हांगा पणजें कितें करतां तो ताका खंय खबर आसली ! मागता तितले दुड तो म्हाका पावते करतालो. हांवें ते सगळे वाटेक लायले. केदो भाटकार म्हजो पाय. जुझे मारीय दश नेस्सेसिदाद्रिश सील्व कार्दोज

हांका भेटभेट गावांत कोण वळखना ! केदें भाटबेंस तागेलें ! तीन म्हयन्याचो पाडो म्हळचार फडफडीत पन्नास हजार नाल्ल ! म्हाकाच लागून ह्या भाटाचेर हात घालचो पडलो. हावेंच सगळें मात्ये-भरवण केलें ! कितल्या चेडवांचेर हांवें दुडू उदकाभशेन वोतयलो !'

काणी लांबताली. वेळ सरत वेतालो. मद्यानरात जाल्ली. तरी भारावन गेल्लें आल्फ्रेदीचें मन मेकळें जावपाची चिन्न्ना दिसनासली. ताच्या जिबेंवेल्यान भायर सरतलीं उतरा जड-जडावाचीं आनी विसव घेत घेत ल्हवू ल्हवू गळटालीं.

तो फुडें धुकलतालो : 'मागीर हांव मुंबय गेलो : पुण फाबोसारकी नोकरी म्हाका मेळ्ळी ना. कितें सांगूं, एक दीस चोवपाटीचे वेळेर म्हाका तें रूबीन मेळळें न्हय रे. तें आवय-बापायसैत मुंबय रावतालें तेन्ना. ताणे फुसलावन म्हाका आपणागेर व्हेलो आनी आवळो पाय म्हाका बरी नोकरी सोदून दितलो म्हणपाची खातरी दिली. हांव तागेर गेलो आनी थंयच बिराड करून उल्लो. हें खरशेत-धापेत दिसता आतां येवून म्हजेर थिरावल्लें !'

'हांचे दोळे मिस्ता म्हज्या भांट-बेंसाचेरूय आसले. हरशी म्हजी वागणक वळखून म्हाका कोण भीक घालीत आसलो ! जोर पेजेक रडटा म्हणटात. तशें हें रूबीन मोगाची सवंगा करून म्हूजेर रडलें. आनी त्या जाळात पडपाक हांव तरी केदो पिसो ! म्हाका खावयल्लें हांवें सोल सैत चावले. ... नोकरी इल्ली बरी — शी मेळ्ळी म्हाका खावयल्लें हांवें सोल सैत चावले ... नोकरी इल्ली बरी — शीं मेळळी म्हाका. पुण रूबीनाचें बिराड हांवें सोडलें ना. आवयचो मोग आनी माया हांवें केन्नाच अणभवूंक नासली. हांव जल्माक येवून म्हजी आवय भायर पडिल्ली. तिचो मेळूंक

नाशिल्लो मोग हांव दुसऱ्यांकडल्यान सोदीत आसलो ... वेता थंय अपेसूच मेळटाले म्हाका.'

'बरी नोकरी मेळ्ळी म्हणटालो म्हंय रे तूं ! मागीर रे तुजें जिवीत कशें थाऱ्यार घालें ना ? हांवें विचारलें.

म्हाका हें जिणेंत खैंचीच अेक थारावीक मोख म्हणून उरली ना. तुजी खबर हांव घेत आसलो. तूं दोतोर जाला म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें. हांव खोशी जालों. तुज्या अितलो खर निश्चय म्हज्यांत नासलो. तुजे भशेन जावपाक हांवे येत्न केल्लो. पूण दोळे पावतात तरी हात पावनात म्हणपाची म्हजी गत्त जाल्ली. थोडे पैशे तर आतां हातांत घोळटाले. आदल्याच संबंधांनी हांवें रीण घेतलें. सोऱ्याची बोतल म्हाका सोडिनासलो. नवसागर तो पाडा पडिल्लो. शरीराक कुराडीचे घाय घालता. पुण हें म्हाका तेन्ना कांयच कळळें ना. किल्याक म्हजें फुलतें तनें रगत आशिल्लें. रातच्या इकरा-बारा वरांचेर हांवें घरा पर्युचें. लड-लडून येवून हांवें दारार मारचें ... फुडलें आनीक कितें सांगूं ! हांव स्त्रीन वे लागीं लग्न जालों रे !' ताणें केन्नाकाल सोंपोवपाचो येत्न केलो

हें म्हणटाना ताज्या तोंडार इल्लो खोशेचो-सो उजवाड पडिल्ल्या भशेन जालो आनी तें जीवें आयलें. व्हय तो मुमुरकोच हांसलो. पुण थोडयाच खिणांन तो पड्डो पडलो आनी परत एक फावट तोच आदलो काळखो दुखेस्त देखाव म्हज्या सामकार रावलो. नदर वयर पायनेलाकडेन लायली आनी ताणें फुडली खबरफोडुन दिली.

' जायत एकदोन वर्सां उप्रांत, म्हाका एक दुखेस्त खबर आयली. म्हजो पाय भायर पडिल्लो. एकलोच म्हजो थारो म्हाका सोडून गेल्लो. आनी म्हजे हाल जाले !' ताचीं बुटबुटीत दुकां गळ्ळीं.

'कशे रे ?' हांवें वेगीं वेगीं प्रस्न केलो. 'आतां तूं त्या भाट-बेंसाचो धनी जावचो पडलो न्हय रे ?'

'तुजें खरें लुयजीन,' ताणे म्हळें, 'पुण हांव सांगतां तें लटकें न्हय. म्हज्या पायक मातयेक लायलो. रोखडेंच रीणकाऱ्यांनी ताच्या भाट-बेंसाचेर हात घालो. हें म्हज्या कर्तुपांचें फारिकपण म्हणचें पडटा. जुविजांत रिणकाऱ्यानी म्हजेर येजेकुसांवा माडिल्लीं. म्हाका भाटां-भेकळो केलो ... ही खबर घेवून हांव मुंबय पर्थलो. ती रुबीना मुखार फोडीना फुडें, म्हजो संवसार सामको कोंसळळो ! एकाच खिणांत म्हजें मोल आसलें नासलें तें देवून पडलें ... हाय ती देजेंब्राची रात म्हज्या दोळ्यांमुखार येना फुडे अजून म्हजो कांटो उबो जाता. दोगां भुरगीं म्हजीं, हीं झगडीं जाता म्हळ्यार, किळच्यो मारतालीं. रुबीन म्हाका मारूंक आयलें. ताच्या बराबर पाय, मांय आनी भाव. म्हाका तोंडक्याचो आनी खोटांचो मार माल्लो. कितलीं पोजडीं म्हेळीं उतरां घेवचीं पडलीं म्हाका तांच्या तोंडातल्यान. सगळे घरूच म्हजेर उखल्लेलें. म्हाका आनीक मान आब्रू खंय उल्लेलो. सासुपाय पासून रागान फुलून येवून म्हजेर रोताचे तोडके शेवटीतालो. 'हींच तुजी फटींगपणां —' तो आड्डतालो '— आमी तुका पोसलो. जोडलेलें दुडू तुवें विभाड केलें. चल हांगाचो. घरांतलो भायर सर म्हज्या.'

आल्फ्रेदीचे सांधे सगळे कडकडटाले. त्या रातीच्या घडणुकेचें दुख आनी वळवळे ताच्या आंगा-पांगार नव्यान उदेताले. ताचो ताळो सुकलो. उतर मोडूंक लागलें. त्रास घेवून ताणे फुडे धुकल्लें :

आनीक कितें उल्लेलें म्हाका ? तेच मद्यान रातीर हांव घराभायर सरून रस्त्यार पडलो. धोबितालावाचे गल्लीत हांवें ती रात काडली. नोकरेक हाजीरी लायतालों पुण म्हज्यांतलो लकलकीत उजवाड पालेवल्लो.

कामांत मन रोंमना जालें. जोडिल्ले दुड्ड सोऱ्याक आनी हर व्यसनाक बाद. ती संवय म्हज्या रगतांत रिगिल्ली ...

'वर्सां गेलीं आनी ह्या सगल्या खोसपायानी आनी चिंतनांनी म्हजी असक्त बलायकी बिगडत गेली. सांडलो रे हांव ! समाजा – उश्टचार हांव आता जगपाचो ! कितले पावट हांव पियेवन वाटेर पडलो. कोणे सोद घेतला म्हजो ? रूबीन केन्नाय मेळून कितेंय म्हाका दिवचें आसलें. म्हजो मोग आसलो रे ताका अिल्लो तरी. पुण भोग ना जाल्यार मोग खंयचो, ही ताची सामकी पसरकारी वेव्हारीक नदर म्हाका हिणसायताली आनी म्हज्या पिंजिल्ल्या काळजाच्यो वाद्रयो करताली.'

ही ताची काणी सोंपून सोंपनासली. हांवें तो आळा — बंदराक हाडपाचो येत्न केलो.

'तूं येंया केन्ना पावलो ?' हांवें विचाल्लें.

'अेक वर्स जातलें. म्हाका बारीक जोरान घांस माल्लो. तो जोर म्हाका पोखरीत आसलो. हांव शेकीं तांबडचा मातये हॉस्पितालांत पावलों.'

'आनी रस्त्यार कसो पावलो रे तूं' हांवें काळीज कलकलत हुस्क्याभरीत विचाल्लें.

'भायर सरून चोरयां आयलां' तो ल्हवान फुतफुतलो. 'चिंतून चिंतून जिवाची उबगण आयली म्हाका. भोंवून भोंवून, भुकेन खंय तरी सोराणाभायर पडलो जातलो हांव. हाय ! म्हाका खोटो वांगड मेळ्ळो ताणी म्हजो घात माल्लो.'

हांवे ताका तपासून पळेलो. तो चड वायट, हाताभायले दशेर पावूंक

नाशिल्लो. फावो ते भाशेन अिलाज केल्यार तो पर्थों रूळार येवूं येतालो. हांवें अशें ताका सांगलें. उलयता उलयतां मद्यानरात जावन नव्या दिसांत आमी भितर सरिल्ले. हांवें ताका भितल्ले अेके सोयऱ्यांचे कुडींत व्हरून न्हिदूंक लायलो.

सकाळी उठूंक दुसरे दिसा मात्सो वेळ जालो. सात वरां वाजलीं. उठून नीट आल्फ्रेदीक न्हिदयल्ले कुडींत गेलों. पळे जाल्यार थंय कोणूच ना. उल्यार उलो केलो. कोणूच ओ दिना. भायरावन सावित्री आनी क्रियाद. क्रियाद सांगता कि आपूण उठिल्ली तेन्ना भायलें दार बेस्टें आड आसलें. कोणें तरी खिळी काडिल्ली दिसता. हांवें टीं. बी, होसपीतालाक फोन केलो. तांचेकडल्यान गमलें कि त्या वर्णनाचो मनीस चार दिस जाले थंयचो पळून गेल्लो. ताची आजून खबर ना. तो नांच जाल्लो.

आल्फ्रेद, हो म्हजो अीश्ट ! ह्या मनश्याक सगल्यांनी सांडलेलो, समाजान, जाच्या उडट्या नाड्यार ताणे आपलें रशरशीत तरणेपण कर्पायलें, बायलेन, जिच्या फटींग मोगाचे वेदीर ताणे आपलीं सुखाचीं सपनां हुल्पायलीं. पंचेचाळीस वर्सांचो हो मनीस घडये आत्मघात करपाचे हेतून भायर सरून गेल्लो जांवये. चडफडच्याच्या भारादीक हुंवारान मरचे वाटेक खंय तरी लोटून गेल्लो.



# ओलिव्हींन गोमिश

जल्म जुंव्या ( सांतईश्तेव्हां ), गोंय, १९४३. मुळावें शिकप जुंव्यां ( गोंय ). वयलें पणजे-डोन बोस्को-उप्रांत पुर्तुगेज लिसेव आनी पुणे, कर्नाटक आनी शिवाजी विद्यापिठांल्यान सध्या Ph.D. खातीर तांचो सोद चल्ला. गोंयच्या सरकारी सचिवालयांत अधिकृत भाशांतर-करपी म्हणून वावुल्ले. तशेंच गोंयचे आकाशवाणीवेल्यान कोंकणी, पुर्तुगेज आनी इंग्लेज विभागांनी थोडें साहितीक काम केलें.

१९६९ वर्सांतल्या आय. ए. एस्. (I.A.S.) परिक्षेत वेंचून आयले. तेन्नाच्यान अ. कलेक्टर ऑफ कस्टम्स अॅन्ड सेंट्रल अेक्सायज म्हणून सोलापूर, रत्नागिरी, दिल्ली सचिवालयांत आनी आतां गोयांत केंद्र सरकाराच्या उंचल्या कारभारांत वावुरतात.

कोंकणी ( रोमी आनी देवनागरी ) आनी इंग्लेजींतल्यान तांची बरोवपां गोंयच्या आनी गोंयाभायल्या खबरेपत्रां आनी नेमाळचांर उजवाडाक आयल्यांत. पणजी आकाशवाणी वेल्यान कविता, कथा, उलोवपां आनी रूपकां वितरावपांत आयल्यांत. डॉ. फ्रां. लु. गोमिश ह्या अंतरराष्ट्रीक किर्तीच्या गोयकारांवेर जिवितकथा प्रसिद्ध जाल्या. "पुंजायिल्लो पाकळचो" तांच्या ह्या कवितां-झेल्याक गोंयच्या कला आकादमीचो पुरस्कार फाव जाला. ताणी कालिदासांचो "मेघदूत" कोंकणींत काव्य-रूपांतर केला आनि "शकुंतल" काणये-रूपान बरयलां. भुरग्यां खातीर "सुपुल्लो काणयां पांटुल्लो" आनी "भारत आमचो देस" हीं पुस्तकां बरयल्यां. फ्रांकी पुर्तुगेज कवी गेर्र जुंकेयर हांचो कविता संग्रह "Os Simples" इंग्लेजींत अणकाल्ला.